# कन्यादान

(कथा संग्रह)

ज्योती कुंकळकार

ॐ श्री दत्त पद्मजा प्रकाशन

**Kannyadaan**

Collection of Konkani Stories

By Smt. Jyoti Kunkolikar

**प्रकाशन क्र.:४०**



डी-१, गौरी हाउसिंग कॉओपरेटीव्ह सोसायटी,
जुवारवाडा, पोस्ट-माशेल, गोंय. ४०३ १०७

**पयली उजवाडावणी :**

२००४

**उजवाडावपी :**

श्री. मिलींद कमलाकर म्हाळशी
प्रकाशक,
ॐ श्री दत्त पद्मजा प्रकाशन,
श्रीस्थळ, काणकोण, गोंय

**छापपी :**

नवादित्य पॅकेजिंग्स,
माशेल, गोंय

**अक्षर जुळणी आनी मुखचित्र :**

निलांगी पुं. फडते
पुनम आ. शिरोडकार

**मोल : १५०/- रुपया**

इकरा जाणांच्या
मध्यमवर्गी कुटुंबांत
नुस्त्या कुडक्यांची
समान वांटणी करून
समानतेचो पयलो धडो
आमच्या ताटांत वाडपी
आईक,
(श्रीमती सीताबाय प्रभुक)
कन्येचें 'कन्यादान'
काळजाथावन अर्पण !

–ज्योती

# ज्योती कुंकळकार

## वळख

---

- कोंकणी साहित्य आनी संस्कृतिच्या मळार फाटली पंदरा वर्सा लेखिका, मुलाखतकार, दिग्दर्शिका, अभिनेत्री, सिने निर्माती म्हण वावुरता.
- शेतकी खात्यात वीस वर्सा (१९८२ ते २००२) नोकरी.
- विकासिनी मंडळ, अपुरबाय चित्र, ग्रामीण महिला मंडळ, गोवा कोंकणी अकादेमी, गोवा कला अकादमी, आदि संस्थांच्यो कार्यकारी / उपसमितीचो वांगडी.
- बालभवन माशेल केंद्राच्यो प्रमुख.
- महिला आनी बालकल्याण खात्याचे वतीन महिला सशक्तीकरण वर्सा जाल्ल्या (२००२) / गोवा राज्यव्यापी ८० महिला मेळाव्यांत सुत्रनिवेदन आनी गोंयच्या राजधानीत जाल्या महामेळाव्याच्या आयोजनांत महत्वपूर्ण सहभाग.
- कोंकणी आनी मराठीतल्यान गोंयच्या नेमाळ्यांतल्यान, आकाशवाणी, दूरदर्शनखातीर वेगवेगळ्या मळावयल्या आघाडीच्या आनी कर्तुत्ववान बायलांच्यो सुमार दोनशें मुलाखती प्रसिध्द.
- 'नरकाचे दुसरे नांव बायणां,' या शिर्शका सकयल वेश्याविशयक सामाजिक प्रश्नाचो दीर्घ माहिती लेख (२००२) प्रकाशीत 'वुमन्स इन गोवा' (२००१) स्मरणिकेच्यो संयुक्त संपादक.
- 'चित्रांतले वादळ' कथा संग्रह (१९९३), 'मुक्ता' पटकथा (१९९४), 'ओला पदर' कथा संग्रह (१९९४), 'कर्तृत्वी कन्या' विविध मळावयल्या बायलांच्यो मुलाखती (१९९७), 'रंगतारका' मराठी अभिनेत्रीच्यो मुलाखती (१९९७), 'पाशाण कळी' कादंबरी (१९९८), 'सत्यस्पर्श' एकांकिका (२००२), 'वेंचिक पुंडलीक' संपादित (२०००), 'शिखर कन्या,' चरित्र लेख संग्रह (२००२), 'कन्यादान' कथासंग्रह (२००४), 'प्रेमपत्री' कविता संग्रह (२००४), पुस्तकां प्रकाशीत.

- स्वतंत्र १० नभोनाट्यांचे लेखन आनी राष्ट्रीय नभोनाट्याचें कोंकणी अणकार प्रसारित.
- आयजवेर ' मुक्ता', सांगाती, 'देखणी दुराय', 'तो दीस उदेलो,' 'कोण जबाबदार', सत्यस्पर्श, 'बंधन', 'बळीः सॅक्रीफायज' अशा आठ फिल्मानी भूमिका केल्या.
- सुमार १० माहितीपटांची निर्मिती तातूत रविन्द्र केळेकार, डॉ. मनोहरराय सरदेसाय, चंद्रकांत केणी, दामोदर मावजो, पुंडलीक नायक अशा पांच साहित्यिकांचेर माहितीपट.
- 'दौलत' स्वतंत्र फिचर फिल्माची निर्मिती. (२००३)
- आकाशवाणीच्या नभोनाट्य लेखन सर्तीत (१९९५-९६) 'शंबर टक्के बुदवंतराय' नभोनाट्याक कोंकणी भाशेंतलो विनोदी विभागांतलो पयलो राष्ट्रीय पुरस्कार आनी बावीस भासांनी अणकार.
- गोमंतक मराठी अकादमी, सरस्वती मंदिर, कोंकणी भाशा मंडळ प्रागतीक विचार मंच, आदी संस्थांची इनामा आनी पुरस्कार. साहित्य कलायात्री पुणे संस्थेचो 'मृत्युंजयकार शिवाजी सावंत पुरस्कार' (१९९८)
- 'कर्तुत्वी कन्या' पुस्तकाक डॉ.टी.एम.ए.पै. फावंडेशन पुरस्कार. १९९७)
- राज्य आनी राष्ट्रीय थरावयल्या कोंकणी आनी मराठी नाट्य महोत्सवांत अभिनय, दिग्दर्शनाखातीर इनामा.
- 'देखणी दुराय' फिल्माची निर्मितीखातीर अखिल भारतीय महिला परिशदेचो 'गोमन्त तेजस्विनी पुरस्कार' (१९९६)
- पयल्या गोवा राज्य चित्रपट महोत्सवात (१९९७) आनी दुसऱ्या महोत्सवात (१९९९) सर्वोत्कृष्ट सहाय्यक अभिनेत्रीचो पुरस्कार.
- दूरदर्शनच्या दोन राष्ट्रीय कार्यक्रम सर्तित 'सत्यस्पर्श' (कथा आनी संवाद), 'अस्तूरी आकाश' ( संशोधन - लेखन), कार्यक्रमांत प्रसारभारतीचीं प्रशस्तीपत्रां. (२००२)

# 'कन्यादान' च्या निमतान...

फाटली पंदरा वर्सां हांव लेखन करतां. साहित्याचे विविध प्रकार हाताळटा आसताना कथा हो विशय खूब जिव्हाळयाचो थारला. म्हजो जल्म आनी वाड एका मध्यमवर्गी कुटुंबांत जाल्ल्यान त्या जिविताचो म्हाका जो अणभव लाबिल्लो तोच सुरवेक हांवें म्हज्या कथानी मांडपाचो यत्न केला. मागीर म्हज्या भोंवतणच्या जिविताचो सराव घेवपाचो यत्न हावे कथा प्रकारांतल्यान केलो. हातूंत समाधान आनी यशूय लाबलें.

हावे कथा बरयताना म्हज्या अणभव विश्वाचेर आदारून बरयल्यो. तातूंत कुटुंबीक, सामाजीक विशय आयले पूण तातूंत नकळटांना 'बायल' हो केंद्रबिंदू जालो. एक बायल मनीस म्हणून कुमारिका, घरकान्न, आवय ह्यो भूमिका म्हज्या वांट्याक आयल्यो. ह्या सगळ्या भुमिकांतल्या अंतरंगाचो सोद घेवपाचो हांवें प्रामाणिक यत्न केलो आनी हो सोद चालू आसतानाच म्हज्या भुमिकांक समांतर अशा समाजांतल्या घटकांचोय म्हजेपरी अभ्यास केलो. हांतुंतल्यान जे निर्माण जालें तें म्हजें कथासाहित्य.

त्या मानान हांवें उणें कथालेखन केलां हाचें म्हका भान आसा. पूण म्हज्या लेखनप्रवासांत हांवें खंड पडूंक दिवंक ना.

'चित्रांतलें वादळ' ह्या कोंकणी आनी 'ओला पदर' ह्या मराठी कथा संग्रहा उपरांत 'कन्यादान' हो म्हजो तिसरो कथासंग्रह आतां पुस्तक रुपान उजवाडा येता. मानेस्तांच्यो प्रस्तावना लाबपाचे बाबतींत हांव सदांच भाग्यवान थारलां.ह्या संग्रहाक कोंकणीतले नामनेचे कादंबरीकार श्री. दामोदर मावजो हांगेली प्रस्तावना लाबल्या. म्हाका सदांच तांचें मार्गदर्शन मेळत आयलां.

आयच्या काळांत प्रकाशन व्यवसाय हो फक्त नांवापुरतोच व्यवसाय उरला. अशे परिस्थितींत ॐ श्री दत्त पद्मजा प्रकाशन संस्थेन म्हजें पुस्तक उजवाडा हाडपाची जापसालदारकी स्वीकारली देखून हांव खऱ्यांनीच प्रकाशक श्री. मिलींद म्हाळशी आनी श्री. कमलाकर म्हाळशी हांचे उपकारी आसा.

श्री. पुंडलीक नायक हांचेकडल्यान दर एके कलाकृतीचें बाबतींत लाबता तें सहकार्य म्हाका ह्यावूय पुस्तकाक लाबलां हें वेगळें सांगपाची गरज ना.

तिवरें - गोंय.

**– ज्योती कुंकळकार**

# मावज्याले कसवटेर तिजतना -

कांय लेखक कोणेंय 'बरें बरयता' म्हणिना फुडें फुलून वतात. कांय लेखक मात्शी टिका जायनाफुडे खिन्नटून वतात. इल्लीशी तोखणाय जायनाफुडें जिणेंचें सार्थक जालें समजून थोडे बरोवपाचें सोडून दितात. जाल्यार थोडे कोणेंय चुको दाखोवन दिल्यार तिडकीन वा निर्शेवन रागार फुगार जातात. थोडेच जे टिकेची पर्वा करीनासतना सातत्यान बरयत रावतात, तेच खरेंपणीं लेखक आनी साहित्यकार जावंक पावतात. एकल्यान म्हळां - A Professional Writer is an amateur who didnit quit. सातत्य दवरून बरोवपी नवोदीत लेखकच प्रस्थापीत जावंक पावता इतलें खरें. हे नदरेन बाय ज्योती कुंकळकार हिच्या सातत्याची हांव काळजाथावन तोखणाय करतां.

'चित्रातलें वादळ' घेवन आमचेमुखार आयली तेन्ना ज्योती नवोदीत आसली. आयज हांव तिका नवोदीत म्हणचो ना. हो तिचो दुसरो कथाझेलो देखून न्हय, तर ह्या संग्रहांत लेखकाली जीण आदलेपरस चड अणभवसमृध्द आनी कलासंपन्न जाल्ली दिश्टी पडटा म्हणून.

ज्योती फक्त लेखक न्हय, तिच्या व्यक्तिमत्वाक अनेक तासां आसात. ती एक अभिनेत्री, ती एक निवेदक/ अँकर एक फिल्म निर्मिती, एक सामाजीक वावुरपी, एक घरभुरगेंकान्न, आनी हें सगळें सांबाळुनूय ती एक लेखक. कोंकणी आनी मराठी दोनूय भाशांनी ती कुशळतायेन बरयता. कर्तुपी मनशांच्यो मुलाखती घेवप आनी कलात्मक तरेन त्यो सादर करप हो तिचो छंद. नभोनाट्य, पटकथा, कादंबरी, निबंद अशें तरेकवार साहित्य ती रचता आसली, तरी कथेच्या मळार ती चड रमता आनी तिची लेखणी चड परमळटा अशें म्हणूंक जाय.

ह्या कथाझेल्यांत ज्योतील्या इकरा कथांचो आस्पाव आसा. 'उजवाडाची पूजा', 'अप्रुप याद', वा 'त्रिवेणी' सारक्यो ल्हान कथा आसात आनी 'स्वीकार', 'आत्मभान' व 'सोनिया' सारक्यो दीर्घकथा म्हूण येता अश्योय कथा आस्पावतात. चडशा कथांचे विशय बायलांच्या संघर्शाचे पूण त्या कथांक स्त्रीवादी वा फेमिनिस्ट म्हणूंक येवचें ना. मानवतावादी दिश्टीकोण धरूनच ह्यो कथा बरयल्यात. वयलेचाराक पळयल्यार कांय कथा अस्तुरी वादाचे बरयल्या अशें दिसता. देखीक 'आत्मभान' ही कथा. हे कथेंतली आवय ही फेमिनिस्ट तिचे विचार आनी करणी फॅमिनिस्ट. जण एके अस्तुरेन आपणाक जाय तशीच जीण

जगची, समाजीक बंधनाची पर्वा करची न्हय अशी विचारसरणी फेमिनिस्ट. ही आवय नालायक घोवाक सोडून नवो संवसार मांडटा. दुसऱ्या लग्नाचें ती समर्थनूय करता. पूण भुरगीं तें मानून घेनात. आवय हरशीं फेमिनिस्ट म्हुणूनच दाखोवपाचो यत्न केला. लेखिका तिच्या निर्णयाचे समर्थन करीन धुवेच्या तोंडातल्यान लेखिका आपणाली भूमिका मांडटा. घोवाच्या दुबळेपणाक विटून दुसरो संवसार मांडपी आवयक ती सुवार्थी आनी फटकिरी म्हूण हिणसायता. आवयचें चुकलां ही भूमिका लेखिकेन पयलींच घेतिल्ल्यान आवयच्या पात्राक न्याय मेळटा अशें म्हाका दिसता. 'स्त्रीवाद' लेखिका मानता, पूण तो वेव्हारांत योग्य न्हय. अशीशी लेखिकेची भूमिका वा धारणा आसा अशें दिसता. 'त्रिवेणी' तूय तशेंच जाता. बायलांक हक्काची जाणीव आसा पूण तांच्यांत धाडस ना . तीं असहाय्य आनी असमर्थ अशें हे कथेत दाखयलां. एकेपरीन स्त्रीवाद लेखिकेक मान्य ना काय कितें असो दुबावच येता. बायलांचेर जावपी अन्यायाआड मात ती बंड करून उठटा.

'सोनियां' तली सोनिया ही फेमिनिस्ट कशी दिसता. तिचे स्वतंत्र वृत्तीक कांय लोक स्वैराचार समजतात. अखेरेक ती उजू चलणुकेची म्हणपाचें स्पश्ट जाता. पूण हाचो अर्थ ती स्त्रीवादाचे समर्थन करता अशें म्हणूंक येता. देखून ह्यां कथांकडेन वादाचे निकश लायनासतनाच पळोवंक जाय. प्रस्तुत झेल्यांतल्यो सगळयो कथा 'चित्रांतलें वादळां' तल्या कथांपरस उजव्यो आसात. ज्योतीक कथेची नाट मेळळ्या, कथेचें तंत्र बरें होलमलां, हें ह्या कथांवयल्यान जाणवता.

सर्जनशील लेखकाक दोन तरेचे दोळे आसतात. सरभोंवतणी चलता तें नदरेंत आस्पावन घेवपी दोळें जे सगळयांचकडेन आसतात. दुसरे दोळे ते अंतर्मनाचे. अंतर्मनाचे दोळे जांचे उकते आसतात, तांका विशय सोदूक कश्टूचें पडना. ते वाटे वाटेर सपसप मेळटात. ज्योतीकडेन ती नदर आसा. ह्या झेल्यांतल्यो चडशो कथा बायलांच्या समस्यांचेर वा संघर्शाचेर आदारिल्ल्यो आसल्यो तरी ह्या विशयांतूय विविधताच आसा. घटस्फोटीत बायलो, उध्वस्त संवसार, पुनर्विवाहितांचे संवसार, वाडिल्या चलयांची लग्नां, संवकळीत चलपी चलयाकडेन स्वैराचारी म्हूण दुबावान पळोवपी समाज, चाळिशींत दीस गेल्ले अस्तुरेची अवतिकाय अशे विंगडविंगड प्रस्न तिणेंन सहजतायेन हाताळळयात.

ज्योतीकडेन बरी निरिक्षणशक्त आसा. ह्या निरिक्षणाचो फायदो वातावरणनिर्मिती आनी व्यक्तिरेखाटणांक भोव बरो जाला. 'कन्यादाना' तलें हॉस्टेलाचे वातावरण, 'पीळ' कथेतलें शारांतल्या फ्लॅटातल्या सुखवस्तू घराण्याचें वर्णन, 'सोनिया' वा 'उजवाडाची

पूजा' कथांतलें कॉलनीतले वातावरण जशाक तशें उबें केलां. नाना परींची पात्र आनी तांचे नाना तरेचें सभाव. मोग करपी, दुस्वास करपी, कुतां काडपी, धवळे घालपी काळजीवंत, तिरसुवाद, आपसुवार्थी, पडमूर तेरेकवार लोक समाजांत वावुरतात. ज्योती तांका जशे पळयल्यात तशे चित्रायल्यात.

प्रेम-प्रणय ह्या विशयांपासून ज्योती आतां पयस पावल्या. ह्या झेल्यांतल्यो चडशी कथा आवय-धूव हांच्या परस्पर संबंदांचेर आदारिल्ल्यो आसात. आयच्या गतीमान संवसारांत घटस्फोट, दुसरें लग्न, आवय-बापायचो वेगळेचार हातुंतल्यान भुरगीं जें सोसतात, तें ह्या कथांतल्यान मांडपाचो यत्न जाला. आनी खूब बरो जाला. 'फूल फुलता कळी बावता,' हे कथेंत आवय आनी धूव हांच्या संवसाराक मेळिल्लीं मोडणां काळजाक चुरको लावपी आसात. लेखक पिरायेन वाडटा तशी ताची जीण बदलत वता. तांतुतल्यानूच तांचे अणभवविश्व वाडटा. ह्या संग्रहांत ज्योतीबायन केळयिल्ले विशय पळयल्यार ही वाड स्पष्टपणान जाणवता.

लेखक अणभवांकडेन प्रामाणीक रावन बरयता. तेन्नाच तांचें बरप साहित्याचे कसवटेक तरता. देखुनच खंयचोय लेखक आपणाक ज्ञान आनी संवकळीच्या अशा विशयांचेरच लेखन करतना पळोवंक मेळटा. ज्योतीन बायलांच्या प्रस्नांचेर कथा बरोवप हें सभावीक. पूण ताचे पयल्यान वचून ती दादल्यांच्या अणभवांचेर 'पीळ' सारकी कथाय बरयता. हे कथेंत दादलो मनीस प्रथम पुरुशी पात्र आसा.

'कथा' हे राष्ट्रीय पांवड्यावयले प्रकाशन संस्थेनं 'Imaging the others' ह्या नांवाचे भारतीय कथांचे एक संकलन उजवाडायलां. ह्या संकलनात दोन तरेच्यो कथा आस्पावल्यात. दादल्या लेखकांनी बायलांचेर बरयल्लयो कथा आनी बायलांनी दादल्यांचेर बरयिल्ल्यो कथा. संपादकांनी दाखोवन दिलां की संघर्श हो संघर्श आसता. दुःख हे दुःखच आसता. मागीर तें दादल्यांचे आसूं वा बायलांचे. लेखकाची संवेदना जेन्ना अति तीव्र जाता, तेन्ना दुसऱ्यांचे अणभव चिंबून घेवपाची तांक ताज्यांत येता. ही परकाया प्रवेश करपाची कळाशी ज्या लेखकाक सादता, तोच दुसऱ्याचें-मागीर तें दादल्याचें आसूं वा बायलांचे - सुखदुख बरे तरेन समजून घेवंक पावता आनी तेन्नाच ताणें केल्लें लेखन हे 'साहित्य' हे पदवेक पावाता ज्योतीन दुसऱ्यांचे मन, दुसऱ्यांचे घुस्मटमार, दुसऱ्यांची व्यथा समजून घेवपाची आनी कथेच्या माध्यमातल्यान तो मांडपाचो भोव बरो यत्न केला. 'कन्यादानां' तली पिंकीची कथा आनी व्यथा तर भोव प्रभावी रितीन मांडल्या.

कांय कथांचे विशय मनाक भोव भावतात. 'फूल फुलता कळी बावता.' हे कथेंतलो विरोधाभास काळजाक हात घालपी. 'त्रिवेणी' तल्या तीन बायलांच्या संवसारांच्यो तीन तरा.

दादले आपल्या बायलांक गृहीत धरून चलतात. तें विस्कावन दाखोवपी ही कथा. 'चिराग' कथेत दोन धुवांचे चाळिशीत पाविल्ले आवयक गुरवचार येता तेन्ना चल्याखातीर तिका लागिल्ली अथरेकणी दाखयल्या. ह्यो कथा विशयांचे नदरेन भोव अप्रूप. कांय कथांचे विशय मात आदीं चाबडायिल्लेच आसात. तांका दिल्ली लेखणूकय (treatment) नवी न्हय. 'उजवाडाची पूजा', 'पीळ' ह्यो कथा वाचून नवें कांय मेळना. 'आत्मभान' कथेचो विशय आधुनिक संवसारातलो पूण हे कथेंत लेखकान पात्रांत भरिल्लें रंग चड भडक जाले भाशेन दिसता.

ज्योतील्यो कांय कथा चित्रीकरणाखातीर बरोवच्यो तशो जाल्यात. विशय, मांडणी, संवाद बी पळयल्यार फाटीफुडें हांचेर चित्रण वा टेलेफिल्मां जांव येतात हें येवजुनच बरयिल्लेवरी दिसता. 'सोनिया', 'पीळ','स्वीकार' ह्यो कथा हे माळेंतल्यो . 'स्वीकार' कथेंत मि. देवान 'डेट' मागप आनी मागणी घालून रोखडीच नायिकेक वेंगेंत घट्ट आंवुळप खुबच भडक दिसता पूण चलचित्रांत हें घडये सोबून दिसूं येत. 'अप्रूप याद', ही कथाय हे माळेंत सोबपासारकी. पूण खूब उजवी. विशय वातावरण आनी पात्रां पळयल्यार ही कथा हिन्दी, उर्दू वा इतर खंयचेंय भाशेंतल्यान अणकारून बरयल्या कशी दिसता. संगीताचो आनी गोंयचो खूब दाट संबंद आसा. पूण ज्योतीन वातावरण गोंयचें घेवंक ना. तशें घेवचें असो आगरोय ना. वातावरण अनवळखी आसता तेन्ना वाचनाचेर आनी कल्पनेचेर आदारून अशो साहित्यकृती रचच्यो पडटात. कठीण काम. पूण ज्योतीक हें काम भोव बरें सादला.. 'स्वीकार' क़था वाचतकीर Sound of Music ह्या गाजिल्ल्या सिनेमाचे कथेची याद जाता. विशय तोच आसलो तरी कथा गोंयांतल्या आनी मुंबयतल्यान वातावरणांत अस्सल कोंकणी दिसता.

संवादांतल्यान कथा उबी करप ही एक कला ज्योतीक ती बरी सादल्या. 'पीळ', 'फूल फुलता कळी बावता', 'सोनिया' ह्या कथांतले संवाद ज्युस्ताक ज्युस्त जाल्यात. ग्रामीण वातावरणांतल्या गांवगिऱ्या पात्रांतल्या तोंडांतली भास शारी आसून उपकरना. 'नवी जाग' ह्या कथेतली यमुनाबाय अस्सल गांवगिरी भास उलयता. पूण 'त्रिवेणी' तली राधाई मात शारी भास उलयता हें खटकता. घडये त्या विशयाक पेलपाखातीर तशी भास वापरप लेखकाक गरजेचें दिसलें जांवये. 'अप्रूप याद' कथेतलो गोपी मराठीची बोली भास उलयता ती त्या वातावरणाक भोव सोबून दिसता.

'कन्यादान', ही ह्या संग्रहांतली सर्वोत्तम कथा. एके वाडटे चलयेच्या मनोभावनांचो

भोव बरो आविष्कार घडोवपी हे कथेची रचनाय आगळीच आसा. ही कथा पत्रांच्या माध्यमातल्यान रचल्या. ज्योतीन घडये हो प्रयोग म्हूण केलो आसूंये. अशे तरेचे प्रयोग भारतीय साहित्यांत नवे न्हय पूण चड करून दोशीवटेन येवपी पत्रांच्या माध्यमातल्यान कथा फुलोवपाचो यत्न आसता. ज्योतीलें हे कथेचें खाशेलेंपण म्हळयार ही कथा म्हळयार एक पत्र. एकूच पत्र. पूण ह्याच पत्रांत आदीं बरयिल्लीं पत्रां आसात. दोन आदल्या पत्रांमदीं व्हडलेंशें निवेदन ना. चडात चड निवेदनाच्यो एक दोन वळी घालून पत्राफाटल्यान पत्रां बरयिल्लें एक पत्र म्हळयार ही कथा. पत्र बरोवपी पिंकी. आवयक आनी बापायक बरयिल्ल्या पत्रांतसून धुवेचे व्यथेचें भोव बरें चित्रण जालां. घटस्फोटीत आवयबापूय दुसरीं लग्नां करतात तेन्ना भुरग्याचो जो घुस्पटमार जाता तो बेस बरे भाशेन हे कथेंत मांडला. आवय 'अभिनेत्री' आनी बापूय 'विद्वान' हांचो अभिमान आसुनूय ताचो आनंद ती भोगूंक पावना. चलयेची वेदना आनी तिचे जिणेंतलें रितेंपण ह्या पत्रांतल्यान भोवच यथार्थतायेन प्रागटावपांत लेखक जैतिवंत थारल्या. वाडटे धुवेच्या मनाचे पापुद्रे कांद्याचीं सोलां काडची तशी विस्कटायत पत्रां कणकणीं कथा टप्प्या टप्प्यात फुडें वता. आनी दुखेस्त मनाची व्यथा वाचून कांदो सोलतना दोळयांत दुकां भरचीं तशी आवतिकाय जाता. कथेची अखेर तर चडच चुरको दिवपी जाल्या. पिंकीन निर्धारान घेतिल्लो निर्णय म्हळयार हे कथेन घेतिल्ली नाट्यपूर्ण कलाटणी. ही कथा चोखंदळ वाचकाच्या मनांक भूल घालेबगर रावना.

ज्योती शारी वातावरणांत वाडल्या, रमल्या. शारी भाशेंत आनी मध्यमवर्गी वातावरणांत ती चड रमता हें समजूं येता. पूण ताचेर भाशेचेर मराठीचो प्रभाव मात सुमाराभायर जाणवता. निश्ठून सांगपाची गजाल ती 'ठासूंन सांगता'. आकांत करतना ती 'आकाश पाताळ एक' करता. काळीज विरगळटा तेन्ना तिज्या 'काळजाचें उदक जाता. 'चिटमिटे पडटात तेन्ना तिका 'चुटपूट लागता.' देवाकुडीक ती 'देवघर' म्हण्टा. शेंपडेंक ' शेपूट' म्हणटा. खरेंपणी पळयल्यार जायतीं मराठी उतरां कोंकणींत घोळटात. हे प्रस्तावनेतच कितलींशीच मराठी उतरां कोंकणीचो भेस घेवंन आयल्यांत. आनी संवसारातल्यो सगळयो गिरेस्त भासो दुसऱ्या भाशांतल्यान उतरां घेवनच वाडल्यात. मराठी उतरां कोंकणींत अवश्य येवचीं. पूण ती compatible आसची, सोबून दिसतली अशींच आसची. पूण. कांय उतरां सपसप भरसनात. कारण ताचो सभावधर्मच वेगळो आसता. तीच गजाल वाक्प्रचारांची. 'तुजेर प्रेम करतां' म्हळयार सोबता पूण 'तुजेर मोग करतां' म्हणूंक फावना. 'तुजो मोग करतां.' अशें म्हणूंक जाय. हें भान दवरपाची गरज आसा. भोव करून कथेसारको ललित साहित्य प्रकार बरयतना ज्योतील्या कथांनी 'मस्तपैकी', 'ओबडधोबड', 'मायापाश' हीं उतरां शितांत आंशें येवचें तशीं येतात. कोंकणी वातावरण निर्मितना भास आनी भाशेंतली

उतरांय अस्सल कोंकणी आसल्यार कथेक आगळी उबारी येता. ज्योतीलें वाचन मराठीतल्यान चड जाल्ल्यान तिचेर मराठीचो प्रभाव चड आसप हें सभावीक. अनेक कोंकणी उतरां मराठीत गेल्यांत. पूण ती आयज मराठी साज घालून मराठीच जावन घोळटात. तशेंच कोंकणींत घडूंक जाय. जशी ही लेखिका हेर भासांतलें साहित्य वाचून पचयता आनी रचतना आपलें स्वताचें रचता तशेंच भाशेच्या बाबतींतूय घडूंक जाय. तशें घडना अशेंय न्हय. कांय कथांनी मराठीचो प्रभाव निखालस दिसना. तिची धा वर्सां फाटली कथा वाचून पळयल्यार तर लेखिका यत्न करून भास सुदारीत आसा हाची गवाय मेळटा.

ज्योतील्या ह्या कथा झेल्यांत धवाड्या समाजाचे पडबिम्ब पळोवंक मेळटा. आधुनिकतायेवांगडा जे प्रस्न आनी संघर्श निर्माण जाल्यात तांचेर लेखक भोव बरो उजवाड घात. कथांच्यो थोड्यो मर्यादा आसात. त्यो मर्यादा लेखकाच्यो. ह्या मर्यादांची जाण लेखिकेक आसा. आनी देखुनच लेखिका वाडत आसा. वाडत वता तें ऊंच पावतलेंच हाची खातरी बाळगूं येता. ज्योतीकडल्यान आमची हीच अपेक्षा आसा.

**– दामोदर मावजो**

# पूर्व प्रसिध्दी

| | | |
|---|---|---|
| १. कन्यादान | : | 'कोंकणी' दिवाळी अंक १९९७ |
| २. फूल फुलता कळी बावता | : | 'कोंकणी दिवाळी अंक १९९९ |
| ३.त्रिवेणी | : | 'जाग' दिवाळी अंक २००२ |
| ४.उजवाडाची पूजा | : | 'कोंकणी' दिवाळी अंक १९९६ |
| ५.सोनिया | : | 'जाग' दिवाळी अंक १९९३ |
| ६.नवी जाग | : | 'चित्रंगी' दिवाळी अंक १९९३ |
| ७.चिराग | : | 'कोंकण टायम्स' दिवाळी अंक २००२ |
| ८.अप्रूप याद | : | 'चित्रंगी' दिवाळी अंक १९९४ |
| ९.पीळ | : | 'बिम्ब' दिवाळी अंक २००२ |
| १०.स्वीकार | : | 'कुळागर' दिवाळी अंक २०० |
| ११.आत्मभान | : | 'जाग' दिवाळी अंक २००३ |

# मांडावळ


| | | |
|---|---|---|
| १. | कन्यादान | १६ |
| २. | फूल फुलता, कळी बावता | ३० |
| ३. | त्रिवेणी | ३९ |
| ४. | उजवाडाची पूजा | ४४ |
| ५. | सोनिया | ४९ |
| ६. | नवी जाग | ७८ |
| ७. | चिराग | ८९ |
| ८. | अप्रूप याद | ९७ |
| ९. | पीळ | १०१ |
| १०. | स्वीकार | ११६ |
| ११. | आत्मभान | १३२ |

# १. कन्यादान

... केन्ना केन्ना हे एकेच गजालीचें इतलें वायट दिसता, आवय आनी बापायचें केन्ना पटलें ना. देखून ताणी आपणाक जाय तसले पार्टनर वेंचून काडले... हें सगळें म्हज्या जल्माआदीच जाल्लें जाल्यार कितलें बरें जावपाचें! पूण हांव मदींच कडमडलें न्हय? अशें दिसता, ह्या प्रस्नाची जाप सोदतां-सोदतां सुटीच कित्याक, आख्खें आयुश्य सरतलें...

मोगाळ पप्पा आनी मम्मी,

आयज हांव तुमकां दोगांकूय हें निमाणचें पत्र बरोवपाक बसलां आनी हांव हें पत्र नक्कीच पोस्ट करतलें. कारण ह्या मुखार हांव तुमकां पत्र बरोवपाक शकचेंना आनी तुमकां मेळचेंय ना. कारण तुमका म्हजो पत्तो खबर आसचोना.

ह्या म्हयन्यांत म्हाका अठरा वर्सां पुराय जातात हें घडये तुमकां खबर आसत काय? दुबाव ! आयज हांव कायद्यान सज्ञान जाल्लें आसां. म्हजे हांव आतां निर्णय घेवपाक शकतां आनी हांवें तो व्यवस्थित घेतला.

पिरायेचीं बारा ते अठरा अशी एकूण सात वर्सां हांवें हांगा पंचगणींत मदर तेरेझाच्या हॉस्टेलांत काडलीं.आयज तीं सात वर्सां म्हजे मुखार उबीं आसात पूण त्या पयलींचोय काळ म्हाका घट याद आसा. आनी त्याच यादींचेर हांव हांगा कांय दीस जगलें.

आमचें गोंयचें घर. त्या घरामुखार आंगण. आंगणांत तुळस. घरामुखार बांय. खुबशीं झाडां-झोपां. तांचेवयलीं फुलां. मागीलदारांत व्हडलीं व्हडलीं झाडां. आंबे, पणस, नीरपणस, पूण म्हाका सगळ्यांत चड आवडटालें आंगणांतलें धव्या चाफ्याचें झाड. ताचीं चाफी पुंजायतां पुंजायतां म्हज्या कंबरांत येतालें. आनी व्हटी भरून परत ती चांफी आंगणांत रकतालीं तेन्ना पप्पा, म्हाका तूं खूब मदत करतालो न्ही? म्हजें एकान एक फूल तूं परत म्हजे व्हटयेंत घालतालो. ती याद धव्या टवटवीत चाफ्या सारकी ताजी आसा.

तेन्ना हांव शेजारच्या मीना आनी शेखरा वांगडा दोरयांनी, बॉलांनी, लगोऱ्यांनी खेळटालें, हेंवूय म्हाका याद जाता.

आनी पप्पा, सांजवेळ जाली म्हणटकूच हांव वाट पळयत रावतालें. तूं सांगिल्ल्या वेळार केन्नाच येना आसलो. सदांच कळाव करून येतालो. मागीर वांगडाची भुरगीं म्हजीं फकाणां मारतालीं. 'तुजो पप्पा आयज येवचोना' अशें म्हणटाली. तेन्ना म्हजे दोळे भरून येताले. मागीर शेजारच्या सुनिलाक म्हजी काकळूट दिसताली. तो रोखडोच म्हणटालो,'पिंकी, पप्पा-मम्मीचो खेळ खेळुंया? हांव तुजो पप्पा जातां.' फटीच्या काय जायना, हांव त्या पप्पामदीं गुल्ल जातालें. आनी इतल्यान तूं येतालो. कितलोय कळाव जावं वा त्रास पडूं. हांवे सांगिल्लें तें खावपाक हाडपाक केन्नाच विसरनासलो. केन्ना भजीं, केन्ना सामोशे, केन्ना आयस्क्रीम! पप्पा, ते खातना कितली मजा येताली आनी कितलें सूख मेळटालें! म्हज्या खावपा बरोबरच तूं मम्मीक फुलांची फांती घेवन येतालो. चड करून मोगऱ्यांची हळी. मम्मी च्या घेवन मुखार आयली म्हणटकच तूं तुज्या हातान तिच्या केसांत माळटालो. मम्मीक तें व्हडलेंशें आवडनासलें. न्हय मम्मी?

मम्मी, तू दिसपाक खूब सुंदर ! तुमचें जोडें विजोड दिसता अशें कांय लोक म्हणटाले. मम्मी, तुका नाटकांनी, दूरदर्शन मालिकांनी भूमिका करपाक ऑफर्स येताल्यो. तातूंत जायरातींच्योय ऑफर्स आसतल्यो. पयली पयली तूं फाटीं - फुडें जाताली. पूण जेन्ना मेहता अंकल आमगेर आयलो तेन्ना मम्मी, तूं खूब बदल्ली. मागीर तूं सिरीयलांनी काम करपाक लागली. अदीं-मदीं जायरातींतूय टीव्हीचेर, मॅगझिनांचेर दिसपाक लागली.

पप्पा, इतले मेरेन तूं मम्मीचेर खुश आसले. मागीर ती फिल्मांत काम करपाक लागली. आनी म्हजी मम्मी फकत टीव्हीर आनी थिएटरांतूच दिसपाक लागली. उपरांत घरांत किजिलां, वाद जावपाक लागले. मम्मीचें रातचें उसरां घरा येवप, सोरो पियेवप आनी मेहता अंकलाच्या गळयांत पडप हें तुकां सोंसलेंना. आनी हेच खातीर पप्पा, तूं आमकां पयस जालो. 'म्हजेर मम्मीचें लक्ष ना, हे पिरायेचेर म्हाका आवयची चड गरज' ह्याच मुद्द्यावयल्यान झगड्याचो आरंभ जातालो. हरशीं केन्ना वेळार ना येवपी तूं, हांव घरांत नोकरा बरोबर एकलेंच उरतां देखून सदांच बेगीन येतालो. पूण पप्पा, जेन्ना तुवें घर सोडपाचो निर्णय घेतलो तेन्ना म्हजो हुस्को जालो ना? मागीर घरांत हांव, शांता, रामू आनी ड्रायव्हर सहीद हांचेमदीं वाडपाक लागलें.

पप्पा, मम्मी, आसूं त्यो गजाली. तर ह्या पत्राक हांव निमाणें पत्र इतलेच खातीर म्हणटां कित्याक हाचे आदीं हांवें तुमकां दोगांकूय जायतीं पत्रां बरयल्लीं

आसात. फकत तीं पोस्ट करुंक नात. तीं सगळीं म्हजे डायरेंत आसात. म्हाका ती संवयूच जाल्ली. मनांत आयलें वो तुमची याद जाली म्हणजे हांव मम्मीक वो तुका पत्र बरयतालें. पत्र बरयतकूच जिवाक खूब बरें दिसताले. पूण पत्र बरोवप आनी पोस्टांत घालप ना. कितें उपेक? पूण तो एक छंद म्हाका जडलो. तुमकां कल्पना नासतली. पूण पत्रांत लेगीत मन-मेकळेपणान दुसऱ्याकडेन उलोवपाक मेळटा.

आतां ती डायरी म्हजेकडेन आसा. तांतूतलीं सगळीं पत्रां तशाक तशीं आसात. आतां ती अचळय निखळावप म्हणजे दर एक पत्र स्वतंत्र जालें. आतां ह्या पत्रांचो म्हजेखातीर उपेग कितें? आनी हांव ती खंय दवरतलें? आनीक कित्याक म्हण दवरचीं? तीं सांबाळून दवरप म्हणजे वोगीच मनस्ताप. तीं वाचतकूच थोडेंशें थतर-वितर जावप, मागीर घळा-घळा करून रडप. आतां म्हाका तें नाकाच. काळीज निबर करून हांवें आतां कांय निर्णय घेवपाचे थारायल्यात. सामके तुमी दोगांयनी घेतल्यात तशे. अखेर हांव चली कोणाची तर? आतां फकत एकदांच निमाणची नदर त्या पत्रांवेल्यान भोंवडावची अशें दिसता. भूतकाळ पुसून वडोवचे पयलीं एकदांच दोळे भरून तीं अक्षरां, जीं दुकां झडून अदीं-मदीं पुसून गेल्यांत तीं पळोवचीं अशें दिसता. आनी तुमकांय दोगांकूय ह्या पत्रवाचनांत सामील करुन घेवचें अशें दिसता. अशें दिसता, हांवें ती डायरी खणखणीत वाचची आनी तुमी दोगांयनी दोनूय वाटांतल्यान ते डायरेंत तकली घालून पत्रांतलें खरेपण पारखुचें. पूण तें शक्य ना. कारण तुमकां दोगांयकूय बरयतां खरें, पूण तें एकठांय वाचपाक तुमी एकठांय खंय आसात? म्हणटकूच ह्या पत्राच्यो दोन कॉपी करच्यो पडल्यो. एक मूळ पत्र आनी दुसरी ताची फोटोस्टेट. कांयच फरक पडचोना. मम्मी, पप्पा, करूं सुरवात? मम्मी,हें पयलें पत्र हांवें तुका बरयल्लें. तूं म्हाका हांगा पांचगणीक पावन गेल्या उपरांत.

मोगाळ मम्मी -

फाटल्या दिसांनी तूं म्हाका हांगा पांचगणीक पावन गेली. म्हाका हांगाचो वांठार मनापासून आवडलो. कारण एका मे म्हयन्याचे सुटयेंत हांव, पप्पा आनी तूं हांगा भोंवपाक आयिल्लीं. त्यावेळार तुवें म्हाका सहज विचारिल्लें, 'पिंकी, तुका हे शाळेंत शिकपाक आवडटलें?' आनी हांवें तितल्याच फकाणांनी हय म्हणिल्लें. आनी पयर तुवें हांगा पायतना म्हळें, 'हो वांठार तुका आवडिल्लो न्हय? देखून तुका हांगा शाळेंत घालां.' पूण खरी गजाल म्हाका खबर आसली. तुजेबरोबर थंय राविल्लें मेहता अंकलाक नाका आसलें. मेहता अंकल तुजेकडेन उलयतना

हांवें खूब फावटीं चोरून आयकल्लें. हे खातीर तूं तांचेकडेन खूब फावट वाद करी. पूण अंकल हुशार. तुका निर्जाप करतालो. मम्मी, मेहता अंकल केन्ना केन्ना कितलो वायट वागतालो! पप्पाकडेन तुजें केन्ना पटलेंना. पूण पप्पा लेगीत तुजेकडेन केन्ना असो वागलोना. तूं आनी मेहता अंकल केन्ना केन्ना वादाचे तेंगशेर पावतालीं तेन्ना म्हाका खऱ्यांनीच खूब भंय दिसतालो. तुका तो खंयच्याय खिणाक मारतलो अशी म्हाका भिरांत पडटाली. पूण मागीर तुमी दोगांय एक जातालीं, इतलीं की विश्वासूच बसनासलो. अंकल चडसो आमगेर रावतालो पूण हांवे तुका केन्नाच विचारलेंना, तो आमगेर कित्याक रावता काय म्हणून. मागीर ताका हांव नाका कित्याक जालें? आमचें सगळें थारावपी तो कोण? पूण मम्मी, पप्पापरस तूं मेहता अंकलाकडेन बरी वागताली. पप्पान हाडिल्ली फांती तूं चडशी देवाक घाली. पूण मेहता अंकलान हाडिल्ली फांती ताचेकडल्यान माळून घेताली. पप्पाच्या ताटांतल्या उश्ट्याक केन्नाच आपुडलीना. पूण मेहता अंकल तुका आपल्या ताटांतलें भरयतालो. हांव हें सगळें पळयतालें आनी हेंच नेमकें अंकलाक नाका आसलें. मम्मी तूं मेहता अंकलाक आयज ना फाल्यां केन्ना तरी आमच्या घरांतसून भायर काड. हांव शिकून परत येतलें तेन्ना तरी तो आमच्या दारांत दिशिल्लो म्हाका नाका. म्हजी मम्मीच म्हाका जाय.

तुजेंच पिंकी

उपरांत पप्पा, हें तुका बरयिल्लें पत्र.

मोगाळ पप्पा,

हांव हांगा पांचगणीक शिकतां हें तुकां कशें कळ्ळें? मम्मीन सांगले? तें शक्य ना. कारण म्हाका खबर आसा, मम्मी तुजेकडेन उलयना. आमच्या रामूनच तुकां सांगलां. पयर तूं म्हाकां मेळपाक आयलो. खूब बरें दिसलें. कारण तूं आख्खो दीस म्हजेबरोबर आसलो. आमी खूब मजा केली न्हय? बोटींग केलें, हॉटेलांत जेवलीं, मजा मजा केली! तुवें सांगिल्लेप्रमाण तूं म्हाका मेळपाक आयिल्लो, हे हांव मम्मीक केन्नाच सांगचेंना. पूण पप्पा, म्हाका असो मदीं मदीं मेळपाक यो. पप्पा, तूं हांगा रावपाक कित्याक येना? म्हळयार हांगा हॉस्टेलान न्ही आं. हें चलयांचे हॉस्टेल. जाय जाल्यार मोनिका आन्टीक घेवन यो. तिका नाका जाल्यार हांव तुमच्या घरा रावपाक येना, हॉस्टेलांत रावतां. पूण निदान आमी सदां मेळटलीं तरी.

पप्पा, तुवें सांगिल्लेप्रमाण हांव दीसभर खूब खूब अभ्यास करतां. मागीर

तुजो फोटो पळयतां. ‘गुडनायट’ म्हणटां आनी न्हिदतां. पप्पा, हांव तुजेभशेन हुशार जातलें तेन्ना तुका चड आवडटलें न्हीं?’

तुजेंच पिंकी

मम्मी, मागीर हें पत्र हांवे तुका रडत रडत बरयलां. खूब दीस जाले ते गजालीक. हें पत्र बरयतना हांव रडटालें. ताका पत्रावयलीं अक्षरां गवाय आसात. आतां दिसता, हांवें हें पत्र पोस्टांत घालपाक जाय आसलें. पत्र पावनाबरोबर तूं येवपाची? मम्मी वाच हें पत्र.

मम्मी गे ऽऽ

काल रातीं हांव खुबूच भियेलें. रातीकडेन म्हज्या जिवाक बरें दिसनाशिल्लें. हात-पांय दुखताले. पोटांतूय खूब दुखतालें. रातीकडेन जेवलें सुध्दां ना. तशेंच येवन न्हिदलें. पूण बरेऽ रातीं सपन पडून जागें जाल्लेभाशेन जालें. परतें-परतें मुतूंक जाल्लेवरी जालें. म्हाका कांयच कळना जालें. म्हज्या रुमातलें दुसरें चली बेर्था सामकें सूस्त न्हिदिल्लें. हांवे ल्हवूच दिवो पेटयलो तर सबंद हांतरूण रक्तान भरिल्लें. म्हजो फ्रॉक, तोवूय रक्तान माखिल्लो. हांव सुमाराभायर भियेलें. म्हाका दिसलें, चुकून ब्लेड वा सुरी हांतरुणाचेर उरली काय? पूण ना. तसलें कांयच नासलें. मागीर म्हाका चड भंय दिसलो. हांवे बेर्थाक उठयलें आनी ताका म्हळें, ‘बेर्था, आतां हांव मरतां.’ म्हजी अवस्था पारखून तें मोट्यमोट्यान हांसपाक लागलें. हांव ताचेर तापलें. हांवे ताका सिस्टरीक आपोवपाक सांगलें. तें म्हणपाक लागलें, ‘रातचीं दोन वरां जाल्यांत. आतां सिस्टरीक उठोवप सारकें न्ही.’ ताणें मागीर म्हाका मदत केली. सगळें समजावन सांगलें, आपल्याकूय अशेंच जाता. म्हाका भंय दिसता म्हणून हांव ताचेच कुशीक न्हिदलें. पूण न्हीद पडलीना. परत-परत हांव बाथरुमांत वचत रावलें. मम्मी, खूब रक्त येतालें गे!

दुसऱ्या दिसा मात सिस्टरीन सगळें समजावन सांगले. चार दीस पी.टी करपाक दिलीना. त्या दिसांनी म्हाका तुजी खूब याद येताली. तुका उचकी लागिल्ली गे?

तुजेंच पिंकी

एकूण कितें, हांव निसर्गक्रमान व्हड जालें. सिस्टरीन सगळें शिकयलें. पयलीं पयलीं म्हजें कमर खूब दुखतालें. वोगी न्हिदून रावचें आनी मम्मीन म्हाका सांसपित रावचें, म्हज्या केंसांतल्यान हात भोंवडावचो, अशें म्हाका दिसतालें. सिस्टरीन सुशेग घेवपाचें परमिशन दिलें. पूण म्हजे केंस कोण सांसपितलो? हांव 'व्हडलें' जालां म्हणून म्हाका कोणेंच मायेन वेंगांत घेतलें ना. ती इत्सा तशीच उरली. मागीर मम्मी, ते उपरांत तूं आयली. पूण विचारलें लेगीत ना की, तुजी पाळी जाली?

पप्पा, हांवें कांय पत्रां फकत तुकांच बरयिल्लीं आसात. कारण म्हाका खबर आसा, तूं खूब हुशार. बुदवंत. सगळ्या प्रस्नांक तुजेकडेन जापो आसात. तुं व्हडल्या व्हडल्या सेमिनारांनी भाशणां दिता. मानसशास्त्राचो प्रोफेसर म्हण लोक तुकां प्रस्न विचारतात आनी तू तांकां जापो दिता. देखून हें पत्र फकत तुकांच.

मोगाळ पप्पा,

पांचगणीक येत पासून गळयांत आशिल्ल्या पोवळयांचे माळेचें सगळयांकूच कवतूक आनी अजाप. म्हाका याद जाता, हांव ल्हान आसतना ती भांगरान बांदिल्ली पोवळयांची माळ तुवें म्हज्या गळयांत घातिल्ली. ह्या हॉस्टेलांत चडश्यो चलयो कॅथोलीक आसात. तातूंतले एके चलयेन म्हाका विचारलें, 'तुज्या गळयांत हें कितें?'

हावें म्हळें 'पोवळें.' ताणें विचारलें 'पोवळें म्हळयार कितें? म्हज्या गळयात क्रॉस आसा. तो क्रॉस म्हळयार कितें तें म्हाका खबर आसा. आमच्या देवाक जेजू ख्रिस्ताक ह्या क्रॉसार मारिल्लो देखून तो क्रॉस.' तर म्हाका जाप दिवपाक जमलेंना. हांवें इतलेंच म्हळें, 'म्हजो पप्पा हुशार आसा. ताणें नक्कीच कसल्यातरी बऱ्या हेतून हें पोंवळें म्हज्या गळयांत घालां.' पप्पा, फुडले फावटी येतना ह्या प्रस्नाची जाप घेवन यो.

तुजें पिंकी

मम्मी, हें पत्र तुका बरयिल्लें. पत्र सामकें रागान बरयिल्लें. म्हाका खूब राग येतकूच व्हडलें पत्र बरोवपाक जमना. जशें राग येतकूच चड उलोवपाक जमना. देखून हें पत्र.

मम्मी,

म्हाका आदींसावन दुबाव आशिल्लोच, पूण म्हाका दिशिल्लें तूं म्हाक आपूण जावन विश्वासांत घेतली. जशेपरी म्हाका पप्पान विश्वासांत घेतिल्लें. पूण तुवें कांयच सांगलें ना. शेवटाक तुवें म्हाका आवडूं नाशिल्ल्या मेहता अंकलाकडेन लग्न केलें. आता आनी म्हाका तें सगळयांत निमाणें कळप? तेंवूय वर्तमानपत्रावयल्यान? अर्थात, तूं व्हडली सिनेमा नटी. आपले चलयेक सांगचीना तें पत्रकारांक सांगतली. पूण पयलेंच आपूण जावन म्हाका सांगिल्लें जाल्यार हांव कांय तुका नाका म्हणचें नासलें. आनी म्हणिल्लें जाल्यार सुध्दां तूं खंय आयकुपाची? पूण म्हाका सांगिल्ल्याचें समाधान मेळपाचें. सोड. काल राती एक इश्टीण पेपर घेवन म्हज्या रुमार आयली आनी म्हणपाक लागली,'तुजी आवय मशहूर डायरेक्टर सुधीर मेहता हांचेकडेन लग्न जाली. हो पळय फोटो. आमकांय पार्टी जाय.' हांव तो फोटो पळयत उरलें आनी म्हळें, 'म्हाका खबर आसा. मम्मीन म्हाका पयलींच सांगिल्लें.'मम्मी, हांवें पयलेच फावट फट मारली. म्हाका देव माफ करतलो?'

तुजेंच पिंकी

पप्पा, जरी जायतीं पत्रां मम्मीक उद्देशून आसलीं तरी कांय पत्रां तुमकांय आसात. आतां उदाहरण दिवचें जाल्यार हें पत्र पळय.

मोगाळ पप्पा,

काल आमी सगळयो इश्टीणी मम्मीचो नवो सिनेमा 'अर्धांगिनी' पळोवपाक गेल्लीं. मम्मीन खरेंच सुंदर अभिनय केला. पप्पा, जमल्यार तूं तो सिनेमा मुजरत पळय. तुका समाधान भोगतलें. कारण तुका मम्मी जशी जाय आसली, तशीच आसा अर्थात् सिनेमांत. मम्मी हांगा येताली तेन्ना बऱ्याच चलयांनी तिका पळयल्या. पूण जांणी तिका पळोवंक नासली तीं म्हणपाक लागलीं, 'पिंकी, तुजी मम्मी कितली सुंदर दिसता न्ही? पूण तूं मात तितलें सुंदर न्हय.' त्या उतरार दुसरे चलयेन म्हळें,'ताची आवय सुंदर, बापूय काळो काळो किट्ट!' हांव त्या दोगांयकडेन खूब झगडलें. 'म्हजो बापूय काळो आसूं वो कुरूप, तो खूब हुशार. देशाविदेशांत ताका लॅक्चरां दिवपाखातीर खास आपोवन व्हरतात.' तेन्ना त्यो वगी पडल्यो. कारण वर्गांत म्हजो सदांच पयलो नंबर येता. हांव हुशार बापायची चली म्हण

सिध्द करपाक तें बऱ्याक पडलें. पप्पा, पत्रांत हांवें तुका चुकून काळो म्हळा. रागार जांव नाका. आनी येवपाचें टाळूं नाका. हालीं मम्मीपरस तूंच सारको येता. तुजी म्हाका आतां संवय जाल्या. काल तुवें म्हाका फोन करून सांगलें, चार म्हयने अभ्यासाखातीर जपानाक वतां. वांगडा मोनिका आँटीय वता. जाणां पप्पा, मम्मी नव्यान लग्न जायत पासून हांगा चड येना. आनी आतां तुंवूय चार म्हयने ना. पूण वचचे पयलीं म्हाका एकदां मेळून वच. तुमी दोगांय आपल्या करियरांत गुल्ल जाल्यांत तें पळोवन बरें दिसता.

पिंकी

पप्पा जपानाक गेलो. मम्मीचें येवप खूब कमी जालें आनी एक दीस मम्मीकडेन उलोवपाचें ना अशें थारावन एक पत्र बरयलें. तेंच हें पत्र.

मम्मी,

काल एके इश्टिणीकडेन झगडें जालें. तें एक अनाथ चली. सुझान. एक दीस सांजचीं आमी अशींच बशिल्लीं. हांव सहज तुमचे दोगांयविशीं उलयतालें. 'म्हजी आवय नामनेची अभिनेत्री जाल्यार म्हजो पप्पा एक जागतिक किर्तिचो विद्वान.' खरें तर सुझानाक दुखोवपाचो म्हजो निखालस हेतू नासलो. पयलीं हें सगळें आयकून तें म्हणपाक लागलें, तूं लकी. तुजो आवय-बापूय कोण तें तरी तुका खबर आसा. शिवाय, ते प्रसिध्द आसात. म्हाका म्हजे आवय-बापूय कोण तेच खबर ना.' म्हाका दिसता, हांवें हांगाच विशय सोंपोवपाचो पूण पिशासारकें तुमच्या दोगांयविशीं उलयत रावलें. आनी मागीर अकस्मात कितें जालें खबर ना. अचकीत सोरोप आंगार येवचो तशें तें म्हज्या आंगार आयलें आनी म्हणपाक लागलें, आवय-बापूय आसून कितें उपेग? तीं तुका खंय घरा व्हरतात? तेपरस आवय-बापूय नाशिल्लेंच बरें. मागीर हांव ताचेकडेन खूब झगडलें. हांवें म्हळें, 'आतां आवय बापायबरोबर रावपाक मेळना जालें म्हूण कितें जालें? आवय-बापूय आसा म्हणटकूच केन्ना तरी फुडें फाटीं ताचे बराबर रावपाक मेळटलें!' तें खूब पिकार जालें. ताणें म्हळें, 'फुडल्यो गजाली सोड. हांव आवय-बापूय नासून अनाथ; तूं आसून अनाथ. तुजे आवय-बापूय तुका पयशे धाडटा जायत. पूण पैशांनी सगळें जाता? तूं हांगा येत सावन एकाय हॉलिडेंत खंय वचूंना. सिस्टरीबरोबर हॉस्टेलांत एकलेंच रावता.' हाचेवयर ताचेकडेन म्हाका झगडपाक येना जालें. हांव,

वगी रावलें. कारण पोरूं सिस्टरीन सगळयां सामकार म्हाका विचारिल्लें, 'तूं हे सुटयेंत खंय वतलें? ह्या वर्सा सगळीं भुरगीं खंय खंय वतलीं. तूं वचना जाल्यार तुज्या एकल्याखातीर हांगा कितें तरी व्यवस्था करची पडटली.' हांव वगीच रावलें. तिका समजलें. मम्मी, खरेंच, त्या वर्सा हांव एकलेंच भूत कशें हॉस्टेलांत रावलें. फकत म्हाका जेवण दिवपाखातीर एकलोच कूक आसलो. तोय म्हजेर खूब फडफडलो. कारण ताका म्हजेखातीर रजा मेळूंक नासली. मम्मी, हांव खरेंच अनाथ गे? हालींसरा तूं मेळपाक येना. पूण एक पत्र तरी धाड गे. म्हजेखातीर न्ही, पूण बाकीच्या भुरग्यांक दाखोवपाक तरी. कारण तांकां तांच्या मम्मीचीं पत्रां येतात. म्हज्या दर वाडदिसाक हांवूच तुज्या नांवान म्हाका कार्ड पोस्ट करतां. कारण आमचीं नांवां त्या दिसा बोर्डार लायतात आनी आयिल्लीं कार्डाय. म्हजो वाडदीस येता म्हळयार खरेंच नाका जाता.

पिंकी

मम्मी, तुका याद जाता? उपरांत एके भेटेंत हें पत्र हांवें तुका दाखयल्लें. तेन्ना तूं खूब खंती जाल्ली. म्हाका वेंगेंत काडून रडली लेगीत. घडये तुवें तो अभिनय केल्लो आसूं येता. पूण म्हाका घरा घेवन गेलीना. मनांत नासुनूय हांवे तुका सांगिल्लें, मेहता अंकलाकडेन हांव झगडचें ना, ताणें कितेंय म्हळयार हांव लक्ष दिवचें ना. तरी तुवें आयकलें ना. मम्मी, म्हज्या घरांत परक्या मनशाक हाडून तुवें म्हाका परकें केलें. तुवें तेन्ना इतलेंच म्हळें, तूं हांगा आसा तेंच बरें आसा. तुज्या समाधानाखातीर तुवें म्हाका जाय त्यो वस्तू घेवन दिल्यो. हांवे तुका कांयच म्हळें ना. कारण दुसऱ्या दिसा तुज्या नव्या फिल्माचें शुटींग आसलें. तूं, पप्पा, दोगांय म्हाका पयशे धाडीत आसलीं. म्हाका खंय कितें उणें नासलें. आनी जें कितें उणें आसलें तें तुमी म्हाका केन्नाच दिलें ना.

मम्मी, तुका याद जाता? हेच भेटेंत हांवें तुका सांगिल्लें, पापाचे केंस धवे जाल्यात आनी ताका हालींसरा डायबिटीसचो त्रास जाता. म्हाका दिशिल्लें, तूं एकदां 'वचून येवंया,' अशें म्हणटली. पूण तुवें कानार मनार घेतलेंना. इतलें निबर जावप कांय मनशाक कशें जमता?

मम्मी, पप्पा, फुडें पत्र वाचात. खरें म्हळयार तें एक प्रातिनिधीक पत्र आसा. फाटलीं सात वर्सां ना चुकतां नेमान तुमकां अशीं पत्रां बरयलीं. अर्थात् तीं सातूय पत्रां आतां तुमकां धाडप बरोबर न्ही. तांतूतलें एक धाडटा. कोणाक

बरयल्लें धाडूं? मम्मी, तुका बरयल्लें काय पप्पा, तुका बरयल्लें? खंयचेंय पत्र धाडपाक हरकत ना. कारण मजकूर सादारण सारकोच आसा. हेंच धाडटां. पप्पा तुकाच बरयल्लें पत्र धाडटां.

मोगाळ पप्पाक,

भारतांत कांय कडेन आसता तशी हांगा पांचगणीक शाळांक मे म्हयन्याची सुटी आसना. मे म्हयनो म्हळयार हांगा सगळोच बोवाळ. गांव फुगता. म्हळयार चडानचड भोंवडेकार हांगा भेट दिवपाक येतात. आमकांय सांजेची पासयेक वचपाक खूब मजा येता. तशी परीक्षा तोंडार पाविल्ली आसता. पूण परीक्षेक कोण भियेता? हांव हुशार भुरगें तुजे भशेन. आतां मे म्हयन्या उपरांत जून म्हयन्यांत पावस सुरू जातलो. मागीर आमचे शाळेक सुटी वर्सा भशेन. म्हजे मुखार व्हडलो प्रस्न. सुटयेंत खंय वचप? ज्या चलयांक घर आसा तीं सगळीं आपआपल्या घरा वतात. हांव खंय वचूं? म्हाका घर आसा? हांवे हांगाच पांचगणीक रावपाचें. बरें, भायर वतलें म्हळयार पावस पडत आसता. अभ्यासूय नासता. परीक्षाय सोंपिल्ल्यो आसतात. भायलो पावस पळोवपाचो आनी आपलें एकसूरपण आपणेंच सांसपित रावपाचें. कॅसेट घालपाची आनी वॉकमन कानाक लावन बसपाचें. वरांची वरां. सगळयाचो सूर एकूच. केन्ना केन्ना हे एकेच गजालीचें इतलें वायट दिसता. आवय आनी बापायचें केन्ना पटलें ना. देखून ती मेहताकडेन लग्न जाली आनी पप्पा, तुंवूय आपल्या करियरांत घुस्पून पडलो. आपल्याक फाटल्याफुडल्यान जाय म्हणून आपलीच सेक्रेटरी मोनिका बरोबर तुवें परत लग्न केलें. हें सगळें म्हज्या जल्माआदींच जाल्लें जाल्यार कितलें बरें जावपाचें! पूण....

-पिंकी

पप्पा, मम्मी वगीच गैरसमज करून घेवं नाकात. तुमी आपलें सूख सोदलें हातूंत वायट कांय ना. रागूय ना. तें तुमचें स्वातंत्र्य! हें सगळें वाचून घडये तुमी म्हणटलीं, इतलें हांव जाणटें जालें? खरेंच ही भाशा, हे विचार? सतरा - अठरा वर्सांचें दिसना न्ही? अशे विचार मनांत येतकूच हांव भियेतां आनी धांवत वचून हारशांत पळयतां. म्हजे केंस बी पिकूंना मू? एके परीन तुमचे उपकार मानूंक जाय. कारण इतले ल्हान पिरायेर तुमी म्हाका व्हडलें केलें.

उबगण आयली न्ही सगळीं पत्रां वाचून? एकदांच वाचात. परत वाचूं

नाकात आनी हांवेय वाचपाचो प्रस्न येना. कारण तुमकां धाडून उरलेलें सगळें हांव पिंजून उडोवपी. ह्या पत्रांबरोबर हांव म्हजें पूर्वायुश्य पुसून वडोवपाक सोदतां. तें पुसलेशिवाय म्हाका म्हज्या नव्या आयुश्याची सुरवात करपाक मेळचीना. आदल्या आयुश्याचें वजें तकलेर दवरून हांव म्हज्या आयुश्याचो नवो रस्तो माडूंक शकचों ना.

पप्पा, हें पत्र बरयलां मम्मीक उद्देशून. पूण तसलेंच एक पत्र तुमकांच बरयलां अशें समजुचें.

मम्मी,

म्हज्या हांगाच्या शिक्षणाचो कोर्स पुराय जाला. फुडल्या दोन म्हयन्यांभितर सगळें सोंपतलें आनी म्हाका अठरा वर्सांय सोंपतलीं. आतां मेरेन तुवें आनी पप्पान म्हाका खूब पयशे धाडले. गरजेपरस चड. म्हाका गरजेपुरते दवरून उरिल्ले पयशे हांव गरजवंत भुरग्यांक दितालें तें सोड. आतां मात म्हजे पांय म्हाका हालोवंक जाय. शिक्षण पुराय जालें म्हणटकूच नोकरी मेळटली. म्हजी आयजवरेची प्रगती पळयल्यार नोकरेक व्हडलीशी अडचण येवचीना अशें दिसता. हाचेफुडें हांव तुमचेकडल्यान पयशे घेंवचेंना. कारण इतलो तेंप तुमी म्हाका फकत पयशेच दिले. तातुंतल्यान तुमकां हांव मेकळें करतां. आतां एकूच मागणें आसा. पुराय करतलीं? पप्पाकूय अशेंच पत्र बरयलें. मागणें अशें - फकत एकूच म्हयनो आमी तिगांय एकठांय रावंया. म्हजेखातीर. सज्ञान जावचें आदीं एका अज्ञान भुरग्यान आपल्या आवय-बापायकडेन केल्ली मागणी वा हट म्हणूं येता. पूण ह्या एका म्हयन्यांत तुमी आपआपलें स्वतंत्र जीवन विसरपाचें. मम्मी, तुवें मेहता अंकलाक विसरपाचें. पप्पान मोनिका आण्टीक विसरपाचें. आनी फकत म्हजे पप्पा-मम्मी म्हणून म्हजेबरोबर जगपाचें. म्हजीं पप्पा-मम्मी जातना तुमकांय घोव-बायलां जावचें पडटलें हें विसरूं नाकात. आमी खंयूय रावुंया. खंय शहरांत ना जाल्यार साद्या खेड्यांत लेगीत. तुमचें दोगांयचें पटना हें म्हाका खबर आसा. फकत म्हयनोभर ही कसरत तुमी करपाक शकतलीं? तुमच्यो आतांच्यो भूमिका विसरून आदल्या भूमिकांत रिगतलीं? तुमच्या पिंकीखातीर?

आयुश्यांत हांव तुमचेकडेन हाचेपरस आनीक अदीक कांयच मागना. आनी मागचेंय ना. एका म्हयन्या उपरांत तुमी परत आपापलें जीवन जगपाक मेकळीं आसतलीं आनी त्या म्हयन्याच्या भांडवलाचेर हांव म्हजें फुडलें आयुश्य

जियेतलें. तुमी म्हाका स्वतंत्रपणान मेळटलींच, पूण म्हाका आमी तिगांय मेळून एक युनिट कशें एक म्हयनोभर रावपाचें आसा. म्हाका खबर आसा, तुमकां खूब त्रास जातलो. घडये आदल्यासारकें जगपाक जमचेंना. पप्पा, तुमकां नाटक करचें पडटलें. ॲक्टींग करची पडटली. पूण मम्मी, तुका ॲक्टींग करपाक त्रास पडचे नात. आनीक दुसरो उपाय ना. म्हाका कांय तुमी घरा व्हरूंक शकनात. म्हाका घरा व्हरप म्हळयार तुमचेर व्हडलें संकट! तुमी म्हजीं आवय-बापूय पूण आपले चलयेचो हक आपल्याचेर आनी आपल्या घराचेर आसा हें आपल्या पार्टनराक सांगपाचें धाडस तुमच्या दोगांयचेठांय ना. देखून म्हाका तुमचे मर्जेआड येवपाचें ना. तरी बरें, तुमी दोगांय आदींच शाणेपणान वागलीं आनी म्हजे उपरांत आनीक भुरगीं जावपाक दिलीं ना. नाजाल्यार तांची गत म्हजेपरस वेगळी आसची नासली.

बाकीचीं कितलींशींच पत्रां कुशीक काडल्यांत. गेलें तें आयुश्य. तें परत येवचेंना आनी तें उस्तून काडपूय नाका. सात वर्सां ह्या रुमांत जगलें, एकटें जावन. आतां जगपाक येता तशें जगतां. आतां हें निमाणें पत्र बरोवन सोंपयतां. कांय दिसांआदीं आमचे हेडमिस्ट्रेसीन हांगचो कोर्स सोंपपाक आयला म्हणपाची जाणीव करून दिली. आतां म्हजेमुखार व्हडलें प्रश्नचिन्ह! हांव कितें करूं? खंय वचूं?

फाटलीं सात वर्सां म्हाका बेस्ट विद्यार्थिनी म्हणून मेळिल्ल्या इनामां खातीर म्हजो हांगा काल व्हडलो भौमान जालो. रातचें गेट टुगेदर आशिल्लें. प्रोग्राम खूब बरो जालो. म्हजो भौमान कोणाचे हस्तुकी जावचो? मदर तेरेझाच्या हातान म्हजो गौरव जालो. त्या महामायेच्या स्पर्शान हांव पवित्र जालें. खऱ्यांनीच सांगतां, ही संद आसुनूय ह्या कार्यक्रमांक जे आयलेनात तांचे सारके दुर्दैवी मनीस दुसरे नात. आनी तांतूय तुमच्या दोगांयचो आस्पाव जाता.

म्हज्यांत आकांताचो बदल जाला. मॅच्युरिटी म्हणटात ती वस्त हीच आसुंये दुसरी तिसरी न्ही. मदर तेरेझांनी त्या कार्यक्रमांत भाशण केलें. सामकें ल्हान भाशण. व्हडलीं मनशां इतलें उणे उलयतात हें म्हाका पयलेच खेप कळळें. पूण तिचें एक एक उतर म्हळयार! म्हज्या गळयांतल्या हजार पोवळयांचें मोल तिच्या एका एका उतराक. मदरच्या उलोवण्याचे म्हजेर खोल परिणाम जालो हें वेगळें सांगपाची गरज ना. तिचीं उतरां आयकून म्हाका दिसलें, इतले दीस म्हाका जें दुख भोगतालें तें कितलें ल्हान! कितलें फट! केन्ना केन्नाय म्हाका तुमच्या दोगांयच्या जगण्याचो दुस्वास दिसतालो. तुमचें जगप हें आदर्श जगप अशेंय दिसतालें.

कारण पप्पा, तूं बुदवंत, हुशार. तुवें तुजी बुदवंतकाय कसाक लावन गुणांचें चीज केलें. कितलें सुंदर तुमचें जीवन! तुमी आपले - आपणांक घडयलीं. आनी समाजामुखार उबीं केलीं.

पूण जेन्ना हांगासरल्या मनशांचे जिणेचेर नदर मारली तेन्ना मम्मी, पप्पा, तुमचें गिड्डेपण नदरेंत भरलें. हांवें हांगा कितें पळयलें? ही मदर तेरेझा खंयची? ह्यो तिगेल्यो असंख्य अनुयायी सिस्टरी खंयच्यो? ह्यो खंय सावन आयल्यात? कोण युरोपची, कोण जपानची, कोण स्पेनची. कोण पुर्तुगालची जाल्यार कोण इतालीची. तांगेलें आदलें आयुश्य नक्कीच सुख-सोयीचें आशिल्लें. आपणालो प्रगत देश सोडून त्यो हांगा आयल्यात. त्यो आपल्या आपणाक घडयतात? काय आपणालें जीवन पिळून कोणाक संजीवनी दितात? तांच्या वावराक कितें म्हणचें? समाजसेवा? इतलें गुळगुळीत उतर वापरप म्हळयार तांगेल्या कार्याचो तो अवमानूच. धर्मप्रसाराखातीर त्यो आयल्यात, इतली सोपी जाप दिवप म्हळयार ती आत्मवंचना, आत्मप्रतारणाच जातली.

समर्पित जीविताचो एक आदर्श म्हाका पळोवपाक मेळ्ळो. खरें म्हळयार ख्रिश्चन, हिंदू हीं आमी दसयिल्लीं लेबलां! दर एका बऱ्या मनशामदीं हो अंश आसता आनी आसूंकच जाय.

पप्पा, मम्मी, म्हाकाय दिसतालें तुमचेसारखें वैभवी, झगझगीत, आलिशान जीवन जगचें. फुडाराक म्हजेर उपाट प्रेम करपी एक सांगाती म्हाका मेळचो. कारण आयजवेर म्हजेर कोणेंच प्रेम करुंक ना. आनी ताचेबरोबर संसाराचो रथ चलोवचो. पूण कांय निर्णय परिस्थिती घेवपाक लायता. हांव पयलीं येवजितालें तेन्ना म्हाका दिसतालें, संवसारांत म्हजे इतलो दुख्खी आनीक कोण ना. म्हज्या दुख्खाकडेन दुसऱ्या कोणाचो हात पावूंक शकना.

आतां म्हाका दिसता, दुसऱ्याच्या दुख्खाकडेन पावपाखातीर म्हाका जितले सुंदर हात आसात तितले दुसऱ्या कोणांक नात. ऐहिक सुखान बुडोवन ते हात म्हेळे करचे परस कोणाच्या दुख्खांत ते बुडयल्यार ह्या हातांचे सार्थक जातलें. आतां हाजेफुडें हांव कितें करतलें? खंय वतलें? हें नक्की सांगपाक जावचेंना. पूण जंय आसतलें थंय तुमचें पिंकी, फाटली सात वर्सां सारल्यांत तांचे परस नक्कीच सुखांत आसतलें. आतां हांव पूर्ण स्वतंत्र जालां. म्हज्यो आतां पालकांकडल्यान, समाजाकडल्यान कसल्योच अपेक्षा नात. आनी जंय अपेक्षा नासता थंय दुख्खूय नासता. कारण सगळें दुख्ख अपेक्षाभंगाक लागुनूच निर्माण जाता.

आतां मेरेन म्हाका दिसतालें, हांव एकटें आसां. पप्पा-मम्मी सुध्दां म्हजीं नात. पूण आतां दिसता, अख्खी मानवजात म्हजी.

पत्र सोंपयतां. जाप धाडूं नाकात. आनी खंय धाडटलीं? आजूच हांव ह्या हॉस्टेलांतल्यान भायर सरतां. सात वर्सां आदीं मम्मीन हाताक धरून हांगासर हाडून सोडिल्लें. आयज हांव कोणाक तरी मायेचो हात दिवपाखातीर भायर सरून वतां. नाय जाल्यार म्हाका खंय दवरचें कितें करचें, हो तुमचो प्रस्न हांवूच सोडयतां. कारण तुमकां आनी म्हजो कसलोच त्रास जावपाक नाका, म्हाका मेळपाचो लेगीत. मम्मी, आतां तूं चड सुखांत रावतली. आनी पप्पा, तुमकांय म्हाका मेळपाक येवपाचे कश्ट ना.

आनीक एक गजाल, ती खूब म्हत्वाची. मम्मी, पप्पा, तुमकां याद जाता जाल्यार पळयात. तेन्ना आमी तिगांय एकाच संवसारांत नंदतालीं. खंयच्या तरी एका सुखाच्या खिणावेळार मम्मीन काय पप्पान, कोणें तें याद जायना पूण दोगांयनी एकमतान, एकमुखान म्हणिल्लें 'आमच्या पिंकीचें कन्यादान आमी व्हडा उमेदीन करूंया.' हरशीं तुमचीं उतरां केन्ना घाळ वचनात. पूण त्या खिणाक वात्सल्य नांवाचे भावनेन तुमचो घात घेतिल्लो आनी तुमी तशें उलोवपाक पाविल्लीं. सोड. पूण हांव फकत आयज त्या प्रसंगाची तुमकां याद करुन दितां.

मम्मी, पप्पा, हाची मात तुमकां घट याद आसतली. मम्मी, तुवें एकदां म्हणिल्लें, शिक्षण पुराय जावन हें हॉस्टेल सोडटां तेन्ना आपूण ह्या हॉस्टेलाचे संस्थेक व्हडलें डोनेशन दिवपी. पप्पा, तूं हांगासर आयिल्लो तेन्ना हांगासल्लें वातावरण पळोवन खूब प्रभावित जाल्लो आनी तुवें म्हणिल्लें, हे संस्थेक म्हाका डोनेशन दिवपाक जाय. केन्ना आनी कितलें दिवं तें सांग.

आयज हांव हें हॉस्टेल सोडटां. पूण मम्मी, पप्पा, तुमच्या वेगळया डोनेशनाची संस्थेक गरज ना. कारण तुमी दोगांयनी आपणाली धूव खऱ्या अर्थान हे संस्थेक दान केल्या . खऱ्या अर्थान म्हजें कन्यादान जालां. आनी तुमी तें केलां. तुमकां खूब पुण्य लाबतलें.

तुमचे पिंकी

ना,

सिस्टर प्रगती



# २. फूल फुलता, कळी बावता

म्हाका पळयनाफुडें आई कांचवेली आनी आईक पळोवन हांव अजापीत जालें. फाटल्या वर्सभरयांत आईमंदीं कितलो बदल जाल्लो! आई खूब बरी दिसताली.

'आगो, अशें अकस्मात शें? पयलीं कांय कळोवप ना?'

'कितें कळोवपाचें गे? परक्याच्या घरा थोडेंच आयलां हांव.'

'हय,तेवूंय खरेंच.'

आई च्या करपाक भितर गेली. हांवे म्हजी बॅग खाटीपोंदा धुकल्ली आनी जे कुडींत हांव ल्हानाचें व्हड जाल्लें ते कुडींत हांव नव्यान पळोवपाक लागलें. खूब बदल जाल्लो. वणटीचेर ऑयल पेंट आशिल्लो. पड्डे नवे आसले. खाटीचेर सुंदर नवी चादर आशिल्ली. उश्याक सोबीत अशो चिरयो घाल्ल्यो. मेजार फ्लावर पॉट आशिल्लो. पुस्तकां आशिल्लीं आनी आईचो फोटो लेगीत. हालींच काडला आसतलो. म्हजी नदर भिरभिरत आशिल्ली. मन अस्वस्थ जालें. बाबाची कसलीच याद हे कुडींत नाशिल्ली.

'घे'

नवें सुंदर कप बशींत आई म्हाका च्या दिताली. तिचो हात थरथरतालो. हांवे नकळचां तिचो स्पर्श चुकोवन कप बशी घेतली. बाबावांगडा च्या घेवपाक कितली मजा येताली! बाबा कितल्योच गजाली सांगत रावतालो. खूब हांसतालो. खूब हांसयतालो आनी म्हणटालो,

'सुमी, तूं हांसता आनी सकाळ कशी फुलता पळय.

आई सदचेसारकी म्हजेसरीं बसली ना. म्हजे फाटीचेर, म्हज्या माथ्याचेर तिणें आपलो हात पोशेलो ना. म्हाका दिसलें, हांव केन्ना काय च्या पियेवन परत वचपाची ही वाटूच पळयता काय कितें? आई खूबच अस्वस्थ दिसताली.

'आई',

'कितें गो?'

'बाबाचो एक फोटो एनलार्ज करून लावया ह्या हॉलांत?'

'अं... आं...'

'आई, बाबाची वाजोवपाची पेटी खंय दवरल्या गे?'

'कित्याक? ताचें सगळें सामान वयर माळयार उडयलां. पेटीय थंयच दवरल्या.'

'माळयार?'

'हय. हांगा अडचण जावपाक लागली गो.'

'आई, हांव न्हावन येतां.' अशें म्हणत हांव हाताक लागता ते कपडे घेवन मान्यांत गेलें.

मान्र्यांत स्टीलची बादली आसली. बाबाचें आवडटें गंगाळ नासलें. हांव नळा सकयल बसलें. थंयसावनच आईकडेन उलोवपाक लागलें.

'आई गे...'

'सुमी गो, तुजेखातीर जेवपाक कितें रांदूं?'

'कितेंय कर गे. तुका आवडटा तें.'

'आयज हांव जेवपाक ना गो. शाळेंत आयज कोणाची तरी पार्टी आसा. थंयच खातलें.'

'अशें? मागीर रातचें मस्तपैकीं तुज्या हाताचें शीत हुमण जेवतां.

आतां हांवें कितें हाडलां तेंच खातां.'

'नाका गो. तुजे आवडिचो इल्लो मसाले पुलाव करतां. रोखडोच जातलो पळय कुकरांत.'

'प्रेशर कुकर घेतला?'

'हय. आनी मिक्सरय घेतला. आयजवेर म्हज्या जिवाची कितली ओढाताण जाल्या. आतां मातशें सुख लावन घेतां.'

हांव कांय उलयलें ना. न्हावन भायर आयलें.

हांगा येतसावन हांव सगळें पळयतां. ह्या घरांत सगळें ठाकठीक. सगळें

वेवस्थीत. एका समर्थ दादल्याचो हात दर एके वस्तीक लागिल्ल्याचें दिसतालें.

'आई, हांव करून घेतां पुलाव. तुका वेळ जाता जाल्यार वच तूं.'

'खरेंच करून घेता मगो? उपाशीं रावूं नाका आं.'

'म्हजे सारकें खादाड चली उपाशीं रावंक शकता? बाबा तर सदांच म्हणटालो, गाये सारकें सबंद दीस चरत आसता.'

'खंय गो? ल्हानपणाचें आतां कांयच उरूं ना. म्हाका तर आयज तूं सामकें, सुकिल्लेभशेन दिसता. जिवाक बरें ना?'

'ना गे. बरें आसा. म्हाका खंय कितें जालां? आमचे जांवय बरो आसा न्हय?'

'हय.'

'हालींसरां तूं पयलींसारकीं पत्रां बरयना.'

'घरांतलें व्यापूच सोंपनात गे.'

'हय गो. व्याप वाडले म्हणटकच तकली वयर काडपाक मेळना. आयचेंच पळय, कितल्या दिसांनी तूं आयलां. शाळेंतल्यान बेगीन येतलें म्हळयार फाटल्यान हजार कामां.

साडी न्हेसता न्हेसता आई उलयत आशिल्ली. कितली चापून चोपून वेवस्थीत न्हेसता पळय. आईचो आंगलोटय सुंदर. सडपातळ. आजूनय छाती डौलदार. पोटाची कात मातूय वाडूंक दिवंना. कात आदींपरस चड नितळ जाल्या.

'आई, साडी सुंदर आसा. खंय घेतली?'

'आं?'

आई बरीच गोंदळळी. मोतयांचो रंग आईक बरो दावतालो. ब्लावजूय मॅचींग. एका हातांत भांगराचीं चार कांकणां आनी दाव्या मनगटाचेर नाजूक घडयाळ. आई म्हजेपरस तरूण दिसताली. म्हजेपरस उजळ दिसताली. तिचें मुखामळ पळयतकच ही चाळींशींतली बायल अशें कोणूच म्हणचो ना. कपलावयलो कुकूम ठळकपणान उठून दिसतालो. बाबा वतकच आईच्या कपलाचेर कुकूम आशिल्लो खरो, पूण तो अस्पश्ट दिसतालो.

गांवात अकस्मात दंगल जाली तेन्ना बाबाच्या वह्या - पुस्तकांच्या पसऱ्याव कोणें तरी उजो घालो. पोटच्या पोराक वांचोवपाक धांवचो तसो बाबा पसरं वाटावपाक धांवलो आनी खूब भाजलो. जळिल्लीं कागदां कोयराच्या डब्यांत गेल आनी बाबाच्यो अस्थी दर्यांत व्हांवून गेल्यो. उज्याच्या जाळाचे भयांकृतपण आईच्या तोंडाचेर कितलेतरी दीस दिसत आसलो.

'जाता तितले बेगीन येतां गो सुमी.'

'सवकासायेन यो. हांव सुस्त बरी न्हीद काडटां.'

आई गेली. तिच्या फाटमोऱ्या बांद्याक हांव पळयत उरलें. आईच्या आंगाव एक सुंदर आकार आयिल्लो. सदांच पांय ओडीत चलपी ही बायल आयज भरभर चलताली. केसांचे वळणय बदलिल्लें. आईन केंसाचीं शेपटां कापून उडयिल्लीं आनी सदांसारकी विणी घालिनासतना क्लिप लायिल्लें.

बाबाक खूब दिसतालें, आईन अशे वेवस्थीत रावचें. तर म्हणटाली, कित्याक ह्या घरकामांतूच सगळो वेळ वता आनी हे परिस्थितींत नट्टोपट्टो करप दुश्काळांत तेरावो म्हयनो. म्हजो बाबा खुबूच देखणो आसलो. सदांच हांसतमुख. प्रसन्न व्यक्तिमत्व. गोड स्वभाव. तरीकय आईक बाबा आवडनाशिल्लो. कित्याक काय?

म्हजे म्हाकाच हांसूंक येतालें. आजूनय येता. कोणें कोणाचेर प्रेम करचें आनी कित्याक करचें न्हय असो कांय नेम ना. हांव खंय म्हज्या घोवाचेर प्रेम करूंक शकलें? थोडे दीस न्हय. पांच वर्सां यत्न केलो. स्वताची आनी तार्च कितले दीस म्हणून अशी फटवणूक करीत रावप?

कांयच खावचें पिवचें दिसना. हांव कॉटीचेर आडवें जालें आनी अकस्मात शॉक बसचो तशें हांव उठून बसलें. विशिश्ट असो वास त्या उशांक येतालो दादल्याच्या घामाचो वास. म्हाका मळमळून आयलें. ओंकूंक येता अशें दिसपाव लागलें. म्हजें हें सदचेंच.

दर रातीचो पुरूशी वास म्हज्या गालावयल्यान सरपटत म्हज्या शिरंतरांत भितर सरता. मनांतल्यान कितेंय केल्यार वचना. म्हजें हें जुवान कंवळे शरीर ह्या आंगावयल्यान त्या आंगाचेर धुकलत वतालें. चिमटे बुचके येताले. बाबा! म्हणत हांव आड्डत रावतालें आनी जुस्त अशा वेळार तांचो राकट हात म्हज्या आंग भोंवतीं पडटलो. म्हजें सर्वांग किचमटून वतालें. गालाचेर उग्र घाणीचे थर बशिल्ले

ाच्या वळवळपी गिळगिळपी ओंठांचो चुरको म्हज्या ओंटांक बसतालो ती वेदना आजूनय काळजांत घर करून आसा. एक वळवळपी हळशीक असो किडो सतत म्हज्या मनात आपणाले कांटयारे पांय रोमीत भोंवत आसा. तो काडून भायर उडोवपाक जायना. कित्याक तर तो म्हजो कातडीचो भितर रिगला, रगतांत भिनला. घोवावांगडा सारिल्ली ती पयली रात! आनी फाटल्या पांच वर्सांत पांचशेंच्या वयर आंगार कोंसळिल्ल्यो त्यो राती ! मनाक खाटिचे सकयल शेंवटून दिवपाची संवय म्हाक हांवें पयलेच रातीपासून लावन घेतिल्ली. मन मेलें. दोळे सताड उकते दवरून सगळे वेव्हार थंडसाणान पळयत रावपाचें...

दर एक स्पर्श वेगळो आसतालो. श्वास मिसळून हे निर्जीव कुडिचेर हांगा थंय घाय पडत रावतालो. ताका कितें मेळळें काय! काय ताणें कितें ओरबडून घेतलें हें ताकाच खबर. खूब फावट दिसतालें. हांव ही वेगळीच कूड ताचे सुवादीन दीत रावतां. हो कसलो वेपार? ही सोय आसा काय हें पाप आसा? कांयच कळना आनी कांयच वळना. हालींसरा म्हजी करूणा कितली दुर्बळ, कितली खिणयाळी, कितली फट आसा हें कळपाक लागलें.

‘हांव वतां आईकडेन. कायमचें. ’शेवटाक हांवे ताका सांगलें.

‘कित्याक ? हांगा कितें उणें आसा?’

‘क़ांयच ना. हांवूच उणें पडटांय’

‘म्हाका तशें दिसना. हांव पूर्ण सुखी आसां.’

‘ना. हांव कोणाक सूख दिवपाक शकना आनी सूख घेवंकय शकना.’

‘पूण हांव तें घेवंक शकतां आनी हांव तें घेतां. तूं म्हाका खूब्ब आवडटा. तुजी मांसाळ कूड म्हाका जाय. तुजें कोणा दुसऱ्याचेर प्रेम आसा?’

‘तुमकां कितें दिसात?’

‘कांयच कळना. तूं म्हणजे एक कुवाडें.’

‘खरेंच?’

‘कितें?’

‘तुमी म्हाका वळखूंक शकले नात. हांव वतां.’

'कायमचें?'

'हय.'

'पूण...'

'पैशे, भांगर कांयच घेवं ना. फकत कपडे घेतल्यात.'

'राव न्ही. वचूं नाका. म्हाका तुजी संवय जाल्या. दर रातचें तूं म्हाका जाय...'

तें तोंड परतून करूण जालें. हावरट... लाचार... रडपाक लेगीत येतलें अशें आनी हांव थंयसावन कडसरलें. म्हजे म्हाकाच हांवें उधळून उडयलें काय?

वत मोव जालें. हांव खडबडून जागें जालें. खूब भूक लागिल्ली. तांबयोभर उदक पिलें. दार उगडून आईची वाट पळयत भायर बसलें. कांय वेळान आई येतना दिसली. वाटेच्या मोडणामेरेन तिका सांगात करपी सावळीय दिसली. आईची पांयांनी गणयलें. सावळी परती गेली. आईची पावलां झपाझप घराकडेन वळ्ळीं.

'वाट पळोवची पडली न्हय? बरोच वेळ जालो. वाज आयलो मगो सुमी?'

मस्त बरी न्हीद काडली.

'दनपारां जेवलें?'

'आं. हय.'

'सुमी, फट उलोवपाक तूं कितें ल्हान आसा?' अशें म्हणटना आईचें तोंड मात पळोवपासरकें जालें. ती पर्सींतलें कितेंतरी सोदपाक लागली.

'आई तूं आतां सुशेग घे मातसो. हांव च्या करतां.'

'कर गो बाय. सदां उठून म्हजो हातचो च्या पियेवन म्हाका उबगण आयल्या. ए सुमी, राव मातशें. हांवें तुजेखातीर कितें हाडलां. पर्सींतल्यान म्हजेखातीर हाडिल्ली मोगऱ्यांची हळी भायर काडली. त्या पुड्याक आडखळून आशिल्लो लायटर पटकन भायर पडलो. आईन ती बेगीन बेगीन काडून आनी पर्सींत घालो।

हांवें च्या केली. च्या घेतना बरोच वेळ आमी दोगांय वगीच आशिल्लीं.

'सुमी, तुज्या ल्हानपणांतले एके गजालिची याद जाली.'

'खंयची? सांग.' अडेची उमेद हाडीत हांवें म्हळें.

'आगो, तुका म्हज्या आंगावयलें दूद पचनाशिल्लें म्हणून तुज्या बाबान एक गाय हाडली.'

'खरेंच ? गाय हाडली?'

म्हाका ती गजाल खबर आसली. पूण आतां ती पयलेच खेप आयकतां अशें हांवें दाखयलें.

'हय. आनी ते खातीर ताणें म्हजी एक वस्त विकली.' आईन तोंड वांकडे करून म्हळें.

'तूं ते गायच्या दुदाचेर वाडलें आनी एक दीस तुवें कसलो हट्ट धरलो खबर आसा?'

'कसलो?'

'गायचे दोळे जाय म्हणपाक लागले.'

'खरेंच'

'हय.'

'कितलो भयंकर हट्ट? इतलें दुश्ट आशिल्लें हांव?'

'ना गो. आवडटा ती वस्त मागप इतलेंच तुकां खबर आसलें.'

'आयज हे गजालिची याद कशी जाली ?'

'खबर ना. पूण आयक. आयज सकाळीं तूं अकस्मात आयलें आनी ज्युस्त होच प्रसंग म्हाका याद जालो. सुमी, एखादी गजाल कितलीय आवडली वो जाय जाली जाल्यार लेगीत ती घेवप ना. ती आशिल्ल्या जाग्यार खूब बरी दिसता.'

'पूण आई, खूब फावट अशेंय घडटा, ओबड-धोबड फातराक लेगीत सुंदर दोळे बसयतात आनी देव म्हणून त्या फातराची पुजा करतात.'

'कितेंय जालें म्हण त्या दोळयांचे मोल थोडेंच उणें जाता.'

आईचे उलोवणें म्हाका पटलें ना. पूण हांवें ताचेर वाद घालो ना. आईन

येतना नुस्तेय हाडिल्लें. मन लावन तिणें जेवण रांदलें. जेवताना उमेदीन ती उलयत आशिल्ली. शाळेच्यो गजाली सांगताली. कोणाची तोखणाय, कोणाच्यो चाडयो. तिचे जिवीत आनंदान, फुडाराच्या सुंदर - सुंदर सपनांनी भरून गेलें.

'सुमी, म्हाका दुख्खाची गुळी घोळयत रावप आवडना.'

'आई, हांव हांगा आयलां. कायमचें रावपाक.'

आई म्हजेकडेन पळयत उरली. तिच्या तोंडाचेर रागाचीं, दुख्खाचीं कुपां दाटपाक लागलीं.

'हें अशें केन्नातरी जातलें हें म्हका खबर आशिल्लें. कित्याक तर तुमी बापूय आनी धूव कोणाक सुखी दवरची नात. कोणें तुमकां सुखी करपाचो यत्न केल्यारय सूख घेवपाची कुवत तुमचेकडेन ना.'

'आई, हांव हांगा रावचें ना.'

'मागीर खंय वतलें?'

'खबर ना. कांयच थरूंक ना.'

'पिशें खंयचें. यशवंताक आपोवन हाडूं?'

'नाका. मनाआड आयुश्य सारप म्हाका जमचें ना.'

आई, ह्यो दोन कुडी आनी बाबाचें माळयावयलें सामान इतलें तुवें म्हाका दिलें जाल्यार खूब जालें. हांव एकलें खोशयेन जगन.'

'एकलें?'

'हय, म्हणजे आई, तूं म्हजेखातीर तुजो बेत बदलूं नाका.

'सुमी...'

'खरेंच सांगतां आई, एक संवसार मोडलो, पूण एक संवसार परतून उबो रावता न्हय? मागीर कितें हरकत आसा?'

'केदें वजें देवयलें म्हज्या माथ्यावयलें! सुमी, चिल न्हिदुंया. आनीक विचार करीत बसूं नाका.'

आमी आवय धूव एकामेकांच्या शेजरा न्हिदलीं. पूण हांव तिचें वेंगेंत गेलें

ना. तिणें म्हज्या आंगार हात उडलयो ना. आईक रोखडीच न्हीद लागली. ती न्हिदेंत हांसताली. गोड सपन पडलां आसतलें तिका. हांव तळमळच आशिल्लें. जागी जावन आईन कूस बदलली. आई कितली सुंदर दिसताली. हांवे आईच्या आंगार पांगरूण घालें. मागीर अकस्मात म्हाका खूब रडपाक येवपाक लागलें. अनाथ, एकटे एकटें दिसपाक लागलें. हांवें म्हजे दोळे घट्ट धांपून घेतले.



# ३. त्रिवेणी

भर दनपारच्या भारार हांव घरांतल्यान भायर सल्लें. वताचे रखरख, डांबरी रस्तो, आंगावयल्यान हुमेच्यो धारो, चलतना म्हाका खूबच त्रास जातालो. हरशी हाणें म्हाका मातशें पायल्यार जातालें पूण हांवेच पाय म्हूण सांगलेना. हांव कोणाखातीर कितें तरी करता ही उमेदच म्हका व्हड आसली. केन्ना - काय कामत मॅडमीगेर वचचें आनी तांच्या कानार ही गजाल घालची आनी बेगीनात बेगीन ह्या गजालीचो निकाल लावचो अशें जाल्लें, मागीर म्हजो जीव सूऽऽ जातलो आसलो. गजाल आशिल्लीच तशी...

कांय वर्सां पयलीं आमी आमचें मूळ घर सोडून नवे सोसायटीचे कॉलनीत रावपाक आयिल्लीं. एका शेजाऱ्याचे वळखीन एक बायलमनीस राधाई आमगेर कामाक येवपाक लागली. तिचो घरकारूय लागिचेंच फॅक्टरींत काम करतालो. राधाईय हांगा-थंय कामां करून आपलेपरीन संवसाराक हातबोट लायताली, निदान आपलो तरी खर्च भागचो हे भावनेन. तिची कामांय करप सडसडीत आनी नितळ, कसलीच कटकट ना. सामकें मन लावन काम करपाची तिची पध्दत म्हाका भोवूच मानावतली. सोय कातप, भाजी शिनप-चिरप सगळें चत्रायेन, एक कुस्कुटलेगीत सकल पडचेंना. कांदो तर इतलो बारीक चिरताली, म्हाका तिची तोखणाय दिसताली. दुदाच्यो पिशव्यो निवळ धुवून, सुकोवन तांतूंत कोथमिर, आलें, हरव्यो मिरसांगो, करबेल वेवस्थित घालून बांदून दवरताली. कांयच सांगचें पडनासलें. तिजें रावपूय निवळ आसतलें. चकचकीत पातळ, कपलाचेर बरो ठसठशीत तांबडोच पैशाएदो तिळो, हातभर कांकणां, केसांचो बरो एद्दो आंबाडो, ताचेर कसली ना कसली फुलां नाजाल्यार फाती आसतालीच, हांसऱ्या मुखाची, चड उलयनासली आनी तिचो होच गुण म्हाका चड आवडटालो. दिसतालें, तिचेकडेन खूब्ब उलोवचें, पूण केन्ना जमलेंचना.

सकाळीं आठच्या ठोक्यार ती येताली आनी तेन्ना म्हजो रांदपाचो आनी ऑफिसाक वचपाचो बोवाळ. हांव साडे-णवांक भायर सरून वतालें. तोमेरेन ती शिनून-कातून दिताली, कपडें धूता, आयदना घासता म्हणसर म्हजो आनी तिचो वचपाचो वेळ बरोबर जातालो. मात दर आयताराक सांजवेळा येवून सप्तकाचें

तांदूळ-गंव वेंचून दिताली.

अशीच दोन वर्सां गेलीं. केन्नाय शेजाऱ्यां-पाजाऱ्यां कसलेंय अडी-अडचणीच्या वेळार म्हजेकडेन येताली. म्हजे तांकी प्रमाण तांची कामां हांव करतालें पूण राधाईन केन्नाच कसली गरज वा अडचण म्हाका सांगलीना. पूण फाटल्या कांय दिसांपासून राधाईचें तोंडूच म्हाका एकेभशेनूच म्हाका दिसपाक लागलें. वेवस्थित येवपी राधाई बाविल्लेभशेन दिसपाक लागली. कपलाचो तिळोय बारीक जावपाक लागलो. तोंडाचेर अडेचो हांसो हाडून काम करपाचो ती यत्न करपाक लागली. विचारतलें - विचारतलें म्हूण कांय दीस गेलें, पूण जमलेंच ना - केन्ना कामाच्या व्यापान जाल्यार-केन्ना म्हजी मुरवत आड येताली.

अशीच एका आयताराक राधाई सदचेपरस बेगीन आयली. आयली तशी गंव घेवन गॅलरींत बसलीं. आयतार म्हणटकूच दनपारचें जेवण जातकूच मातशें आड पडटा हांव, तेंवूय पंदरा विस मिनटां. न्हिदूंक वच जाल्यार माथ्याक बांदिल्लो तुवालो तसोच उल्लो. तो गॅलरींत सुकत घालपाक वच जाल्यार राधाई घसाघसा करून रडटा.

'राधाई, कितें जालें?'

"कांय ना बाय, सगळें नशिबाचें खेळ!"

"पूण जालें कितें?"

"सोळा वर्सां जालीं आमच्या लग्नाक. वीस वार्साचेर लग्न केल्लें. हात -पाय हालोवन बरीं सुशेगाद आशिल्ली. भुरगींय वेवस्थित शिकतात पूण ह्या म्हयन्यांपासून तांचे फॅक्टरींत काम करपी एके बायलेबरोबर हो रावता. घरा येना, केन्नाय पैशे धाडटा. ते बायलेचो घोव हालींच अपघातान भायर पडला. घोवाची शिरवीस तिका मेळया. दिसपाक बरी आसा खंय आनी जोडटाय बी. बाय, हांव पैशाखातीर रडना आनी दोन कामां चड करून घोवाचेंय पोट भरीन हांव पूण घरात येवप ना म्हळयार कितें?..."

"आनी तें सगळें तूं म्हाका आयज सांगता? आतां खंय आसा तो?"

"कामार आसतलो."

"पूण आज आयतार न्हय?"

"आयताराक कामार आसता तो."

"तशें जाल्यार चल या आमी ताचेकडेन."

"नाका, मानवचेंना ताका."

"मागीर तू अशीच रडत रावतली तर?"

आमी दोगांय ताचें फॅक्टरींत गेलीं. तशी फॅक्टरी चड पयस नाशिल्ली. वॉचमनाक सांगून पास केलो आनी भितर गेलीं. जाल्यार हो कामांक आशिल्लो आनी 'तमन्ना' नावाची ती बायल जमीन पुसताली. आमकां पळोवन तो नेटान आमचेवटेन आयलो. पूण तो आमचें कांयच आयकुपाचे अवतिकायेंत नासलो. राधाई मात एक्क सारकी रडत आशिल्ली. आमी दोगांय परत घरां आयलीं. हांव खूब अस्वस्थ जालें. रातभर दोळयाक दोळो लागलो ना. होवूय तापलो म्हजेर. "नाकाशिल्लें लागता तुकां, तांचेपरस चड त्रास तुकाच भोगता."

दुसऱ्या दिसा राधाई आयली ती रडतच. आमी फॅक्टरींत आयली म्हूण तिच्या घोवाक खूब राग आयलो खंय. रातचो घरा येवन ताणें राधाईक बरेंच मारलें खंय. हांव चकाचूर जावन तिका पळयत उरलें. कितेंतरी करपाक जाय. नाजाल्यार राधाई चड दीस काडपाक पावचीना. आपणें भायर रावन शेण खावप आनी वयल्यान घोव म्हणणून अभिमानान मिरोवप, गुन्यांव नासतना वयल्यान बायलेक मारप. शेजरा म्हजो घरकार उबो आशिल्लो. ताणेंच म्हाका बुद्द दिली. "आमचे वळखीची कामत मॅडम हालींच महिला आयोगाची अध्यक्षा जाल्या, थंय कित्याक वचना?"

म्हाका सट्ट जालें. तशेंच कपडे बदलले आनी भायर सरलें. तशी कामत मॅडम धाडशी आनी हुशार! बायलांविशीं तांकां खास आस्था आनी वेवसायान वकील. एक -दोन फावट तांचे भाशण आयकून हांव प्रभावित जाल्लें.

हेच तंद्रेत हांव मॅडमीच्या कॉलनीत केन्ना पावलें ते कळेंना. हांगा - थांय एक दोगजाणांक विचारलें. घर सोदून काडपाक कठिण जालें ना. बेल वाजयली. कामांक आशिल्ल्या भुरग्यान दार उघडलें. हांव भितर गेलें. "मॅडम वयर आसात तुमी बसात आं." अशें सांगून दार बंद करून तो आपल्या कामांक गेलो. इतल्यान वयर व्हडल्यान उलयतां ती उतरां म्हज्या कानार पडलीं. एक आवाज बायलेचो आनी दुसरो दादल्याचो. उतरां स्पश्ट म्हज्या कानार पडटालीं. घडये हॉलाचें दार बंद केला म्हूण जायत नाजाल्यार घडये वयर तांच्या बॅडरुमाचे दार उक्तें उल्लां

आसूंक येता.

"शेखर आयजमेरेन तुज्यो करण्यो कानावयल्यान गेल्ल्यो तुकां येवपी फोन हांव पळयतालें. केन्नाय कॉडलेसावयल्यान आयकतालें पूण, आतां तुजे खेळ घरामेरेन न्हय आमच्या बेडरूमामेरेन पावले. देवळासारकें पवित्र घर म्हजें, तातूंत देव नासत पूण ह्या घरांत हांवें घरपण दवरलां."

"सुमेधा, वगीच म्हजेर दुबाव घेवं नाका, कोणालेंय कित्या-कितेंय आयकून तूं म्हजेर आरोप करूं नाका. तूं दोन दीस दिल्लीक मिटींगेक गेल्लें तेन्ना हांव घरा येवकूंच ना."

"रातीची कामां दिसा - उजवाडा केल्लीं जाल्यार परत रातींचो खंच्या हॉटेलांत शेण खावपाक गेलो?... पळय, ह्या बेडार पळय. अजून ती तिकली तशीच आसा. बाथरूमांत टबांत म्हाका ही मुदी मेळी. आता तरी ही मुदी वळखतलो कोणाची ती? दोन दीस हांव हांगा ना जाल्यार तुजी पुनव फुल्ली! महिला आयोगाची अध्यक्षा हांव. बाकीच्या बायलांक सांगता, तुमचो घोव तुमचेकडेन सारको वागना तुमचेर अन्याय करता जाल्यार तांका..."

म्हजी कानसुलां तापिल्लेभशेन जालीं. तांची उतरां बाण कणी म्हज्या काळजाक तोंपपाक लागलीं. तकलेर कोणतरी घण घालता अशें म्हाका दिसले. म्हज्या मनांतलें प्रतिमेक एकदम वेर गेली. सगळें हातांतल्यान निसरून पडिल्ल्याभशेन जालें. मुखार सगळो काळोखूच दिसपाक लागलो. उठलें, दार उघडलें आनी तशीच घराची वाट धल्ली. पुरो जावन खाटीर आड पडलें. राधाई सकयल मान घालून काम करताली. इतल्यान म्हजो घरकार लागीं आयलो. म्हज्या तकलेर हात दवरीत ताणें म्हळें "आनीक म्हणून आमी कितें करतलीं? आमच्यो अडचणी आमकां कितें उण्यो आसात? अश्यो कितलो तरी राधाई आसतल्यो. तूं खंय खंय आनी कोणांक म्हूण पावतलें?" ताचो सूर एकदम समजूतीचो आशिल्लो."कोण खंयची राधाई, तिच्याखातीर तूं कित्याक त्रास काडटा? सदांच तुकां दुसऱ्याच्या दुःखाक घांस मारून तें आपलें म्हूण चघळपाक चड आवडटा आनी ताचो तुकां अभिमानूय आसा. एका -दोगांची असलीं कामां केलीं म्हूण प्रस्न सुटना. सगळयांचे सदांचेंच प्रस्न. कितलो तेप हे करीत रावतलें? तुजे हे असले वागप म्हाका आवडना. वेळ आनी पैसो वताच, पूण आरोग्य? राधाईचें दुःख पळोवपाक जायना जाल्यार दुसरें बायलेची वेवस्था कर. एके वावराडेखातीर कितलो वेळ दितलें?

म्हाका ते निखालस मान्य ना."

हांव चिंतूक पडलें. अशें जाल्यार मागीर आमकां समजून कोणें घेवप? आमी कितें करप? सोडून वचप? घटस्फोट घेवप? कांय हांतूंतच लोळप? घटस्फोट घेतिल्लीं बायलां म्हज्या दोळयांमुखार अशी उबी रावता, शिंगा-शेपूट कापिल्ल्या जनावरावरी. स्वतंत्र जगप ही कल्पना कितलीय बरी आसली तरी तें जगप सर्वसामान्य बायलेक खूब कश्टदायक जाता.

इतल्यान राधाई च्या घेवन आयली. "बाय, म्हज्याखातीर कित्याक जीवाक त्रास करून घेता? म्हजें भोग म्हाका भोगूकूच जाय. तूं पिकार जांव नाका. बाय, केन्ना - केन्ना म्हाका दिसता हांव शिकूंक जाय आशिल्ली, जाल्यार हें त्रास म्हज्या वाट्याक येवचे नाशिल्लें.

" ना राधाई, शिकूंना म्हूण तू मार खाता पूण शिकल्यार घडये मन मारून रावपाची."

म्हजेमुखार कामत मॅडम उबी रावली. पळयता पळयता कामत मॅडम, हांव आनी राधाई, सगल्या प्रतिमांची सरमिसळ जावपाक लागली.... एकेकटी वेग-वेगळया घरांतली, मनांतल्या मनांत बंड करपी, समजून घेवपी, पूण दुःख एकूच. तकली भणभणून गेली. म्हाका हें सगळें असह्य जावन हांव तांतूंत वाट सोदीत रावलें...

❑❑❑

# ४. उजवाडाची पूजा

सांजवेळा ऑफिस सुटून घरांत मात भितर सरलां, शेजारच्या घरांतल्यान बोबो; हुयेली आयकूक आयल्यो. काळजांत कल्ल जालें. कारण आवाज जनील्या घरांतल्यान येतालो. जनी ह्या दिसांनी बरें ना इतलें कानार आयिल्लें.

तशें जनी आमचें कोण न्हय. ह्या गावांत नवीच कॉलनी घडली आनी आमी वेगवेगळीं कुटुंबा हांगासर रावपाक आयलीं. आमकां हांगां सगळेंच नवें कॉलनीच्या शेजरा हें एकूच जनीचें घर आमी ज्या दिसा भितर सरलीं त्या दिसा एक चाळिशेक वर्सांची बायल आपूण जावन आमगेर आयली. आपलें नांव जनी म्हण तिणेंच सांगलें. आशिल्लें - नाशिल्लें तें हाडू येतालें, पूण शेजार सांबार खंयच्यान हाडटलीं? कॉलनींतलीं सगळीं बिराडां तशीं एकामेकांक अनवळखीच. गांवांत खंय कितें आसा ना तें सांगपी कोण ना. ते परिस्थितींत म्हाका जनीचो खूब आदार दिसलो. कारण तें मुळांत त्याच गांवांत रावपी. पयलेच वळखीन आमची दोगांयची इश्टागत जाली.

हांव शिकलां, ऑफिसांत नोकरी करतां, रेडिओचेर, टीव्हीर कार्यावळी करतां हाची जनीक खूब तोखणाय दिसताली. जनी कश्टकरी कुटुंबातलें, खास कश्ट करपी. शेता-भाटातलो कसलोय वावर तें करतालें. घोवूय मानायपणाचें काम करतालो. पूण तो आसून -नासून सारकोच. आळशी आनी बेबदो. एकलीच धूव कमल. जनीचो ताचेर सामको जीव. ताची शाळा, खाण-जेवण, कपडेलत्ते हांचेर जनी आपलेपरीन लक्ष दितालें. केन्नाय अडल्यार जनीक उलो मारल्यार पुरो, धांवून येतालें. आपल्याक येवपाक मेळना जाल्यार धा-बारा वर्साच्या कमलाक धाडून दितालें. पूण तांचेकडल्यान काम करून घेवपाक म्हज्या जिवार येतालें, कारण सगळी कश्टी मनशां. दिसरात आपल्या वावरांत घुस्पून रावपी. तांकां अदीक त्रास दिवप मनाक पटनासलें. पूण जनी केन्ना केन्ना आपूण जावन कसल्याय कामाक येतालें - कपडे उमळपाक, आयदनां घांसपाक वो कांतून -शिनून दिवपाक.

बँकेंत पैशे घालपाचे आसले वो काडपाचे आसले जाल्यार तें म्हाका दाखयतालें. भांगरांच्या वस्तीं विशीं तें मोट्याया विस्वासान म्हजेकडेन उलयतालें.

केन्नाय कोण सोयऱ्यां-धायऱ्यांची पत्रां येता तीं म्हजेकडसून वाचून घेतालें. कसलो अर्ज करपाचो, भरपाचो, सय करपाची जाल्यार म्हाका विचारलेबगर करिनासले ताचेवरी तागेलो घोवूय निरक्षर आशिल्लो आनी कमल तर निकतेंच शिकताले म्हाका तागेले हे वागणूकेचें खूब कवतुक दिसतालें. आमचे दोगांयचे मदीं एव विस्वासाचें नातें तयार जाल्लें.

आतां जनीच्या घरांतलो बोवाळ आयकून मन कांचवेलें. हरशीं आमच्य मागीलदारांतल्यान तांच्या घराची पडवी दिसता. पूण आमोरी जाल्ली. काळोख पडिल्लो. हांव आयिल्लें तशेंच मागीलदारच्यान भायर सरलें. सोपणां चडून जनीले पडवेर पावलें जाल्यार पडवेर कोण ना. भितरले कुडींत बोवाळ. जनी व्हडा व्हडा तापता आनी कमल हुयेली मारता. तशेंच भितर गेलें. पळय जाल्यार जनीच्य हातांत सुको पिराडो आनी त्या पिराड्यायान तें कमलाक धोडायता. कमल एवे वटेन हुयेली मारता आनी दुसरे वटेन मार चुकोवपाक हांगा - थंय लिपता जनीचो तो अवतार पळोवन म्हाका अजाप दिसलें. म्हाका पळोवन तें भाना आयलें. हांवें हात घालचें आदींच ताणें हांतांतलो पिराडो कुशीक मोखलो आनी थंयच बसकण मारली.

"हांव हाचेखातीर जिवाची काडां करता, दिसरात हाचेखातीर मरतां आनी ह्या पोराक मात पर्वा ना. घोंव तसो, हें अशें! म्हजे नशिबूच फुटकें!"

जनी हुंडक्या हुंडक्यांनी रडपाक लागलें. हांवें ताका थातारलें. ताच्य उलोवण्याचें म्हाका आजाप जाल्लेंच. कारण आपले धुवेची ताणें केन्नाच कसलं कागाळ केल्ली हांवें आयकूंक नाशिल्ली. आनी आज तर जनी ताका एके वटे उतरांनी उलयतालें आनी दुसरेवटेन मारतालें. हांव जनी म्हऱ्यांत बसलें. पयलं ताच्या आरोग्याची चवकशी केली. आठ दीस तें हांतरूणार आशिल्लें. तेच अवस्थें आयज उठून बशिल्लें आनी तांतूंत ही भानगड.

हांवे जनीक ओगी केलें आनी सगळी भानगड समजून घेतली. जनीन जं आकांत केलो ताका रजांव आशिल्लें. सातवे यत्तेंत आशिल्लें तागेलें कमल चा दीस शाळेंतूच वचूंक नासलें. आवय हांतरूणार आशिल्ली खरी, पूण रांदपा सवरपाचें करपा इतली बरी आसली. पूण कमलानूच आवयक सांगलीं, आपणाव चार दीस सुटी पडल्या, आपूण घरांतलो सगळो वावर करतां! हरशीं जनी खंयचे परिस्थितींत कमलाक घरा दवरचें नासलें. पूण ताणें म्हणटकच जनींक बरें दिसले

या दिसांनी कमलान आवयक दोतोरागेर व्हरून हाडली. घरांतलो सगळो वावर फलो. आयज सांजवेळा तिणें कमलाक फार्मसिंत धाडलें. कारण दोतोरान दिल्लीं नी वखदां सोंपिल्लीं आनी नवीं हाडपाक जाय आसलीं. कमल गेलें आनी फाटोफाट कमलाचे शाळेंतली बांदेकार टिचर जनीगेर भितर सरली. तिका पळोवन जनीक अजाप जालें. तीं बांदेकार टिचरीक वळखताली. एक दोन फावट मेळिल्ली. आपणाले धुवेक बांदेकार टिचर बरी करता म्हणपाचें जनीक खबर आशिल्लें. जनीच्या जिवाक बरें नास्तनाय जनीन, तिका हसऱ्या मुखान येवकार दिलो. तिणें येना बरोबर कमलाची चवकशी केली. फाटले चार दीस कमल शाळेंत कित्याक येवंना म्हण विचारलें. परीक्षा तोंडार पावल्या आनी तें शाळा चुकयता म्हण बांदेकार टिचरीन जनीक दोश दिलो. तिका कितें सांगचें तेंच जनीक कळळेंना. केन्ना न्हय इतलो जनीक आपले धुवेचो राग आयलो. टिचर आयली तशी गेली. जनी आपणालें दुयेंस विसरलें आनी फार्मासींत गेल्ले आपले धुवेची वाट पळयत सोपणार बसून रावलें थोड्याच वेळान कमल वखदां घेवन आयलें. येना बरोबर जनीन कमलाक विचारलें,

"कमल तुजे शाळेक कितले दीस सुटी गो?"

"चार दीस." कमलान थरिल्ली जाप दिली.

"म्हाका एक सांग, चवथ ना दिवाळई. हीं मदींच सुटी कसली?"

"तुकां कळपाची ना गे."

"म्हाका हरशीं कितेंच नाका कळूं गो, तुगेलीं फटींगपणां मात कळटात. फटींगा, बापूय तसलो, हांवूय असलें. आमकां कांय कळना म्हण फटयता? शाळा आसतना सुटी म्हणून फट मारता?"

जनी बशिल्लें थंयच जळवाची रास आशिल्ली. जळवाचे राशींतलो सुको पिराडो ताच्या हाताक मेळ्ळो आनी त्याच पिराड्यान ताणें कमलाक पेटून काडलें.

जनीन कमलाक मारपाचें कारण सांगले आनी पालवान दुकां पुशीत म्हणपाक लागली,

"कितें सांगू तुकां भाभीं? हे धुवेखातीर हांव इतल्यो खस्ती खातां. जाल्यार हेंच पोर म्हाका आवयक तीन पानां करता. आमच्या आवय बापायन आमकां शिकयलींना. ताचीं कोडू फळां आमी आयुश्यभर चाखलीं. शिकप नाशिल्लो

मनीस म्हणजे दोळे नाशिल्लो कुड्डो. अक्षरांचो उजवाड आमी केन्ना पळयलोना."

हांव तिका समजायत म्हळें, " अशेंच कांय ना. शिकूंक नाशिल्ले मनीस केदे व्हडले वेव्हार करतात. तांकांय तकली आसता."

जनीक तें पटलेंना. ताणें म्हळें,"हांवूय वेव्हार करतां. वावराक वयता. थंय पाग घेतां. पैशे मेजपाक कळटात पूण कागदार कितले बरयल्यात आनी हातार किते पडल्यात तें कळना. कोणूय कागद मुखार करता तेन्ना काळजांत धडधडो भरता. आंगठो लावन गरीबांक नाडिल्ल्याच्यो कितल्योश्योच गजाली दोळयांमुखार येतात. म्हणून केन्नाय असलें कितेंय आसलें जाल्यार तुजेकडेन घेवन येतां. एकूच इत्सा आसा, हांव अनाडी उरली, ह्या पोरान शिकचें, हाका कोणें फटोवचें न्हय. एक दीस हें लग्न जावन परक्या घरा वतलें. हाच्या आंगार एक वस्त हांव उणी घालीन, पूण हाका शिकनासतना अनाडी दवरचेंना. आनी हें पोर कितें काय म्हळयार..."

उलयतां-उलयतां जनीचो तोल गेलो आनी बांद फुटिल्लेभशेन तें भळाभळा करून रडूंक लागलें. ताका थातारपाक म्हाका खूब वेळ लागलो. हरशीं म्हाका कमलाची सदांच अपुरबाय दिसताली. घरांत जे कितें मेळटा तातूंत तें समाधानी आसतालें. खावपा-जेवपाकडेन केन्ना वसवशेपणां करिनासलें. ताच्या ह्या गुणाची हांव तोखणाय करी. आवयच्या तोंडारूय ताचें कवतुक करतालें. अदींमदीं म्हज्या भुरग्याक कमलाची देख दितालें. त्याच कमलाचो म्हाका आतां खऱ्यांनीच राग आयिल्लो. जनी तशेंच उठलें आनी ताणें फस्काची काडी मारून पेत्रोलाची चिमणी पेटयली. कमल येदोळच्यान एकेचकडेन खूंट कशें उबें आशिल्लें निमाणें हांवच उठलें आनी ताच्या म्हऱ्यांन गेलें. ताका वेंगेंत काडलें. मागीर दिसलें. बारा वर्सांचे पोर! हाका आवयच्यो भावना कश्यो कळपाच्यो? चुकलां खरें. समज दिवपाची आनी पोराक माफ करपाचें.

ताका घेवन हांव भायर पडवेर आयलें. भायर खुबुच काळोख जाल्लो. म्हाकाय घरा वचपाची ताकतिक लागिल्ली, पूण कशेय तरेन कमलाक समजावपाक जायच आसलें. ताका घेवन हांव थंय काळखांत बसलें. आवयचे अस्वडींच ताका-चार गजाली सांगपाक जाय आसल्यो. पूण कमलान जें म्हाका सांगले तें आयकून म्हाका अजाप जालें. त्या येद्याश्या बारा वर्सांच्या पोराक शाळा चुकयिल्ली खरी पूण कसलेच मजेखातीर न्हय. आवयक घेवन तें दोतोरागेर गेल्लें तेन्ना दोतोरान

आवयक सांगलें, चार दीस तरी विसव घेवपांकूच जाय. आवयक दुयेंत म्हणून घरा रावयली तरी रांदपा- सवरपाकडेन बोवाटली आनी विसव घेवचीना हें कमलाक बेसबरें खबर आशिल्लें. देखून ताणें आवयक फट मारली. शाळेक सुटी म्हण आवयचे सेवाखातीर तें घरा रावलें.

म्हाका ताचे करणेची तोखणाय दिसली. पूण हांवें म्हळें,

"कमल तुगेलो अभ्यास बुडलो काय ना?"

दुकां पुशीत ताणे मान हालयली आनी म्हळें,

"ना भाभी. तसो हांवे अभ्यास चुकोंवना. म्हजी एक इश्टीण आसा. तिणें म्हाका शाळेंत कितें शिकयलां तें सगळें दाखयलां. आतां फार्मासींतल्यान येतना हांव तिका मेळून आयलां. हो पळय तागेलो अभ्यासाचो कादेर्न लेगीत घेवन आयलां. आतां रातीकडेन बसून हांव चुकलेलो सगळो अभ्यास करपी."

ते चलयेची म्हाका खूब तोखणाय दिसली. येदेंशें पोर! पूण समज कितली! खरें म्हळयार दोगांयची तोखणाय! आवयची आनी धुवेची. पोरान शिकचें म्हण आवय धडपडटा. तिका शिक्षणाचें म्हत्व कळ्ळां, आनी आवयक विसव मेळचो म्हण पोर धडपडटा.

हांवें जनीक समजायलें. तुजी धूव चुकली पूण ती चूक ताणें तुज्याच बऱ्याखातीर केल्ली म्हणपाचें सांगले. जनीक थोडीशी समजावणी मेळ्ळी. हांव घरा गेलें. घरांतलो वावर करपांत गुल्ल जालें. जनीक आनी कमलाक विसरूनूय गेलें. आमचीं जेवणां बी जालीं. भुरगीं न्हिदपाक गेलीं. हांवें रांदचे कुडींतलो पसारो आवरून घेतलो. न्हिदपाची तयारी जाली. मागीलदारचें दार बांद करपाक वतालें इतल्यांत घरांतली लायटूच गेली. सगल्या काळोख. काळांतूच मागीलदार बांद करपाक गेलें जाल्यार नदर भायर गेली. बद्द जनीले पडवेर. आतां काळखांत जनीले पडवेवेलो देखाव स्पश्ट बरो दिसतालो. जनीली धूव कमल चिमणेच्या उजवाडांत अभ्यास करतालें आनी म्हऱ्यांत जनी बसून मार आपल्या कळिल्ले भशेन ताका पळयतालें. म्हाका दिसले, माणकुलें कमल उजवाडांत फकच अभ्यास करिना, तर उजवाडाची पुजा करता...



# ५. सोनिया

दारावयली बेल वाजली आनी आरतीन कांचवेन दोळे उगडले. घरां खूबूच काळोख दाटिल्लो. जनेलांचेर पड्डो आशिल्ल्यान काळोख अदीक गाढ जाल्लो कितलीं वरां जालीं हाचो अदमास लागना आसलो. मांडयेर सायली न्हिदल्ली परतून बेल वाजली. सायलीक ल्हवूच माणयेवेलें काडून कॉटीचेर न्हिदावन आरत उठलें. दोन तीन दीस एकसारकें जागरण जाल्लें. दोळे जळटाले. तकली सुमा भायर जड जाल्ली. दारामेरेन पावता म्हणसर ताका पडटा काय जालें.

आवाज करिनासतना आरतीन अचळय दार उगडलें. पयलीं निशिगंधाच वास आनी ताचे फाटोफाट उतरां आयलीं.

'कितलो वेळ गो दार उगडपाक? आनी हें कितें? तुजें तोंड बाविल्ले भशे शें? बरें ना?'

वळखिचो आवाज कानार पडलो. पूण आरतीक कांयच कळना जाले दोळयांर खूब न्हीद आशिल्ली.

'सायली खंय? ताका सांग, सोना मावशी आयल्या म्हण.'

'आगो, सायली बरें ना, न्हिदलां तें.' दारांतल्यान फुडें सरत आरती म्हळें.

'आनी तुका कितें जालां? तूं अशें कशें दिसतां?'

'सोनिया, सायलीक फुगांव आयिल्ले, जोरय खुबूच आशिल्लो. आत देवला गो. अशक्तताय आयल्या. मांडयेवेलें सकलच देंवना. फाटले दोन-ती दीस म्हाका एक मिनीट लेगीत सुशेग ना. आता पळय, तुका लेगीत पयल सारकें वळखलें ना.'

'चड सुबेज तूं. म्हाका सांगपाचें न्ही? आनी हें कितें? इतलो काळोर जालो तरी आजून दिवे पेटोवंक ना?'

सोनियान भितर येवन हॉलांतलो आनी पॅसेजींतलो दिवो लायलो.

'आगो, चार दीस वृद्धाश्रमाच्या कामाखातीर गांवांत गेल्लों. सकाळींच ायलां. आज अखिलेशाक बँकेत फोन केलो. तर तो... दोन -तीन दीस रजेर ासा म्हण सांगलें.'

सोनियाच्या 'अखिलेश' ह्या एकेरी उल्लेखान, तेय परिस्थितींत आरतीच्या पलाचेर मिरी पडली.

'तांच्याय जिवाक बरें ना. दोन -तीन दीस एका कामाखातीर खंय भायर चचें पडलें. म्हाकाय सारकें खबर ना.' आरतीन तुटकपणान म्हळें.

'आरती, तुजे दोळे तांबडेच जाल्या.'

'जागरण न्ही गो!'

भायले दार लावन आरती बेडरूमाकडेन वळ्ळें. सोनियाय बेडरूमांत गेलें. ारतीन बेडलँप पेटयलो. सायली शांत न्हिदिल्लें. अखिलेशय जोराच्या भारान ामको दोळे धांपून पडिल्लो.

'वखद कोणाचें चलतां?' सोनियान ल्हवू आवाजांत विचारलें.

'डॉ. वैद्याचें. आतां तेंवूय बंद आसा. पूण सायलीक हांकां मात हांवें आतां ोर काडपाची गुळी दिल्या.

'हें पळय, हांगां लागींच डॉ. बखले रावतात. आतां सातांक ते थंय येतले. ांव थंय वचून तांकां घेवन येतां. आजून वीस-पंचवीस मिनटां आसात. तों मेरेन ुका थोडी च्या करूं?' सोनिया उलयतां उलयतां रांदचे कुडींत पावलें.

'हांव करतां च्या.' ताका आडायत आरतीन म्हळें. पूण च्या करपाइतली शक्ती ताच्यांत नाशिल्लीच. दनपारपासून ताका जायत्या फावटी च्या पिवची अशें दिसलें. पूण उठून ती करची अशें मात दिसलेंना.

'बरें, तो मेरेन हांव फ्रेश जावन येता.' अशें म्हणून सोनिया बाथरूमांत गेलें.

सकाळीं च्या केल्लें, च्याचें आयदन तशेंच धांसपाक पडिल्लें. आरतीन दुसरें आयदन काडलें आनी च्याच्या आदनाक दवरलें. सकाळच्यो कपबश्यो धूवपाक हात मात घाला, हातांतल्यान कपूच गळून पडलें. कपाच्या आवाजान सोनिया बाथरूमांतल्यान धांवत भायर आयलें. रांदचेकुडींत खुबूच पसारो जाल्लो.

वोट्यार डायनींग टेबलाचेर रास पडिल्ली. कोयरूय खुबूच जाल्लो आनी त्या पसाऱ्यांत बसून आरती कपाचे कुडके पुंजायतालें.

'दी म्हजेकडेन त्यो कंवच्यो. हांव उडयतां.'

आरतीच्या हातांतल्यान कंवच्यो घेतना ताच्या हाताचो स्पर्श सोनियाक जालो.

'बाय गो, तुजेंय आंग बरें ऽऽ तापलां. आतां मोन्यानी वचून न्हीद. हांव करतां च्या.'

आरतीक कांयच उलोवंक दिना आसतना सोनियान ताचो हात धरून ताका सायलीचे कुशीक न्हिदयलें.

च्या जायमेरेन सोनियान मेजावयलीं सगळीं आयदनां मोरयेंत दवरलीं. सकाळीं कांयच रांदिल्लें दिसनासलें. सोनियान फ्रीज उगडून पळयलो. दोन दुदाच्यो पिशव्यो, सॉस, आनी थोडें धंय हाचे बगर थंय दुसरें कांयच नाशिल्लें.

च्याचें कप घेवन सोनिया बेडरूमांत आयलें. आरतीक न्हीद लागताली. पूण ताका च्याचीय तितलीच गरज आशिल्ली. तें उठलें आनी सोनियाच्या हातांतलो च्याचो कप ताणें हातांत घेतलो.

'आरती, कुलूप-आनी चावी खंय आसा तें सांग आनी न्हीद, म्हणटकच तुका मागीर उठपाक नाका. हांव भायल्यान कुलूप करून दोतोरागेर वतां.'

'कुलूप दाराकूच आसा. आनी चावी थंय शॉकेसीचेर आसा.'

दाराक कुलूप लावन सोनियान आपली स्कूटर डॉ. बखलेचे डिस्पेन्सरीकडेन धांवडायली. भायर तीन-चार पेशंटस् आशिल्ले.

'आनीक पंदरा-वीस मिनटांनी यो. पयलीं ह्या पेशंटांक पळयतां.' दोतोरान सांगलें.

'बरें दोतोर.'

सोनियान आपली स्कूटर मार्केटांत व्हेली. बेकरींत ब्रेड, बिस्किटिंचो पुडो, बटर घेतलें. मुखार वचून टॉमेटो, आलें, भाजी घेवन तें परतें डिस्पेन्सरींत आयलें.

पांच मिनटांनी दोतोरान आपली गाडी भायर काडली. सोनियाचे स्कुटरी

फाटोफाट गाडी चलपाक लागली. आनी थोड्याच वेळान अखिलेशाच्या घराचे गेटींतल्यान भितर आयली. अखिलेशाक साडे तीन जोर आशिल्लो. दोतोरान ताका एक इंजेक्शन केलें आनी गुळयो बरोवन दिल्यो. जोर देंवना जाल्यार कपलाचेर थंड उदकाच्यो घडयो दवरपाक सांगलें. आरतीक शंबर जोर आशिल्लो. जागरणान आनी पुरो जल्ल्यान ताका वखदां परसय विसव घेवपाची चड गरज आशिल्ली. ताचेय खातीर दोतोरान गुळयो बरोवन दिल्यो. दोतोर आनी सोनिया वांगडाच भायर सरलीं. सोनियान फार्मासीत वचून सगळीं वखदां घेतलीं. थंयच्यानूच आपल्या घरा सुमीताक फोन केलो आनी आपूण रातचें घरा येवचेंना म्हण सांगलें.

सोनियान परतें आरतीगेर येवन उदक तापयलें. आखिलेशाक आनी आरतीक  वखद दिलें. तीं दोंगाय परतीं सुस्त न्हिदलीं.

आतां सोनियाक भुकेची जाणीव जाली. सकाळी बँकेत कितें खाल्लें तितलेंच. ते उपरांत च्या बगर ताच्या पोटांत कांयच वचुंनाशिल्लें. रातचीं साडे आठ वरां जाल्लीं. सोनियान बेडरूमाचें दार लायलें. तें रांदचे कुडींत आयलें. वोटो धुलो. मेज पुसून मोरयेतलीं आयदनां धांसून तीं जाग्यार दवरलीं. इतलें करता म्हणसर रातचीं धा वरां जालीं. फ्रिजांतलें सॉस काडून सोनियान सँडविच तयार केलीं. दुदाच्यो पिशव्यो फोडून दूद तापत दवरलें.

सँडविच आनी कॉफिचो कप घेवन सोनिया हॉलांत आयलें. हॉलाचीय दशा रांदचे कुडीपरस वेगळी नाशिल्ली. सायलीचीं बरींच खेळणी जळा-मळाक पडिल्लीं. दोन-चार दिसांचे पेपरय हांगाथंय पडिल्ले. टि.व्ही.च्या सेटार दवरिल्ली फुलांय बावून गेल्लीं.

खावन जातकच सोनियान हॉलय सारको केलो. फ्लॉवर पॉटांतलीं बाविल्लीं फुलां काडून आपणें हाडिल्लीं निशिगंधाचीं फुलां फ्लॉवरपॉटांत दवरलीं. फ्लॉवरपॉट बेडरूमांत व्हरून दवरलो. सायली निकतेंच जागें जातालें. आरतीक जाग येवचीना हाची जतनाय घेत सोनियान सायलीक उठयलें आनी बेडरूमाचें दार लावन तें हॉलांत आयलें. सायलीक सोनियाची खुबूच संवय जाल्ली. ते खातीर कांयच मस्ती करिनासतना सोनियान दिल्लें दूद आनी बिस्किटी ताणें खाल्यो. उपरांत सोनियान सायलीचें आंग पुसून काडलें. ताका दुसरे कपडे घाले. आनी सोनियान सांगिल्ली काणी आयकतां-आयकतां सायली सोनियाचे मांडयेर न्हिदलें.

सोनियान सायलीक हॉलांतल्या दिवाणाचेर न्हिदयलें. तें बेडरूमांत आयलें. आरतीच्या आंगावयलें पांगरूण सारकें बरें करून तें अखिलेशाचे म्हऱ्यांत आयले. अखिलेशाचें तोंड जोरान तांबडेंगुंज जाल्लें. श्वासय मंद आशिल्लो. जोर पळोवपाखातीर सोनियान कपलाचेर हात दवरलो. अजुनय खुबूच जोर आशिल्लो. कपलाक जाल्या हाताच्या स्पर्शान अखिलेशाक जाग आयली.

'आरती,' अखिलेशान अस्पश्ट उलो मारलो.

'हांव सोनिया.'

'तूं केन्ना आयलें?' अखिलेशान दोळे उगडून विचारलें.

'येदोळ.' सोनियान थर्मामीटर अखिलेशाच्या तोंडांत दवरलो.

'आरती खंय?' तोंडांतल्यान थर्मामीटर काडले बरोबर अखिलेशान विचारलें.

'न्हिदलां. ताकाय जोर आयला.'

'सायली?'

'तें हॉलांत न्हिदलां. बरें आसा. तूं कॉफी घेता काय च्या करूं?

अखिलेशान मानेनूच नाका म्हण सांगले. आनी दोळे धांपून घेतले. तितल्याच उलोवण्यान ताका धाप लागिल्ली. अजून ताका तीन जोर आशिल्लो. दोतोरान सांगिल्ले प्रमाण कपलाचेर थंड उदकाच्यो घडयो दवरपाक जाय आसल्यो. सोनियान आरमारींतले नितळ धुल्ले दोन लेंस काडले. एका आयदनांत थंड उदक घेतलें. लेसाच्यो घडयो भिजोवन त्यो अखिलेशाच्या कपलार दवरल्यो. आरामखुर्ची ओडली. तिचेर बसलें आनी पर्सींतलें पुस्तक काडून तें वाचीत बसलें.

सुमार अडेच-तीन वरां सोनिया अखिलेशाच्या कपलाचेर थंड उदकाच्यो घडयो दवरीत आशिल्लें. आपणाक न्हीद येता अशें दिसतकच रांदचेकुडींत वचून थोडें उदक पियेतालें. दोळयांरूय मातशें उदक मारतालें. रातच्या दोनच्या सुमाराक हुम येवन अखिलेशाचो जोर देंवलो. गळयावयली हुम पुसत आसतना तो जागो जालो.

'तूं अजून जागेंच आसा?'

'हय, आतांच तुजो जोर देंवला. उदक, च्या, कॉफी कितें जाय?ताळो सुकला आसतलो. कॉफी चलता?'

'आं'

अखिलेशान मानेनूच हयकार दिलो. सोनियान कॉफी करून अखिलेशाक दिली. कॉफी पितकच ताच्या जिवाक थाकाय आयली.

'तूं न्हीद आतां. फाल्यां बँकेत वचपाक जाय न्ही? म्हाकाय न्हीद येता' अखिलेशान सांगलें.

सोनिया हॉलांत आयलें. दिवाणाचेर सायली सुस्त न्हिदिल्लें. थंयच सोनिया आडवे जालें.

सोनियाक जाग आयली तेन्ना स वरां जावन गेल्लीं. दोळे अजून जळटाले. पूण आतां उठुंकूच जाय आसलें. सायलीच्या आंगावयलें पांगरूण करून सोनिया बाथरूमांत गेलें. उदकाच्या आवाजान आरती जागें जालें. खूब न्हीद मेळिल्ल्यान ताकाय आतां खूब बरें दिसतालें. तें तोंड धुवन येय मेरेन सोनियान च्या केली. च्या पिवन आरती रांदचेकुडींत आयलें. रांदचीकूड नितळ पळोवन ताका बरें दिसलें.

'हे आनीक केन्ना केलें तुवें? कितलो पसारो जाल्लो. म्हाका इतली सुस्त न्हीद लागली, कांयच कळळें ना.' आरतीन म्हळें.

'कितल्या दिसांचें जागरण न्ही गो. आखिलेशाचो जोर राती तिनांक देवलो.'

'तूं जागें आशिल्लें तो मेरेन?'

'हय, दोतोरान उदकाच्यो घडयो घालपाक सांगिल्ल्यो न्ही?' सोनियान म्हळें. आरतीन सोनियाकडेन लत्तुबायेन पळयलें.

आरती नाका नाका म्हणटा आसतना, सोनियान टॉमेटांचो सार केलो. भाजी केली. कुकर लायलो आनी तें भायर सरलें. घरा वचून सगळें जाग्यार घालून बँकेत वतपाक जाय आसलें. ते भायर दर शुक्राराक तें वृध्दश्रमाक भेट दितालें. तेंवूय करून ताका सांजचे परतें आरतीकडेन येवपाक जाय आसलें.

बेल वाजली म्हणून आरतीन दार उगडलें. 'शंबर वर्सां आयुश्य तुकां.' सोनियोक दारांत पळोवन आरतीन म्हळें.

'कित्याक गो मदींचशी म्हजी याद जाली?'

'आगो, आतांच हे गांवांक गेल्यात. तुका फोन करून आपय म्हण हांणी सांगिल्लें.' आरतीन म्हळें.

'आरती, केन्नापासून तुवें हांणी, तांणी म्हणपाक सुरवात केली?' सोनियोन हांसत विचारलें.

'सोनिया, कोणाचेय हुजीर 'अखिलेश' म्हणपाक बरें दिसना म्हणून आतां हीच संवय जाली.'

'अशें, एक सांग तुमचे 'हे' इतले बरे जाले, गांवाक वचपा सारके?'

'खरें म्हळयार अजून विश्रांतिची गरज आसा - तांका. पूण आयज एके म्हत्वाचे मिटिंगेखातीर ताका वचचेंच पडलें. फाल्यां सांजचो येतलो.'

'सायली खंय?'

'मुखावयल्या सुरीभिचो वाड दीस. थंय गेलां. सुरभिचो भाव ताका व्हरपाक आयिल्लो. हांव तुका च्या करतां.' शोनिया तोंड धुवन येयमेरेन आरतीन च्या केलो. आरतीन च्याचें कोप सोनिया म्हऱ्यांत दवरलें.

'फाटले चार - पांच दीस खंय तूं?'

'कितें सांगू, त्या दिसा हांगाच्यान गेलां मात, दनपरां आमचे बँकेतलो तो वासुदेव  वॉचमन गो, ताका ॲक्सिडेंट जालो. सामको मरतां-मरतां वाचलों. म्हणून ते रातचें म्हाका हांगा येवपाक मेळ्ळेंना. आनी मागीर दोन-तीन दीस थंयच.'

पूण बँकेन ताका हॉस्पिटलांत व्हेलो. नेमाप्रमाण वखदांची सोय केली, पूण तो शुद्दीर येयमेरेन ताचे जाणटेले आवयक धीर दिवपाचो नेम खंयच बरयिल्ले कडेन ना.' उलयतां उलयतां सोनिया गंभीर जालें.

'अशें म्हळयार त्या ॲक्टाभायलें तुवें काम केलें. ते भायर तुजो तो अनाथाश्रम, वृध्दाश्रम, महिला मंडळां सारकीं सुरूच आसा न्ही? इतल्यान भागना म्हण तुजी नोकरी.'

'ना जाल्यार वेळ कसो वतलो? मागीर सदांच उठून तुगेर येवचें पडटलें.'

'जाता. नाय जाल्यार तुजो हक्कच तो. आमचे खातीर तूं कितें ना कितें

करितच आसा. पयर तर म्हाका इतली लज जाली, घरांत इतलो पसारो जाल्लो. तो सगळो तुजेर सोंपोवन हांव सुशेगाद न्हिदलें.'

'मागीर आतां आभार प्रदर्शनाचो कार्यक्रम बी आसा?' सोनियान फकाणां केलीं.

'सोनिया, दर एक गजाल तूं फकाणाचेर व्हरूं नाका. सांग जेवणाक कितें करूं?'

'तुका जायतें कर, तो मेरेन हांव मातसो फोन करून येतां.'

'कोणाक फोन करता?'

'सुमीताक. रातचें घरा येवचेंना म्हण सांगतां. नाजाल्यार गरजे भायर वाट पळयत बसतलो.'

'हो सुमीत कोण?' आरतीन सहज विचारलें.

'म्हजो पूत.' खळखळून हांसून, सोनिया फोन करपाक गेलें. आरतीक शबानाच्या पयरच्या उलोवण्याची याद जाली.

'हालीं बाये खंयच्यातरी वीस बावीस वर्सांच्या चल्याक हाडून दवरला. खुशाल दोगांय एकठांय रावतात. सामकीच लजशी सोडल्या.

ते उपरांत पल्लवीचें उलोवणें.

'आरती, तूं सदांभशेन ताचीच कड घेतलें. पूण लक्षांत दवर. हालीं तुज्या घोवाक सोदपाक सारकें बॅंकेत येता खंय. आनी परतें परतें फोनय करता.'

'आगो, कितें तरी काम आसतलें. आनी ताका अखिलेशाकच मेळपाक जाय जाल्यार तें आमगेर केन्नाय घरा येवपाक शकता.'

'हय मगो? मागीर घरा येना आसतना परतें परतें बॅंकेत कित्याक वचप? आनी परतें - परतें कसलें गो बाये काम? ही आमची बॅंकेची सोसोयटी. सगळे ऑफिसर थंयच रारतात. पूण आमचेकडेन वा आमचीं कोणाकडेन अशीं बाये कामां आसनात.

'आपणें लग्न जावप ना, आनी ! दुसऱ्याच्या घोवांकडल्यान लिफ्ट घेवप, सगळयांक आरें, तुरे करप. खंयचे आखिलेशान अशें सांगलें, खंयचें माधवान

अशें म्हळें, खंयचो अतूल असो. जशे काय सगळेच हाचे बालमित्र. शमाचो आवाज उलयातं - उलयतां चिडिल्लो.'

'आसू गो. आमच्या सगळयांच्या घोवांभशेन तेंवूय एक ऑफिसर. ताका ते बरोबरचे. पूण हांव अखिलेशाक विचारतलें.' थोडेशें निर्धारान आरतीन तांकां सांगलें.

'आरती, कितें चित्ता?... जेवणाचो मेनू आजून थारना? चल, दोगांय मेळून कितें करूंय.'

दोंगांय रांदचे कुडींत गेलीं. आरतीन मोन्यांनी कुकर लायलो.

'हें कितें? एकदम वगीशे जालें? ' सोनियान विचारलें.'

'खंय कितें? एकदम वगीशे जालें.?' सोनियान विचारलें.'

'म्हाका फटोवं नाका. इतलो वेळ बरें उलयतालें. कितें जालें अकस्मात?' सोनियान विचारलें.

'सोनिया. दर एकल्याचें आयुश्य ही एक ताची खाजगी गजाल. तातूंत धवळाधवळ करपाचो कोणाकच अधिकार ना. म्हाकाय हें खबर आसा. तरी आसतना हांवें हुतहुतेपणां केल्ले बदला सॉरी.'

'ए कित्याखातीर उलयतां तूं? सारकें सांग. म्हज्या लक्षांत येवंक ना.' सोनिया काचाबूल जावन म्हणपाक लागलें.

'येदोळ तुका हांवे सुमीता विशी विचारलें.'

'हें पळय आरती, म्हजें आयुश्य कितलेंय खाजगी आसलें तरी तांतूंत पडपाची तुका पुराय अधिकार आसा. तुजे इतले लागिचें म्हाका कोण ना. पूण म्हाका आपलें दिसता. दर एका संवसारी मनशाक ताचे आपणाले अशें कितलेशेच प्रॉब्लेम आसतात. तातूंत आनीक आपल्या प्रॉब्लेमाची भर कित्याक घाल? प्लीज, रागार जांव नाका हांव सगळें सांगतां. पूण तुका सुमीत विशीं सांगचें पयलीं थोडें भोव म्हजे विशीं सांगपाक जाय.'

सोनियान उलोवपाक सुरवात केली. इतल्यान सुरभी, सायलीक घेवन आयलें. सोनियाक पळयतकच सायलीन ताचेर उडी घेतली.

'आन्टी, सायलीन फकत थोडोसो केक खाला आनीक कांयच खावंक ना.'

'आगो, तोंडाक रूच ना. बरें नाशिल्लें न्ही?'

'बरें आन्टी, वतां खूब फ्रेंडा आयल्यांत.'

'बरें.'

'कितलें बारीक जालां सायली!' सोनियान सायलीक घट धरलें.

'हय गो, फुगांव आयिल्ले, तेन्नाच्यान कांयच खायना-जेवना. बेठें किरकिर करतां.'

आरतीन दिल्लें दूद, शिताचें ताट आनी सायलीक भायर घेवन वतां वतां सोनियान म्हळें, 'म्हजे विशीं मागीर सांगतां आं.'

भायर सोनिया सायलीक काणी सांगतां सांगतां लावपाक लागलें.

आतां आरतीक पांच-स दिसां आदलो प्रसंग याद जालो. शबाना आनी पल्लवीन मुद्दाम सुमीताविशीं सांगिल्लें आनी आरतीन सदचे भशेन सोनियाची कड घेतिल्ली.

'आरती, वगीच तांची कड घेवं नाका आं. आमी तुजे परस चड वळखतात ताका. ताच्यो सगळयोच कल्पना वेगळयो. आनी आतां पस्तीस वर्सांची पिराय तरी नक्कीच जाली आसतली. अजून लग्नाची खबर ना. विशय लेगीत काडल्यार आंग फाफुडटा.'

'आसतली गो कितेंय खाजगी गजाल. ताणें कितें सांगुकूच जाय अशें बंधन आसा?' आरतीन थोडेशें रागान म्हळें.

'हें पळय आरती, ताचें खाजगी कितेंय आसूं, आमकां कितें करपाचें आसा? आमचे इतलेंच म्हणणें, ताणे आमच्या घोवांबरोबर अती उलोवप, लिफ्ट घेवप, आमकां मान्य ना. पूण तुज्या घोवाक मेळपाक दिसपट्टें बँकेंत येता खंय!'

आरतीन तेन्ना तितलेंशें कानामनार घेतलें ना. पूण तीं दोगांय वताकच ताका दिसलें, सोनिया जर काय कामाखातीर बँकेंत आयिल्लें. जाल्यार अखिलेशान म्हाका कशें म्हळें ना? ताचें विचारचक्र सुरू जालें आनी अखिलेशाच्या फाटल्या

कांय दिसांतल्या वागपाचो अर्थ तें सोदपाक लागलें.

फाटले कांय दीस अखिलेश बँकेतल्यान उसरांच घरा येतालो. पुरो जाल्यान रोखडोच न्हिदतालो. मेकळेपणान उलय नाशिल्लो. सदांच खंयच्यातरी टेन्शनाखाल आसतालो. अर्थात नव्या प्रामोशनाची व्हडली जापसालदारकी आशिल्लीच. आनी ते खातीर तागेले वागणुकेंत कांय गैर आसा अशें आरतीक दिसनासलें. शबानाचें उलोवणें आयकतकूच ताका मातशें वेगळें दिसलें खरें. रोखडेच ताणं थारायलें अखिलेशाक स्पश्ट विचारपाक जाय आनी तेंवूय आयजूच.

त्या दिसा सांजचो अखिलेश सदचे वरी पुरो जावन घरा आयलो. ताका च्या दितना आरतीन विचारलें,

'अखिलेश, आमचो फोन केन्ना सारको जातलो?'

'कित्याक? कोणाक फोन करपाक जाय? म्हाका सांग हांव करतां बँकेतसून.'

'सोनियाक फोन करपाचो आशिल्लो. खूब दीस जाले. येवंकूच ना. वोगीच हुसको जाला. बरें बी ना काय?'

अखिलेशाच्या तोंडाचेर कितें बदल जाता काय कितें ते आरतीन बारकायेन नियाळलें.

'तशें काय ना. बरें घटमूट आसा. आनी चारपांच दिसांनू हांगा पासय मारतलें.'

'तुकां कशें कळ्ळें? फोन बी आयिल्लो?'

'तेंच बँकेत आयिल्लें तेन्ना सांगतालें.'

'तुजे बँकेत कित्याक आयिल्लें? आनी हांगा कित्याक येवंक ना?' आरतीन विशय सुरू केलो.

'हांवे ताका तशें म्हणिल्लें. पूण ताका आयज वेळ नाशिल्लो, मागीर येत म्हण सांगलां.'

च्या कपबशी भितर व्हरतां व्हरतां आरतीच्या मनांत आयलें. शबाना म्हणटालें तें सामकेंच फट न्ही.

'आयज पयलेच फावट आयिल्लें?' आरतीन भायर येवन विचारलें. आखिलेश

फायलींतलें पेपर वाचपांत गुल्ल जाल्लो. आरतीच्या प्रस्नांकडेन ताचें लक्ष नाशिल्लें.

'हांव कितें विचारता? तें आयज पयलेंच फावट बँकेत आयिल्ले.'

'कोण ?' अखिलेशान मान वयर करिनासतनाच विचारलें.

'आरे कोण कितें? हांव अजूनय ताचेच विशीं विचारतां, सोनिया विशीं!'

'सोनियाचें कितें?' अखिलेशान गडबडूनशें विचारलें.

'आतां कितें काय म्हण म्हाकाच कितें विचारता? सोनिया बँकेत आज पयलेच फावट आयिल्लें?'

'ना. फाटले आठ - दीस सदांच येता.'

'आनी तुवें म्हाका एकाय उतरान सांगूक ना.!'

'आगो, सद्ध्या हांव इतल्या टेनशनांत आसां. असल्या गजलीय कडेन म्हजें लक्ष ना, तुका खबर आसा न्ही? तें बँकेच्या कामाखातीर येता. तातूंत तुका मुद्दाम सांगपाचें कितें?'

'हाचेर हांवें विस्वास दवरपाचो?'

'म्हळयार?'

'फाटले आठ-धा दीस तें सदांच तुजेकडेन येता हें तू हांवें विचारले बगर सांगना. हाचेवेल्यान हांवें कितें समजुपाचें? आरतीचो आवाज चडलो.

'कितें समजुपाचें तें समज. बँकेत कितलीं कामां आनी टेंशनां आसात हें आदींच सांगलां तुका. तांतूंत असल्या मायनर गजाली कडेन हांव चडशें लक्ष दिना.'

'ही मायनर गजाल? सोनिया तुका मेळपाक तुजे बँकेंत येता, हें म्हाका दुसऱ्या कडल्यान समजता, ही मायनर गजाल?'

आरतीचो आवाज सामको वयर चडलो.

'आरती, आवाज सकयल येंवदी. आनी आयक, सोनिया, बँकेच्या कामाखातीर फाटले कांय दीस बँकेत म्हजेकडेन येता. आनीक कांय दीस येतलें. आनीक कसलें स्पश्टीकरण जाय?'

अखिलेशान सकयल्या आवाजान पूण तितलेच निबरसाणेन सांगले. ताच्य आवाजाक भियेवन आरती तशेंच उबें रावलें.

'नाऊ यू गेट लॉस्ट.' त्याच आवाजान अखिलेशान म्हळें आनी परत फायलींत तकली घाली.

तांच्या संवसारांतलें हें पयलें झगडें.

रातचो अखिलेश ताका म्हणपाक लागलो, 'आय ॲम व्हेरी सॉरी आरती हांव गरजेभायर रागार जालों. पूण तुका खबर ना, सद्या हांव खंयचे परिस्थितीं आसां तो!'

'सांगलेबगर म्हाका कशें कळटलें? म्हजेर विस्वास ना तुजो? आरतीन विचारलें.

'तशें न्ही. सगळयांचो विरोध पत्करून फकत म्हजेर विस्वास दवरून तूं तुजे घर सोडून हांगा म्हजेबरोबर आयलें. आनी हांव तुका खंयच्या तोंडान सांगूं फाटल्या म्हयन्यात बँकेत जे अफरा तफर प्रकरण उकताडाक आयलां तांतूंत प्रत्यक्ष नासलें तरी अप्रत्यक्षपणान म्हजें नांव घेतात. तुकां हें सहन जावपाचें ना म्हाका खबर आसा, मॅनेजर फडतेक पेपर वाचिनासताना सय करपाची संवय आसा. पूण मॅनेजर फडते हॉस्पिटलांत आसा. हार्टअॅटॅक आयला. तेन्ना तांचेकडेन डिस्कस करूंक शकना. म्हणून हांवे पयलिंच्यो सगळयो फायली तपासपाक सुरवात केली. ह्या प्रकरणाचो सोक्षमोक्ष लागले बगर मॅनेजराच्या कदेलाचेर बसपाचें ना अशें हांवें थारायलां. पयलीं आडमेळीं येतालीं. हांवे सुहासाक, रमेशाक मातसो रिक्वेस्ट केलो, की, म्हाका मातशी मदत करात. पूण दोगांयनी काना-मनार घेतलें ना. खरें म्हळयार आमचें शेरर्स विकून आयिल्ल्या पयशांनी आमी हो नवो बंगलो विकतो घेतला. पूण ह्याय लोकांनी म्हजेर अविस्वास दाखयलो, हाचेंच म्हाका चड वायट दिसता. बँकेत भितर सरनाफुडें ऑफिसर धरून सगल्यांच्यो नदरो म्हाका खावपाक येतात. तरी पूण बँक सुट्टकच थोडो वेळ रावन पयलिंचे रिकॉर्ड तपासपाक सुरवात केली. आनी एक दीस सोनिया आयलें. म्हयन्याची रजा सोंपोवन. बँकेतलें हें प्रकरण ताका कळ्ळें. आनी रोखडेंच तें म्हका मेळपाक आयलें. ताणे म्हाका एकाच उतरान सांगले.

'डोंट वरी अखिलेश. हांव आसां तुजे फाटल्यान.'

'ताच्या निखट्या उतरांनी म्हाका केदो धीर आयलो! त्या दिसा सावन वेशेचें काम सोंपतकच सदांच तें म्हजे ब्रँन्चींत येवपाक लागलें. हांवें तयार केल्ले फेरा तपासप गरज पडटा. तांच्यो झेरॉक्स काडप, असलीं कामां ताणें केलीं. मेजर फडतेक मेळून ल्हवू ल्हवू सगळें ताच्या कानार घालें आठ - धा दीस ताणें तिं केलेंना तें विचार! पोरण्या फायलींतलो बरोच गुस्पा - गोंदळ आमच्या क्षांत आयलो. आनी आतां थोड्याच दिसांनी हें सगळें सोंपतलें हाची म्हाका त्री पटपाक लागल्या.

अखिलेश उलोवपाचो थांबलो. ताणे आरतीकडेन पळयलें. आरती विचित्र दरेन ताचे कडेन पळयतालें.

'अशें कितें पळयता आरती? तुजो म्हजेर विस्वास ना? म्हजें सांगणे तुका रें दिसना?' उलयतां उलयतां ताणें आरतीचो हात हातांत धरलो.

'म्हजो पुराय विस्वास आसा. पूण तुजो म्हजेर विस्वास ना.' आपलो हात च्या हातांतल्यान सोडीत ताणे म्हळें.

'सोनियाचेर दवरलो ताच्या अदर्या वांट्यानी जरी म्हजेर विस्वास दवरिल्लो ल्यार हे परिस्थितींत हांवूय कितें करूंक शकतां हें तुमकां दाखोवन दिवपाचें. ण म्हज्या विस्वासाचो, हांवें केल्ल्या प्रेमाचो तुमी विस्वासघात केलो.'

'म्हजें चुकलें, खरेंच चुकलें. हांवें तुका पयलींच सांगपाचें'

ताचे दोनूय हात हातांत घेवन अखिलेशान म्हळें.

'प्लीज, प्लीज डोंट टच मी अखिलेश, आय ॲम लॉस्ट.' आरतीक हुडके ाडावपाक जमलें ना.

ते उपरांत तीन - चार दीस अशेच गेले, अदीक उणें कांय उलयनासतना. ानी मागीर सगळयांचीच वायटां. आरतीक सामकें नाका पुरो जालें.

'आगो सायलीक उदक खंयचें दिवं?' सोनियाचो आवाज आयलो. तशें ारतीन दोळे पुसले आनी सायली खातीर तापोवन दवरिल्लें उदक दिलें.

'सुमित एक अठरा - वीस वार्सांचो भुरगो.' सायलीक झोपाळयार न्हिदयतां ोनिया सांगपाक लागलें.

'एक दीस बँकेकडेनूच दोन गूंड ताका मारताले. तो मोटामोट्यान

गोरवासारको आड्डटालो. ताच्या त्या आवाजान आमी सगळीं भायर आयलीं. ताका मारपी ताचे सारकेच आशिल्ले. पूण तांच्या हातांत सायकलीच्यो चेन्स आशिल्ल्यो. ताका लागून कोणूय फुडें वचपाक धजनाशिल्ले. हातांत आर्म आशिल्लो आमचो वॉचमन लेगीत धुमो कसो पळयत आशिल्लो. एक असहाय्य हातबळ मनीस जिवाच्या आकांतान बोबो मारतालो आनी हात-पांय आशिल्लीं आमी सगळीं धडधाकट मनशां हो देखार पळयत उबीं आशिल्लीं. तो एकदम व्हडल्यान जीव तोडून किंळांचलो. मागीर मात म्हज्यान कशेंच सोंसपाक जायना जालें. हांव फुडें गेलें. ताका तांच्या तोंडातल्यान सोडयता सर म्हाकाय दोन - चार तडाखे खावंचे पडले. पूण एक जालें, हांव मुखार गेल्लें पळोवन आमचो वॉचमन आर्म घेवन आयलो. आनी त्या आर्माक पळोवन त्या दोगांयनी पळ काडली.

शुध्द नाशिल्ले अवस्थेंत आशिल्ल्या सुमीताक तसोच रिक्षांत घालो आनी हॉस्पिटलांत व्हेलो. थंय ॲडमिट केलो. दोन दिसांनी ताका डिसचार्ज मेळटकच ताका विचारलें,‘ तूं खंय वतलो?’

‘पांय व्हरता थंय’ ताणें जाप दिली. हांव जावन बळयां ताका धरा घेवन आयलें. एकदम ताका कांयच विचारलेंना पूण मागीर ताचेकडेन उलयताना ल्हवू ल्हवू सगळी गजाल समजली. तो एका श्रीमंत घरांतलो दुर्लक्षीत असो चलो. आवय अभिनेत्री, बापूय फकत पयशांचे फाटल्यान लागिल्लो. सुमीतान घरांतले कांय पयशे घेवन घर सोडलें. सिगरेटी विकत्यो घेतना गुंडांनी ताचे कडचे सगळे पयशे फारायलें. कितेंतरी निमित्त करून ताचेकडेन झगडे उप्रासून काडलें. सगळे पयशे, सुमार विशेक हजार आसले. ते पयशे ताच्या नांवान बँकेत दवरल्या. ताका एका स्कुलांत क्लार्काची नोकरी पळोवन दिल्या शिकलाय बरो, बी.कॉम. ते भायर कंपनी सेक्रेटरिचो कोर्स केला. फाविल्ल्या वेळांत अनाथाश्रमाच्या आनी वृध्दाश्रमाच्या कामांत म्हाका आधार दिता. सुमीत बरो भुरगो. आरती, ताका फकत मायेच्या, प्रेमाच्या चार उतरांची गरज आसा.

सगळ्यांक दिसता, ताची जापसालदारकी हांवेशी कित्याक घेवची? आमच्या बँकेतले लोक, इव्हन शबाना, शमी लेगीत म्हाका परतीं-परतीं सांगतात. पूण म्हाका एक सांग आरती, जीं आपूण जावन कांयच करिनात, तांका हेरांव सांगपाचो कसलो अधिकार आसा?

सुमिताक दिसता, आपणाकलागून म्हाका त्रास जातात. पयरूच म्हाका

म्हणपाक लागलो,' हांव तुका ताई म्हणूं?' हांवें सांगलें, आई लेगीत म्हळयार जाता. तुका खबर आसा आरती? अनाथाश्रमांतलीं भुरगीं सोड, वृध्दाश्रमातलीं आजी-आजयो लेगीत म्हाका आई म्हणटात. म्हाकाय दिसता आई हें निखटें नातेंच न्ही. ती एक मनातन निरपेक्ष प्रवृत्ती. पळय आरती, सायली एक दीस सारकें जेविना, जाल्यार तुजो जीव सकयल वयर जाता. सादी एक शींक आयल्यार तूं थतर बितर जाता. म्हाकाय तेंच भोगता. मागीर तीं अनाथाश्रमांतलीं माणकुलीं भुरगीं जावं वा वृध्दाश्रमांतली जाणटेलीं मनशां जावं, म्हजो जीव खासावीस जाता. ज्या दिसा सुमीताच्यो किंळच्यो हांवें आयकल्यो, तेन्ना खिणभर म्हाका दिसलें, ' म्हज्या विराजाकूच कोणतरी मारता. तो आड्डता. म्हाका आपयता, आनी कोणूच मुखार वचना. म्हज्या विराजाक कोणेंतरी वांचोवपाक जाय.'

'विराज? कोण विराज? आरतीन विचारलें.

'विराज!' सोनिया गडबडलें.

'आगो अशें कितें? आतांच तूं म्हणनाशिल्लें? म्हज्या विराजाक वांचोवपाक जाय म्हणून? सांग न्ही कोण हो विराज तो.

सोनिया खिणभर वग्गी रावलें. खूप व्हडलें वादळ तें. भितल्ले भितर पचयता काय दिसतालें.

'सोनिया, तूं आतांच म्हणटालें न्ही, म्हजे इतलें लागिचें तुका कोणूच ना म्हण? सांग न्ही, कोण हो विराज? सोनियाचो हात धरून आरतीन विचारलें. सोनियाचे तकलेक खुबच ताण पडिल्लेभशेन दिसलो. भितर उठिल्ल्या मोडाचीं चिन्नां तोंडार दिसतालीं. चार - पांच मिणटां जातकच कितेंतरी निश्चेव करून सोनियान थण्डपणान सांगले.

'विराज - म्हजो चलो!'

'कितें तुजो चलो? खंय आसता तो? केदो आसा? तुजें लग्न ? आय मीन, विराजाचो बापूय कोण?'

सोनियाचे जापेन चक्रावन गेल्ले आरतीन एका फाटोफाट एक प्रस्न विचारले.

'हांवें तुका येदोळ सांगूंक ना सुमीताविशीं सांगपाचें जालें जाल्यार म्हजे विशीं सांगपाक जाय. म्हजेविशीं - आतिशाविशीं...

'आतिशाविशीं? कोण अतिश?' आरतीन विचारलें. कांय वेळ थांबून, एक व्हडलो हुस्वास सोडून सोनियान उलोवपाक सुरवात केली.

आपणाल्या बापायकडेन म्हळयार सोनियाच्या आज्याकडेन झगडें जातकच ताच्या पापान घरच न्ही, तर तो गांवच सोडलो. तेन्ना तांचेबरोबर सोनियाची आवय आशिल्ली आनी पोटांत सोनिया. नव्या गांवांत आयलेबरोबर तांणी व्हडल्य दिसपी पयल्याच घरांत जागेची चवकशी केली. आनी थंय ताका जागोय मेळळो त्या व्हडल्या घरांत माई आनी तांचो तीन - चार वर्सांचो पूत आतिश दोगांच रावतालीं. निकतीच विधवा जाल्ली माई आनी तिचो तीन चार वर्सांचो आतिश आतिश सोनियाच्या पापाक एके गॅरेजींत नोकरी मेळिल्ली. माई आनी सोनियाचो पापा आनी आई हांचे जशें काय एक कुटुंब तयार जाल्लें. परिस्थिती बऱ्यांतली आनी बापूय नाशिल्ल्यान माई आतिशाचे खूब लाड करताली. आतिशाची आवडिची एक बावली आशिल्ली. गोऱ्या रंगाची, पिंगश्या केसांची, ताका ती खूप आवडटाली ताणें तिचें नांव दवरिल्लें सोनिया. आनी जेन्ना सोनियाचो जल्म जालो तेन्ना ताचो गोरो रंग, आनी पिंगशे केंस पळोवन आतिश ते बावलेक विसरलो. आईन सोनियाचें नांव शुभ्रा दवरिल्लें. पूण आतिश ताका आदिं पासून सोनियाच म्हणटालो. एकदां सोनियाचेच आईन ताका सहज म्हणिल्लें.

'वगीच ताका सोनिया, सोनिया म्हणूं नाका. व्हडलें जावन घोवाघरा वतकूच तूं मागीर कितें करतलो?... आतिश वोगीतसो रावलो आनी उठून गेलो. पूण दीसभर माईक एकासारको विचारीत रावलो. ' लग्न म्हळयार कितें?' न्हवरो म्हळयार कितें?' नी माईन जेन्ना ताका सगळें फोडणिशी करून सांगलें, तेन्ना तो धांवत आयलो आनी म्हणूक लागलो,

'मावशे, हांव सोनियाक व्हरपाक आयलां. हांवूच ताचो घोव' सात - आठ वर्साच्या आतिशाची तीं उतरां आयकून सोनियाचीं आई -पप्पा, माई खूप हांसली. आनी तेन्ना पासून अतिश सोनियाक एकटें सोडिना जालो. तें आपणाल्या इश्टावांगडा चड खेळिल्लें लेगीत ताका माननाशिल्लें.

एक फावट माई आनी आतिश आपणाल्या गांवांत गेल्लीं. तेन्ना भातुकलीच्या खेळांत सुजय सोनियाचो घोव जाल्लो. आनी गांवांतल्यान आयले बरोबर जेन्ना अतिशाक हें कळिल्लें तेन्ना ताणे सोनियाकडेन उलोवपाचेंच बंद केल्लें. सोनिया तेन्ना खूप रडिल्लें. सगळयांनी ताका समजावपाचो खूब यत्न केलो. पूण ताणे

कोणाचेंच कानामनार घेवंक नासलें. सोनियोन दोनूय कान हातांत धरून आपूण आयुश्यांत केन्नाच दुसऱ्याची बायल जावचे नां, अशे म्हणिल्लें आनी तेन्नाच अतिशाचो राग निवळिल्लो.

अशींच दोगांय वाडटालीं. आनी मातसो व्हडलो जातकूच अतिश सोनियाचेर चड अधिकार गाजोवपाक लागलो. ताका दिसतालें दर एक गजाल सोनियान ताका विचारून करपाक जाय. तसो ताचो आग्रोच आशिल्लो.

सोनिया एम् .एस् . सी. पास जालें. त्याच वर्सा आतिश एम.कॉम. करतालो. अतिश खूप हुशार आशिल्लो. पूण थोडोभोव अबोलूय आशिल्लो. आनी तेच खातीर तो सगळयांकडेन तितलो मिक्स जायना आशिल्लो. आनी सोनियाय चड कोणाकडेन उलयिल्लें अतिशाक आवडनाशिल्लें. तांच्या संबंदाचो वास कॉलेजींत सगळयांक लागिल्लो. आनी तेच खातीर सोनियाचे वाटेक कोण येनासलो. सोनिया कॉलेजीच्या तिसऱ्या वर्साक आसतनाच सोनियोचो पापा अकस्मात गेलो. अतिशान फुडें सरून सगळें म्हळयार सगळें केलें. आनी तेच रातचें ताणें सोनियाचे आईक सांगलें, 'मावशे, आतां ह्यावूय घराची जापसालदारकी म्हजी!' पयलीं तो फकत सोनियाचीच जतनाय घेतालो. आतां आईकडेन चत्रायेन लक्ष दिवपाक लागलो. सोनियाच्या पापाच्या पयशांची सगळी वेवस्था ताणेंच केली.

कोणाकूय मजा दिसपाची. घरांतलीं कामां म्हळयार धोवाचे कपडे वेवस्थीत दवरप ताचीं पुस्तकां, हिशोब सारको दवरप ह्यो गजाली ज्यो चलयो लग्नाउपरांत करतात त्यो सोनिया बाराव्या वर्सापासून करतालें. पिकनिकेक वचपाचें आसूं नाजाल्यार इश्टीणीगेर वचपाचें आसूं, आईक विचारतां, पापाक विचारतां अशें सोनियान केन्ना म्हळेंच ना.

'अतिशाक विचारून सांगता. हीच ताची दर एके गजालीक जाप आशिल्ली. कॉलेजीक आसतना हे गजाली खातीर सोनियाच्यो इश्टीणी ताचेर खूब पिकार जाताल्यो. त्यो म्हणटाल्यो लेगीत, एक तर ताच्या नांवाचो जप थांबय नाजाल्यार सरळ ताच्या नांवान गळयांत मणी तरी बांद, म्हणजे आमी तुजे वाटेक वचना.

एम.कॉम जातकच अतिशाक आमचेच कॉलेजींत लेक्चरर म्हण नोकरी मेळळी. सोनिया बी. एस. सीक आशिल्लें तेन्ना रिसर्चाखातीर ताका फॉरेनाक वचपाची संद आयतीच मेळळी. पयशांची थोडी अडचण जाली. पूण सोनियाचे

आईन पापाचे बँकेत आशिल्ले पयशे ताका गरजेक मोडपाक दिले. आतिशाचें वचपाचें नक्की जालें.

सोनिया आनी अतिश एकठांयच आसतालीं. एकामेकांखातीर वेगळो विचार, वेगळो वेळ असो केन्नाच नासलो. अतिशाच्या पयस वचपाच्या निर्णयान मात तीं दोगांय अस्वस्थ जालीं. इतलीं वर्सां लागीं रावनूय, इतलें उलोवनूय आतां आनीक खूब खूब उलोवपाचे आसा अशें तांकां दिसपाक लागलें. ताचे पयलीं दोकांकूय केन्ना भायर भोंवपाक वचपाची गरज दिसली ना. पूण मागीर मात तीं सदांच भोंवपाक वचपाक लागलीं. देवळाच्या सपणांचेर बसून वरांची वरां उलोवपाक लागलीं. घरांत लेगीत एक खीण तीं दोगांय एकामेकांक सोडी नासलीं. रातिच्यो राती तीं फकत उलयत रावतालीं. आईची आनी माईची इत्सा आशिल्ली, लग्न जावन दोगांयनी फॉरेनाक वचचें. पूण ल्हानपणांत सावन पळयत आयिल्लें लग्नाचें सपन अशें इतल्या बोवाळांत कवळून घडोवप दोगांकूय मान्य नाशिल्लें.

फुडाराच्या संवसाराचीं मळबभर सपनां तांणी रंगयलीं. त्या सपनांनी सवकासायेन रंग भरपाचें काम सोनियाचेर सोंपोवन अतिश फॉरेनाक गेलो. फाटलीं बावीस वर्सां ज्या मनशाक खीण भर लेगीत कुशीक काडूंक शकलें ना, त्या मनशाक दोन वर्सां सोडून रावप ही कल्पनाच सोनियाचें काळीज आनी मेंदू पोखरून काडटालीं.

‘ आईकडले आनी माईकडले सगळे पयशे अतिशाखातीर खर्चले. तेखातीर म्हाका मागीर नोकरेचो विचार करचो पडलो. बी.एस्. सी. जातकच एके कॉलेजींत म्हाका डेमॉन्स्ट्रेटरची नोकरी मेळळी.’

माई आनी आई वाचन, कथा-किर्तन हांतूंत वेळ सारतालीं. सोनिया मेकळे आशिल्ल्यान ताका इश्टिणी बरोबर थोडेंशें भोवपाक फिरपाक वेळ मेळपाक लागलो. इतले दीस आतिशाचे फाटल्या-फुडल्यान आशिल्ल्यान जिवाभावाची अशी एकूय इश्टीण नाशिल्ली सोनियाक केन्ना केन्ना दिसतालें, आई-माईच्या इत्सेप्रमाण लग्नकरून भुरग्यांची सुलूस तरी दिवन आतिश वतलो आसलो. आनी आतां आपूण एकटें पडचें नाशिल्लें. अशा वेळार तें सुमाराभायर अस्वस्थ जातलें. आनी आतिशाक व्हडलीं पत्रां बरयतालें. तातूंत फुडाराक तांगेर जावपी भुरग्याविशीं बरयिल्लें. चलो जाल्यार विराज नांव दवरतलें ही सोनियाची इत्सा. आनी चली जाल्यार ताचें नांव अतिशान दवरपाचें अशी ताची सुचोवणी आसली.

आपणाक घुस्पून दवरप बरें म्हणून ताणे ट्यूशन्स दिवपाक सुरवात केली. ॉलेजच्या हेर ॲक्टिव्हिटीजानी वांटो घेवपाक लागलें. तातूंत तें बरे तरेन रंगून लें. आनीएक दीस ताचे ताकाच जाणवलें, अतिशाचीं पत्रां हालीं खूब उसरां तात आनी तांतूत पयलिंची ओड नासता. सोनियान आपणालो हो दुबाव ाई-माईकडेन उलोवन दाखयलो. त्या दोगांयनी ताका पिशांत काडून म्हळें,

'थंयचो येदो व्हडलो व्याप सांबाळून नोकरी करून तो एक्का सारको तुका त्रां कशीं बरयत बसतलो?' ताणीं सोनियाची समजूत घाली. पूण सोनियाचें ात समाधान जालें ना. आनी एका पत्रांत तर ताणें सोनियाचे आईकडसून तिल्ले पयशे कितल्या वर्सांनी परते करतलों तें बरयिल्लें. खरें म्हळयार पयशे दतनाच सोनियाचे आईन ताका स्पश्ट सांगिल्लें,

'तूं वोगीच पयशे घेवपाक वयर-सकयल जावं नाका. मुखार तुमच्या लग्नांत दिवपाचें तें आतांज दितां. हें सगळें तुज्या हक्काचेंच आसा.'

ते पयशे परत करपाचें अतिशान बरयलें तेन्ना मात सोनियान धीर सोडलो.

आनी एक दीस सगलें कुवाडें सुटलें. सुमार अडेच - तीन म्हयने अतिशाचें त्र नाशिल्लें. सोनियाचीं चार पत्रां गेल्लीं. पूण एकाय पत्राक जाप नाशिल्ली. ानी एक दीस सोनिया कॉलेजांतल्यान येनाफुडें माईन अतिशाचें पत्र सोनियामुखार वरलें. तातूंत कितेंतरी गंभीर मजकूर आसतलो, हें सोनियान तिच्या तोंडावेल्यानच ारखिल्लें. पत्र माईक आशिल्लें. बरेच दीस पत्र बरोवंक मेळळें ना म्हणून सुरवेक ाईची क्षमा मागिल्ली. ताचो थंयचो मुक्काम आनीक तीन वर्सां वाडिल्लो. ताणे ुडें बरयिल्लें, 'मोनीका नांवाचे एके चलयेकडेन हांवे लग्न केलां. खरें म्हळयार ग्नाचे आदीं तुका कळोवन तुजी मान्यताय घेवपाक जाय आसली पूण ती म्हाका न्नाच मेळची ना हेंवूय खबर आशिल्लें. माई, म्हाका खबर आसा, तुमकां सगल्यांक ांवे जबर धक्को दिला. शुभ्राचोय व्हडलो अपराध केला पूण..'

शुभ्राचो अपराध ! सोनियाचो न्हय आई, पापा, माई इश्टिणी सगळीं ोनियाक शुभ्राच म्हणटालीं. ताणें सोनियाक शुभ्रा म्हणिल्लें ताका केन्नाच याद ायनासलें. फुडलें पत्र सोनियान वाचलेंच ना. ज्या खिणाक सोनिया ताचेखातीर ुभ्रा जालें, त्याच खिणाक ताचें आनी आपलें नातें सोंपलें, अशे सोनियाक दसलें. पत्र माईच्या हातांत दितना सोनियान इतलेंच म्हळें,

'माई, म्हजो जल्म जातकूच ताणे आपली बावली वडोवन दिली, अशें

तुमीच म्हाका सांगिल्लें. आज ते बावलेचें दुख्ख म्हाका कळटा.'

ते सांजचें देवळाच्या सपणांचेर बसून सोनिया खूब रडलें. निमाणचें. कार ताका रडत रावप चलचें नाशिल्लें. त्या दोगां गळसणून गेल्ल्या जाणटेल्यां सोनियाचोच आदार आशिल्लो.

आतां फुडें कितें करपाचें तें थारावपाक जाय आसलें. सोनिया मुखार ए विचार आशिल्लो. आईक घेवन तो गांवच सोडपाचो. कारण थंय सगळयां सोनिया आनी अतिशाविशीं खबर आशिल्लें. खबर आशिल्लीं कोण कां उलयनासलीं. पूण तांच्या उतरां विरयत केल्ल्या सांत्वनान लेगीत सोनिया दुखावतालें हें विशीं माईकडेन उलोवचें म्हण सोनिया तिचे म्हऱ्यांत गेलें तर तिणें एक प सोनिया मुखार दवरलें. पत्र माईन अतिशाक बरयिल्लें.

'हें फुडें तु म्हाका पयशे धाडूं नाका. तुज्या पयशांचेर जगचेपरस शुभ्राच्य आदारान जगप म्हाका चड मानाचे दिसतलें. तुज्या असल्या भुरग्याक जल्म दिलें हाचीच म्हाका चड खंत जाता.'

अतिशान धाडिल्लो ड्राफ्ट माईन त्या पत्राबरोबर परत केल्लो. म्हज प्रस्नाची जाप माईन उलयनासतना दिल्ली. म्हज्या आदाराचेर तिणें अतिशाच आदार तोडिल्लो.

उपरांत कांय दिसांनी परतें अतिशांचें पत्र आयलें. तातूंत एका भुरग्याच फोटो आशिल्लो. अतिश बापूय जाल्लो. चल्याचें नांव ताणे विराज दवरिल्लें. जं सपनां सोनियान पळयिल्लीं, सोनिया खातीर अतिशान ती चितारून दवरिल्ली तातूंत दुसरीच कोण तरी रंग भरताली. जो विराज सोनियाचे कुशीन वाडपाच ताणे दुसऱ्याच्यो पोटांत जल्म घेतिल्लो. भरत आयिल्लो घाय ओलो जाल सोनियान गांव सोडपाचें थारायलें. ताका बँकेंत नोकरी मेळ्ळी. तेन्ना माई सोनियाक म्हणपाक लागली, 'सोनिया, थंय खुशाल नोकरेक वच. आमी दोगां म्हातारी हांगाच रावतात आनी तुजें घर सांबाळटात.'

अतिशाच्या बापायचे फाटल्यान आपणालें मालकेचें घर नाका-नाका म्हणा आसतना माईन सोनियाच्या नांवार केल्लें.

सोनिया बँकेंत कामाक लागलें आनी एक दीस माईचें सोनियाक प आयलें, 'तुजेकडेन सरळसामकार उलोवपाक भंय दिसता. म्हण आज पत्रांतल्या

रयतां. आमचो आदार तुका आसून नासले सारकोच. आतां तुजो सांगाती तूंच ोद. आमकां दोगांकूय तुका आशीर्वाद दिवपाची उमळशीक लागल्या.

ते उपरांत तांणी खासा पांच-स थळां सुचयलीं. बँकेतल्या दोन-तीन नशांनी सोनियाक लग्नाखातीर विचारलें तेन्ना सोनियान थण्डसाणेन विचार ल्लो. आनी ताका एकट दिसून आयलें. तें म्हळयार आयुश्यांत पुराय विचार रून एकदांच जो दाव मांडपाचो आसता, तो नकळटना काय जायना, तें केन्नाच ांडून चुकिल्लें. समजत पासून आतिश होच ताचो घोव थारिल्लो ही जाणवीक क्की जायतपासून सोनिया त्या जाग्यार दुसऱ्याची बायल जावचेंना अशें वचन ाणें अतिशात दिल्लें. तेन्नापासून मनांत ताणें ताचेकडेनच संवसार केल्लो. वाट ळोवप, समजूत घालप, ताचें सगळीं कामां करप, ज्यो गजाली कोणूय घोवाखातीर रता, त्यो सगल्यो ताणें अतिशाखातीर केल्ल्यो. मनात तीं एकठांय आयिल्लींच. कच कुडीन येवंक नाशिल्ली. आतां खंयचोच दादलो ताच्या मनांत संवसाराची भिलाशा निर्माण करूंच शकचो ना, हें सोनियाक उमजून आयिल्लें. इतलें सगळें ावनूय सोनिया अतिशाचेर रागार जावपाक शकलें ना. अतिशान मागनासतना ोनियान ताका केन्ना क्षमा केल्ली. सोनियाचें शुश्रा करून अतिशान ताचें स्त्रीत्व ोंपयल्लें. तागेलें आवयपणूय ताणे झोमून म्हणटा तशें घेवन ताचेर खूप अन्याय ल्लो. सोनियाक दिसलें, आपणालें स्त्रीत्व अतिशाखातीर आशिल्लें, पूण आपणाल्या ातृत्वाचेर ताचो कितें अधिकार आशिल्लो?

सोनियान एका दमान सगळें सांगून वडयलें. थोडोवेळ रावून ताणें आरतीक हळें,

'आरती, जेन्ना एकाद्री व्यक्ती संकश्टांत सांपडटा तेन्ना म्हजो जीव खासावीस ाता. म्हाका दिसता, त्या जाग्यार म्हजो विराजय आसूं येता. आनी मागीर दुसरो खंयचोच विचार करिनासतना हांव ताच्या आदाराक धांवून वतां. मागीर तो सुमीत आसूं वा वृद्धाश्रमांतलो कोण जाणटो आसूं. सगळीं विचारतात, सुमीत तुजो कोण? दर एका नात्याक नांव आसुंकूच जाय? नांवा बगर नात्याक कांयच अर्थ ना?'

'पुरो कर सोनिया. आयकूंक नज म्हज्यान.' अशें म्हणत आरतीन दुकां पुसलीं. सोनियाक हुंडको आवरपाक जालो ना. दुख्ख आनी पश्चतापाचे भावनेन आरतीन सोनियाच्या खांदार हात दवरलो. तेसरशीं सोनिया ताच्या आंगाचेर

कोंसळ्ळें. आरतीचे मांडयेर तकली दवरून सोनिया कितलोतरी वेळ रडत आशिल्लें आरती मोन्यानी ताच्या केसां वयल्यान हात भोंवडायतालें. पुरो सोनियाच्य कितल्योश्योच गजाली आरतीक याद जावपाक लागल्यो. आनी त्या दोगांयच पयली भेट लेगीत.

स म्हयन्याचें सायलीक घेवन आरती घरसून पयलेंच फावट ह्या गांवां आयिल्लें. तीन म्हयन्यांपयलीं अखिलेशाची हांगा बदली जाल्ली. अखिलेशा ताका बसस्टेशनाचेर रावता म्हणिल्लें. पूण अखिलेशाक येवपाक कळाव जाल्लो हाण्डीर सायली आनी हातांत सामानान गच्च भरिल्ली बॅग घेव आरती रिक्षांतल्या गेटीकडेन देंवलें. बॅग आनी सायलीक सांबाळीत पर्स उगडून रिक्षाचे पयशे दिवपा करपाक आरतीक कठीण जालें.

'कितले पयशे?' आरतीन सटकन आवाजाचे दिकेन पळयलें. गुलाबी पंजाबी ड्रेस घाल्लें पिंगश्या केंसाचें बॉपकट केल्लें, एक गोरेपान चली रिक्षावाल्य विचारतालें. आरतीन कितेंय उलोवचे पयलींच ताणे रिक्षाचे पयशे दिले. आरतीच्य हतांतली बॅग घेत तें म्हणपाक लागलें,

'तुमी मिसेस अखिलेश न्ही? हांव तेच बॅंकेत आसतां. अखिलेशाक अचकी ऑडीटाक वचचें पडलें, देखून ताचेबदला हांव आयलां. हांव सोनिया. चल तुम घर दाखयतां. ' अशें म्हणत ताणें म्हजे हाण्डीवयल्या सायलीची पापी घेतली.

सायलीक सांबाळत आरती ताचे फाटल्यान गेलें. हातांत जड बॅग नाशिल्ल्या आरतीक मातशें मेकळें मेकळें दिसलें. आरतीच्या हातांतली चावी घेवन सोनिया कुलूप काडलें. आरती भितर सरलें. ताका सगळें नवेंच आशिल्लें.

'बरें, हांव वचूं? म्हाका एक म्हत्वाची अपॉईटमेंट आसा. थंयसून बॅंके वचपाक जाय. नाजाल्यार हांव तुमचेखातीर मुखावयल्या हॉटेलांतल्यान जेव सांगू?'

'नाका, नाका. हांवें येतना बरोबर जेवणाचो डबो हाडला. अखिलेश मेळ्ळया तांका मातसो बेगीन घरा धाडात.'

'तो टुरावयल्यान भायले भायले भायर हांगाच येतलो. ताचें बॅंकेतलें का हांव पळयतां म्हण ताका सांगलां.' हांसत हांसत ताणे सांगलें.

ताच्या नितळ हांसपान आरती भारावन गेलें आनी पळयतां-पळयतां दो

कामेकांचे दाट इश्टीणी जाल्यो.

तें कॉलनींत रावपी सुहास, कौशीक, माधव, अखिलेशाचे बँकेत काम करतालें.आतऱ्या पयऱ्यान सोनिया आरतीगेर येतालेंच.सगळीं एकेच कॉलनींत राशिल्ल्यान एामेकांगेर यो-वच चलतालें. शबाना आनी शमीची आरतीकडेन श्टागत जाल्ली. ताच्या भुरग्यांकडेन सायली बरें रमतालें. सुहास, माधव बँकेत गेले, की शबाना, शमी आरतीगेर येतालीं. गजाली बऱ्यो रंगताल्यो. जायत्या फावटी सोनिया हें त्या दोगांयच्याच गजालिंचो विशय आसतालें. कारण अखिलेशाचे गजाल्यार केन्ना केन्ना सुहास, माधव हांचे स्कुटरीन सोनिया चडशें आरतीगेर येतालें. तें कशें वागता खंय वता, कोणाकडेन उलयता, लग्नाचो विशय कित्याक टाळटा, हे विशीं जायत्यो गजाली तीं रंगोवन सांगतालीं. आरती केन्ना केन्ना वगी रावन सगळें आयकतालें. आनी केन्नाय 'दुसऱ्यांच्यो खाजगी गजाली कित्याक?' अशें म्हणून तांकां वगीय बसयतालें. पूण सोनियाचें एकटें रावप, खासा आपणाविशीं केन्नाच कितें सागप ना, हें आरतीक एक सुटनाशिल्लें कुवाडें कशें दिसतालें. सायलीकडेन सोनियाची सामकी गट्टी जमिल्ली. सोनिया आरतीगेर आसलें की सायली सामकें ताजेर बसून आसतालें. केन्ना आरती, अखिलेश, आनी सायली भायर वतालीं तेन्ना सोनिया सायलीक आपणागेरूच दवरून घेतालें आनी म्हणटालें 'तें पप्पा मम्मीचें घर आनी हें म्हजे आनी सायली राणीचें.'

'ताका न्हय तें सांगू नाका. फाल्यां तुजो राजा येत आनी म्हजे सायलीक धांवडावन घालीत.' आरतीन हांसत म्हणचें.

'ह्या घरांत राजा - बिजा कोण ना. हांगा फकत राणयेचें राज्य.'

आरतीक आतां कळून आयलें, त्या एका वाक्याफाटल्यान केदो दुखेस्त इतिहास दडिल्लो आसा तो. आरतीच्या दोळयांतल्यान घळाघळा दुकां व्हांवपाक लागलीं दुकां सोनियाच्या पोल्यार पडलीं तशी सोनियाक जाग आयली.

सोनिया, आतिशान तुका फटयलें गो. तो तुजो गुन्यावी. पूण हे खरें आसलें, तरी आतां तो तुज्या जिवितांतलो उठून गोलो. तो तुका विसरला. तूं ताका विसरचें ना? कितले दीस आपणाल्यो भावना अश्यो मारून जगतलें?

सोनिया भानार आयलें. ताणें आरतीक म्हळें,

'आरती, मनीस जेन्ना उपाशीं आसतां, तेन्ना तो अधाशी आसता. कसोय

जायना ताचे बरोबर वीस-बावीस वर्सां संवसार केला हांवें. हय, संवसारूच तं
हांव तृप्त आसां. म्हण म्हाका कोणाचोच दुस्वास दिसना. अतिशाविशीं सांगपा
जाल्यार ताका ल्हानपणासावन गोरो रंग आनी पिंगशें केंस हांचें जबर आकर्शण
आनी तो जंय गेला थंय तर पावला कणकणी ताच्या मोहाक संदी आसात
आतिशाचो विशय सोंपलो आरती. ताणे ताचो धर्म पाळळो. हांव म्हजो ध
पाळटां.'

सोनियान थण्डसाणेन सांगलें, जशें कितें तें कोणा तिसरेच व्यक्तीविश
उलयतालें. केन्ना एका फावट अखिलेश गांवांतसून परतो येता आनी ताची आपू
क्षमा मागतां, अशें आरतीक जाल्लें.

शनवारा सकाळीं अखिलेश परतो आयलो तेन्ना ताका खुबच पुरो जाल्ले
आरतीचो राग अजुनूय वचूंक ना, हें ताच्या वागपावेल्यान अखिलेशाक जाणवताले
जेवन अखिलेश भायर सरलो. फाटोफाट आरतीक शबानाचो फोन आयलो
'मेहता शेट आयल्यात आनी आयज सांजची पांचांक मिटींग आसा म्हणपाचें
ताणें फोनावयल्यान सांगलां.' आरतीन आनी अखिलेशान दोगांयनी बसकेक
येवंकच जाय म्हणपाचें शबानान भर दिवन सांगिल्लें.

मेहता शेट कॉलनिचो धनी. स म्हयन्यानी नातर वर्सान तो एक फावट
येतालो. आनी बिल्डिगांतल्या सगळया मनशांक मेळून वतालो.

सांजचो अखिलेश येवपाच्या वेळार आरतीन सायलीक कपडे घालून तयार
केलें. आरतीय भायर सरून रावलें. चारांक अखिलेश घरा आयलो. आजुनूय
ताचो मूड सारको नाशिल्लो. आरतीक अखिलेशाकडेन उलोवपाक भंय दिसतालो
पूण मिटिंगेक वचप तितलेंच गरजेचें आशिल्लें. फ्लॅट सोडपाविशीं ताचेकडेन
उलोवणीं करपाक जाय आसलीं आनी तेखातीर मेहता शेटीची भेट गरजेची
आसली. अखिलेश कपडे बदलपाक लागलो.

'कपडे कित्याक काडटा? आदींच तुका कळाव जाला. आमकां वचपाक
जाय.

'खंय?'

'शबानाचो फोन आयिल्लो. मेहता शेट आयला. पांचाक मिटींग आसा.
येन्ना सुरूय जाल्या जातली.'

'म्हाका खबर आसा. सुहासान मुद्दाम सांगलां म्हाका. पूण आयचे मिटींगेक
ामी वचपाचें ना. निदान हांव तरी वचचोंना.' अखिलेशान तुटकपणान म्हळें.

'पूण मेहता शेट आठ-धा म्हयन्यांनी आयला. घडये आनीक वर्सभर येवचोय
ा. आमच्या फ्लॅटाविशीं उलोवपाक जाय न्ही? तुमचो तर पत्रवेव्हार चलतालो.
ाता वचना जाल्यार ताका कितें दिसतलें?'

'कितें जातां तें जावं दी. पूण हांव वचचों ना.' अखिलेश सुमारा भायर
ास्वस्थ जाल्लो.

'कित्याक वचचोना?' आरतीन विचारलें.

'आयचे मिटींगोटो मुख्येल विशय खंयचो खबर आसा? सोनिया. सोनिया
आनी सुमीत हांच्या संबंदाची रासवळ चर्चा. पूण म्हाका एक कळना, आमकां
कितें हक्क आसा ताचे खाजगी जिणेंत धवळाधवळ करपाची. कोणाचे थंय कोणें
ावप, कोणें रावप ना हाचेर उलोवपाक आमी कोण?' अखिलेश ताड्‌ ताड्‌ रागान
उलयतालो. आरती अजापान चकासूर जावन आयकतालें. अखिलेश फणफणत
आशिल्लो.

'त्या सुमीताक कॉलनींतल्यान धांवडावन घालप, जमल्यार सोनियाकूय,
असो तांचो प्लॅन आसा. तांच्या वागपाचो परिणाम खंय तांच्या भुरग्यां-बाळांचेर
जावं येता. भुरग्यांचेर अशे वायट परिणाम जावपाक घरूच कित्याक जाय? हें
सोनियाचेर कसतात! सोनियाच्या नाखटाची तरी हांका सर आसा? आरोप करतात,
आरोप!'

अखिलेश उलोवपाचो थांबलो खरो पूण ताच्या दोळयांतल्यान सामको
उजो भायर सरतालो. सोनियाच्यो चाडयो सांगपी शमीचें तोंड, सोनियाचो दुबाव
घेवपी शबानाचे दोळे, सगळें आरतीच्या दोळयां मुखार आयलें.

'अखिलेश ऊठ, प्लीज आतां आमकां वचुंकूच जाय' अखिलेशाच्या हाताक
धरून ताका उठयत आरती म्हणपाक लागलें.

'आरती तूं लेगीत?' आरतीचो हात कडेक सारीत अखिलेश ताका पळयत
रावलो.

'हय अखिलेश, आमकां वचुंकूच जाय. त्या कोलसुण्यांच्या तोंडातल्यान

ताका सोडोवपाक जाय. सोनियाक थंय वडोवन हांगा आमी वगी बसप समा न्ह सोनिया एकटें ना. आमी ताचे फाटल्यान आसांत हें ताका समजूंक जाय. आ आतिशान विस्वासघात करून ताच्या स्त्रीत्वाक धोको दिलो पूण कोणाचोच आ घेनासतना तें परतें उबें रावलें. दुसऱ्यांक आदार दीत रावलें पूण आतां ह खिणाक तें मोडलें जाल्यार सामकें सासणाचें सोंपून वतलें. ताका आमी सांबाळपा जाय.'

अखिलेशाची स्कूटर मेहता इस्टेटकडेन वेगान धांवपाक लागली आरतीच उलोवपाचो अर्थ अखिलेशाक सारको कळूंक नासलो पूण खांदावयल्या ताच हाताच्या स्पर्शान अखिलेशाक जाणवलें की आदलें निवळ-नितळ आरती ताच प्रेमासयत आनी बळासयत सोनियाचे फाटल्यान उबें रावपाक तयार जाल्ले अखिलेशाक मनापासून दिसलें, आतां जगांतली खंयचीच शक्त सोनियाचें कांय वायट करूंक शकचो ना.

मिटिंगेक कॉलनींतले एकानएक सगळे लोक फॅमिलीसकट हाजीर आसले चर्चेंत सगल्यांनी मोटे उमेदीन वांटो घेतिल्लो. उलयताना एकाद्रो मुद्दो सांगपा दादलो विसरलो जाल्यार ताची बायल मुखार येवन तातूंत भर घालताली. खास बायलां आपआपले पद्धतीन चर्चेंत वांटो घेतालीं.

आतां सगल्यांच्यो नदरो मेहता शेटीकडेन लागिल्ल्यो. निमाणो निर्ण मेहता शेटीनूच दिवपाचो आसलो. मेहता शेटीन कपलाची हूम पुसली आनी तों उकतें केलें. 'सोनियाची वागणूक सामकी बरी ना हें कॉलनींतल्या एकानएव मनशाचें मत आसा, हें म्हाका हे चर्चेंतल्यान समजलें. आतां प्रस्न एकूच उरता तं म्हळयार -

'ना शेट, आतां तुमी जें आयकलें तें कॉलनींतल्या सगळया लोकांचे म्हणण न्हय. आमी तांच्या सांगण्याकडेन सहमत ना.'

सगळयांनी अजापान फाटीं वळून पळयलें. अखिलेश मोट्यान उलयत भितर येतालो. आनी फटोफाट आरती. आरतीच्या तोंडावयल्यान सगळयांक कळून आयिल्लें-तेंवूय अखिलेशाच्याच मताचें आशिल्लें. मिटिंगेतल्या बायलांक आरतीचें अजाप जाल्लें. तांका तो एक मोटो धसकोच आशिल्लो. त्या दोगांयचो मूड पळोवन मिटिंगेतले सगळे लोक सादूर जाले. त्या दोगांयकडल्यान हार खावपाची तांची तयारी नासली. एकलो एकलो फुरफुरपाक लागलो. तशी सगळी मिटिंगूच

एकासुरार आयली, आनी त्या दोगांयचे आड उबी रावली. अखिलेश उलोपाक लागलो तशें आरतीन तोंड उकतें केलें. सगळया लोकांचे आड उबें रावताना आरती मात लेगीत कांचवेलेंना. वयल्यान त्या विरोधा खातीर झगडपाक ताका अदीक नेट आयलो.

'तुमी जें कितें थारायलां तें भोवमतान थारायलां आसत पूण हें पाशवी भोवमत. तर्कशुद्ध आनी नितळ मनान तुमी विचार करूंक ना. सोनियाचें खंय कितें चुकता तें तुमकां एक एक देख दिवन सिद्ध करून दाखोवचे पडटलें.'

आरतीचो पवित्रो पळोवन जायत्या जाणांच्या मनांत कांप भरलो पूण तोंडार कोणें दाखयलेंना. मेहता शेटीक हुमेच्यो पावळयो लागिल्ल्यो.

आरतीन मिटिंगेक हाजीर आशिल्ल्या सगळयांच्या तोंडावयल्यान नदर भोंवडावपाक सुरवात केली. ते सरशीं गर्देतली एक एक नदर खाला वचपाक लागली. सगळयांचेर नदर भोंवडावन जाले उपरांत आरतीन मुखार येत म्हळें,'सांगात. म्हाका सोनिया वयलो एक एक आरोप आयकुपाचो आसा.'

खिणभर सगळयाक थंडाय पातळ्ळी. ते शांततायेचो भंग करीत एकलो गर्देतल्यान मुखार आयलो. तसो तो अनवळखीच आसलो. खर्शे खर्शेत तो मेहताशेटिचे कुशीक आयलो आनी हुमेन थपथपिल्या हातांत घट धरिल्ली चीट ताणे मेहताशेटीकडेन दिली.

मेहताशेटीन रोखड्यारोखडी चीट उकती केली. वाचली. थंडाय तशीच आसली. चीट वाचून जातकूच मेहताशेटीन एक लांबचो लांब सुस्कार सोडलो. आपूण ह्या संकश्टांतल्यान वाटावलों असोच त्या सुस्काराचो अर्थ आसलो. चीट सोनियाची आसली. मेहता शेटीन ती सगळयांक व्हडल्यान वाचून दाखयली. सोनियान कॉलनींतल्या सगळया लोकांक लेखून बरयिल्लें.

'तुमचे मिटिंगेची थारावणी कितेंय आसूं. ती म्हाका लागना. हावें म्हजे पुरतो घेतिल्लो निर्णय तुमकां कळयतां. हांव फाल्यां सावन हे कॉलनींतलो फ्लॅट सोडटां. तशी वेवस्था हांवें केल्या. हे कॉलनीतल्या कोणाकच म्हजे पासून कसलोच त्रास जावंचो ना. आतां मेरेन तुमी जें सहकार्य केलें ते खातीर देव तुमचे बरें करूं.'

सोनियाच्या पत्रांतलो मजकूर आयकून एक एक पांय हालपाक लागलो.

सगळयांचेंच जैत जाल्लें पूण तें जैत तोंडाचेर  दाखोवपाचें धाडस मात कोणें के
ना.

निमाणें उरलीं दोगांच. आरती आनी अखिलेश. आरतीक दिसलें, सगळ
कॉलनी जिखल्या. सोनियाय जिखलां. हरल्यांत फकत आपूण आनी...

आरतीन अखिलेशाच्या दोळयांत पळयलें. ताच्याय दोळयांत हार उठ
दिसताली.

❑❑❑

# ६. नवी जाग

चित्राच्या हातांत पत्रांचो गठ्ठो दिवन पोस्टमन परतलो. चित्रा एक एक पत्र नदरेखाला घालीत रावलें. कवरां वयल्यानूच कळटालें. सगळीं एकेच तरेचीं पत्रां. सौरभाच्या बिझनेसाचीं. तातूंत कितें आसपाचें? तोच सदचो गुळगुळीत मजकूर. एकेक पत्र चाळून ताणें कुशीक दवरलें. आनी अकस्मात आपल्या नांवाच्या पत्रान ताची नदर ओडून घेतली. खूब दिसांनी आयिल्लें तें पत्र. ल्हान भुरग्याचे उमळशिकेन चित्रान पत्र फोडलें. आरे ! श्वेताचें पत्र!

मोगाळ चित्रा,

गोड याद!

परतूय हांवूच पत्र बरयतां. तुजी जाग-माग ना.हांगासल्ल्या कामाविशीं तुका उत्सुकताय आसा अशें धरूनूच पत्र बरयतां. हांगाच्यो वाडीच्यो बायलो आतां ल्हवू-ल्हवू संघटित जावपाक लागल्यात. आपले प्रश्न समजून घेवन ते आपणेच सोडावपाक जाय, हें तांकां होल्मुवपाक लागलां. सध्या फक्त प्रबोधनाचेर चड भर आसा. स्थानिक प्रश्नांचेर आतां म्हळयार सध्याक हात घालपाचो ना, अशें थारलां. ह्या तालुक्याच्या शेतकऱ्यांचे संघटनेत राजेश सामको घुस्पून गेला. आतां धा-धा दीस आमची भेटच जायना. आनी हाचो आमकां दोगांकूय मोटो अभिमान दिसता!

आं, तर चित्रा, हांगाच्या जीवन शिक्षण मंदिरांत समता येवपाक लागल्या. पूण आर्थिक प्रश्न जीवघेणो आसा. आमच्या सहकाऱ्यांनी एक कल्पना काडल्या. ह्या वर्साच्या दिवाळेक एक अंक काडपाचें थारलां. अंक धंदेवाईक दृष्टीनूच काडपाचो पूण खंयचेय परिस्थितीं आमी तत्वांकडेन तडजोड करप ना, अशें थारलां. पैशांची तजवीज आमच्याच विचारांचे वेगळे लोक करतले. पूण साहित्य जमा करपाची जबाबदारी म्हजी. जाहिरतीखातीर आमच्या सगळया इश्टा-मित्रांक सांगलां. सौरभ बिझनेसमन. ताका सांग, आमकां बऱ्यो घसघशीत जायराती मेळोवन दी म्हण. साहित्य पुंजावपाचे तयारेक हांव आतांपासून लागलां. साहित्य चळवळीक पूरक थरतलें अशें साहित्य अंकांत येवचें हेखातीर आमच्या कांय

बड्या-बड्या मित्रमंडळींक बरोवपाक सांगलां.

तुवें फाटलीं पांच-स वर्सां लिखाण पुराय थांबयलां. लग्नाउपरांत त चळवळींतल्यान तुवें आंग काडलें. पूण ह्या निमतान तूं बायलांच्या प्रश्नांचेर बरय सत्य अणभवाचेर आदारीत एखादी कथा बरय, जी वाचकांक प्रेरक थरतली आनी त्याच बरोबर वस्तूस्थितीय लोकांमुखार येतली. त्याखातीर हें पत्र बाय गो आळस सोडून चळवळीचे बांदिलकेक स्मरून पेन हातांत घे. म्हयन्या दोन म्हयन्यानी कथा धाडून दी. वाट पळयतां. बरें, तूं कशें आसा? चिराग कितें म्हणटा? ताक घडयतना चळवळीतले विचार उपेगाक हाडटा काय ना? सौरभाक रकाद दी. येत त्या म्हयन्याच्या पयल्या सप्तकांत बायलांचो तालुका पांवड्याचेर एक मेळावो भरता. माधवीताई येतल्यो कार्यावळीचो तपशील मागीर धाडटां. तूं येवपाचो यत्न कर.

तुजें श्वेता.

चित्रान पत्र धांपले. दोळे तशेच धांपून कांय खीण तशेंच बसलें. श्वेताच्या पत्रांतलो मजकूर ताचे तकलेंत देवळांतल्या घांटीसरको घणघणूंक लागलो. श्वेताच्या स्वभावांतली आक्रमकता, फटकळपणा अजून तसोच आसलो. चित्राक ताची खूब अपुरबाय दिसली. वाटेंतलें कांटे कुशीक सारीत सारीत आयुश्य जगपी श्वेताची सामाजिक कामाची ओड तशीच कायम उरिल्ली. आनी पोन्र्या कपड्यांचो रंग विटून वता तशी चित्राची सामाजिक बांदिलकी दिसान दीस विटकोर जायत वताली. चित्राक खूबच अपराधी जाल्लेभशेन दिसलें. खंतूय जावपाक लागली. इतल्यान दाराची बेल वाजली.

" कितें? पत्रां-बित्रां आयल्यांत?" सौरभान भितर सरतां सरतां प्रश्न केलो.

"हय. तुज्या बिझनेसाचीं पत्रां. सौरभ, म्हाकाय पत्र आयलां. सांग कोणाचें?"

"तातूंत वळखुपाचें कितें? आई, बाबा, दादा नाजाल्यार वैनी. हांच्यामदल्या कोणांचेंय."

"मित्रमंडळीपैकी, नांव तरी याद जाता?"

"मित्रमंडळी? हांगा बिझनेसाच्या निमतान दिसाक एक नवो नवो मनीस ळटा."

"श्वेताचें पत्र!"

"ओ, श्वेताचें? कितें म्हणटा? लग्नाक पावलीना म्हण रागार जावू ना ी?"

"ताणें लग्नाक कोणाकूच आपोवं ना. जाणा, तीं दिवाळी अंक काडटात ांय. म्हाका कथा बरोवपाक सांगल्या. सगळे बडे बडे लेखक आसात. हांवूय रोवपी. खूब दिसांनी एक कथा." चित्रान उमेदीन म्हळें.

"बाय गो, आतां च्या बी कितें आसा काय ना?" सौरभान आंग सदळ रीत म्हळें.

"सांगता न्ही... बाई, सायबाक च्या हाड."

चित्रा उमेदीन येवन सांगपाक लागलें.

"सौरभ, तुका खरें सांगुं? कथा बरवप म्हळयार म्हाका पयलींचे दीस याद ातात. हांवे कथा बरोवप... तुवें ती वाचप... मागीर आमी सगळयांनी तिचेर र्चा करप."

"चित्रा, तूं अजून भूतकाळांत गुल्ल आसा. आतां शेळें जालें तें... बरें, आज रातचो येवपाक मातसो कळाव जातलो. सबनीसागेर पार्टी आसा."

च्या घेवन सौरभ उठलो आनी भितर गेलो.

कांय दीस गेले. घरच्या व्यापान चित्रा कथेची गजाल सामकी विसरून ोलें. पूण श्वेताचें परत पंदरा दिसांनी पत्र आयलें आनी मागीर मात चित्रान कथेचें मनार घेतलें.

सुरवातीक ताका दिसले, आपूण कथा कांय न्ही करून बरयन. सदांच एक एक नवीन विशय वाचूंक, आयकूंक मेळटा. विशय कांय कमी ना.

मागीर ताणें फाविल्ल्या वेळांत बरोपाक सुरवात केली. पूण बिगडलेली गाडी पांच-धा पावलां फुडें वतकच मागीर थंयच थांबून रावताली. कागदाच्या कुडक्यांची रास जाताली. एक दीस तिचे सरी आशिल्लो चिराग तिचेकडेन लक्तुबायेन

पळयत विचारपाक लागलो, ''मम्मा, तुका सारकें आन्सर येना?'' आनी त
उतराक सौरभ व्हडल्या व्हडल्यान हांसत रावलो. ''तुका आतां हे नस्ते धंदे को
सांगल्यात? बस सुशेगाद.''

चित्रा सौरभाकडेन अजापान पळयत रावलें. ताका याद जाली,

ह्याच सौरभान म्हज्या साहित्याच्या प्रेमांत पडून म्हाका लग्नासंबदान विचारिल
ताणेंच आतां अशें म्हणप? काय ती ताका फकत क्रेझ आशिल्ली? म्हजें
रसरशीत व्यक्तीमत्व ताका आतां शेळें दिसपाक लागलां? म्हणून तो आपत
आतां तितली दखल घेना? पूण हांव म्हणून लग्ना उपरांत कितल्या बंदनांत क
घुस्पून पडलें. भायलें कांयच बादून घेतलेंना. कोणाच्या प्रस्नांत चिंतेस्त जालें
कोणाच्या दुःखान न्हिन्नडलेंना. मना भोंवतणी आडो केलो आनी म्हज्याच सुखासी
जिवीतांत रमून गेलें !

लग्ना उपरांत पयलेच फावट चित्राचो असो घुस्मटमार जालो. आपू
आशिल्लें कितें... आपणे जोडलें कितें आनी मोडलें कितें... हाचेविशीं ताच
मनांत आरते परते विचार घुमशेणां कांडपाक लागले.

इतल्यान चित्राची वावराडी यमुनाबाय घरांत भितर सरली. आठ-धा दी
जाल्ले यमुनाबायचो पत्तोच नाशिल्लो. येना बरोबर चित्रान तिका धारेर धरली

''कितें यमुनाबाय, सांगना आसतना इतले दीस रावता?''

''वैनी, चेडवागेर गेल्लें...'' यमुनाबायन आडखळत सांगलें.

''पूण सांगून तरी वचपाचें न्ही? आमची धांदळ जाली हांगा.''

''वैनी, म्हज्या चेडवाचें थंय घट्टण जालें पळय... वाट लायली म्हज्या चेडवाची''

''कितें जालें?'' चित्राच्या आवाजांत नरमसाण आयली. यमुनाबायन बसक
मारली. दोळ्यांतलीं दुकां पुशीत म्हणूंक लागली,

''वैनी, चेडवाक म्हज्या सामके दीस भरल्या. पूण तेची मांय कुळारा धाडपा
तयार ना. लग्न जायमेरेन एकदांय धाडूंना. घरांत सगळें मांयचें राज्य. मांव आ
घोव सामके बैल. आनी तितून नणंदेचो घोव उज्यांत तेल ओतता. कामाचें व्हड
न्हू. पूण तो नणंदेचो घोव हेचेर सामको दोळो दवरून आसा. हें आमचें गोरूं क
भिल्ल्या भशेन आसता. आपल्याच घरांत. भोंवपाक हेका बंदी!''

"तिणे हें घोवाच्या कानार घालपाक जाय."

"सांगून पळयलें. पूण तो म्हणटा, म्हजो मेवणो तसो न्हू. तुज्याच मनांत
ााप आसा."

यमुनाबाय चळफळत म्हणपाक लागली.

"वैनी, तेचेकडेन झगडून चलयेक बायटेराक हांगा हाडपाची. पळय तूं.
आनीक तुमकां सांगतां, तो नण्णावो येवपाचो बंद जाल्याशिवाय हांव चेडवाक
थंय धाडपाची ना "

यमुनाबायच्या आवाजांतली धार आनी आत्मविश्वास पळोवन चित्रा कांचवेलें.
तिचेकडेन पळयतच उरलें. फकत आंगावयल्या हाडांचेंच वजन सांबाळपी त्या
किरकोळ जिवाची शक्ती तिका पयलेच फावट जाणवली. इतल्यान ताचें घड्याळाकडेन
लक्ष गेलें.

"बरें, आज आमकां भायर वचपाक जाय. बेगीन-बेगीन कर सगळें."

आपले चलयेचें हे मालकिणीक मातूय पडलेलें ना, हे भावनेन यमुनाबायन
चित्राकडेन पळयलें आनी उठून वतां-वतां पुटपुटली,

"कामा तरी सदींच करपाचें आसातात वैनी." खिणाभितर चित्राक आपणाले
वागणुकेतली चूक कळून आयली.

"सगळेच दीस सारखे नासतात. यमुनाबाय, हातूंतल्यान कितेंतरी मार्ग..."
चित्रान म्हळें. पूण तेन्नाच यमुनाबायन आयदनाक हात घालो आनी नळाचें
उदक नेटान सुरू केलें. चित्राचीं उतरां तातूंत खंयतरी व्हांवन गेलीं. भायर वचपाची
गडबड आसली तरी तिचेकडेन आपणे इतल्या कोरडेपणान वागपाक नाका आसलें
अशी चुटमुट चित्राक लागून गेली.

आठ-धा दिसांनी यमुनाबाय खोशयेन सांगपाक लागली,

"वैनी, म्हाका नात जाली. आतां तर तीं आनीक पिकार जातलीं. पूण
हांव म्हणटां पयली बेटी धनाची... आनी तें आपल्या हातांत थोडेंच आसा.
पोळोवया, जांवयाक चीट धाडल्या."

यमुनाबायन कामां आवरून घेतलीं. वतना चित्रान म्हळें,

“यमुनाबाय, हे घे दोनशें रुपया, वखदांखातीर दवर.”

“वैनी गरज आसली खरी... मागीर पगारांतल्यान..”

“तुमचे बेटीक भेट समज. तिका पयलो धनलाभ जालो.”

“वैनी, म्हजी नात तेच्या आवयक पायगुणाची थारूं. तेचे त्रास कम जावं.”

“जातले आं, पूण तशें जालेंना जाल्यार त्या भुरग्याचेर राग धरूं नाक त्या पोरान कितें केलां?”

“तेंवूय खरेंच.” वतां वतां यमुनाबायन मान हालयली. चित्राक लग्नापयलीं दीस याद जाले. शिबिरांतले दीस. शिबिरांतल्या बायलांकडेन जाल्ले संवाद या जावपाक लागले. एकमेकांचीं दुःखां, प्रश्न आयकतना-सांगतना कालच्यो अनवळख बायलो सामक्यो लागीं आयिल्ल्यो.

पयलेच फावट ताका आपल्या भोंवतणच्या एकलेपणान घुस्पल्लेभशें दिसलें. चित्राक श्वेताची तीव्रतेन याद जावपाक लागली.

चित्राची ही अवस्था रातमेरेन तशीच उरली. सौरभाचें जीवन तर धांवपळीचें सदांच नवीं आव्हानां. ताचें उलोवपूय चटकदार, ओडलायणें आनी ह्याच खातीर चित्राची भूमिका जाताली मोन्याची. आपली दीसभरची मिळमिळीत घडामो ताजेमुखार मांडप म्हळयार पक्वान्नांच्या ताटांत एक बेचव जिनस वाडिल्ले भशें अशें चित्राक दिसतालें आनी हेच कल्पनेन तें आखुडटालें आनी आजूय तो ता कितेंतरी सांगतालो.

“तुजें लक्ष खंय आसा चित्रा?” ताणे आवाजाचेर भर दिलो.

“खंय ना!”

“ ना कशें?”

“श्वेताक कितें जाप बरोवं हाचोच विचार करतां.”

“इतलेंच न्ही ? म्हाका दिसलें, तुजेर मळब बी कोसळ्ळें काय म्हण!”

“सौरभ, आमच्या यमुनाबायक...”

"कितें जालें?"

" नात जाली. पूण घरचीं मनशां तिका खूब त्रास करतात. शिवाय नणंदेच्य घोवाचो हिचेर दोळो आसा."

"ओ, आय सी! आगो, आयडीया. तूं यमुनाबायचे चलयेचेर कित्याव कथा बरयना?"

ताणे टाळयेखातीर हात फुडें केलो.

खरेंच! आपल्या लक्षांत कशें आयलेंना!

तिका दिसलें, आतां उठचें आनी कागद-पेन घेवन बरोवचें. दुसऱ्या दिसापासू यमुनाबायकडेन चित्रा मुद्दाम सविस्तर उलोवपाक लागली. तिचें म्हणणें लक्ष दिवन आयकुपाक लागली.

"वैनी, चेडूं बाळंत जावन आठ दीस जाले. घरचीं कोणच येयलीं ना. यमुनाबायच्या दोळयांत घायाळ हरणाचो भाव आशिल्लो.

· "घडये बारशाक येत."

"कोण जाणा! पूण पैर शैजारची लक्ष्मीबाय येयली. ती म्हणटाली, सुनेच आमी व्हरचीं नात. नाका व्हरोंक. म्हाका बी व्हडली इत्सा ना, तेका त्या उज्या धुकलून दिवपाची. पूण लोक..."

मागीर थोडी उसंत घेत हांगा - थंय पळयत सकल्या आवाजांत यमुनाबा सांगपाक लागली,

"वैनी, हायें थारायलां जावयांक विश्वासान घेवपाचें आनी वेगळो संसा मांडून दिवपाचो. त्याखातीर म्हाका हाडाचीं काडां करचीं पडल्यार कोताक येता पूण तेका एक कूड घेवन दिवप."

"यमुनाबाय, कितें उलयता तूं?"

"हय, खरेंच तशेंच थरयलां हायें." यमुनाबाय गेलीय बी त्याच नेटान.

एक दीस चित्रा अकस्मात यमुनाबायगेर गेलें. ते येदेशे कुडींत यमुनाबायचं धूव आपले ते किटीक घेवन आंग आवळून न्हिदिल्ली. तरी ती कूड भरून गेल्ली चित्राक पळयतकच तें उठपाक लागलें.

" आसूं दी. उठूं नाका." चित्रान धाकले चलयेक पळयत म्हळें.

"आवय येवपाची जाली." ताणें कशेंबशें हांसत म्हळें मागीर चित्रान आपूण जावन विशय काडलो तिका घरा जावपी त्रासांविशीं. यमुनाबायची चल हांसत हांसत सांगपाक लागली,

"आवय म्हणटा तें सगळें खरें. पूण करतलें कितें? दांत आपले आनी ओंठय आपले. अशे तेंका सोडपाक जाता? तुमीच सांगात, एका वर्सापयलीं अशी वेगळी चूल करपाक जाता? जाणटीं मनशां. आज आसात, फाल्यां ना. तुमी मातशीं आवयक समजायात."

"यमुनाबायचें चली एका दमात उलयलें. चित्रान ताची फाट थापटिल्ले भशेन केली.

"आवयस ! वैनी !" यमुनाबाय भितर येत म्हळें.

"च्या करतां आं." अशें म्हणटां म्हणटां च्या सुद्दां जाली.

"वैनी, तुमी आमगेर येतलीं हें सपनांत लेगीत येवजूंना... खूब बरें दिसलें बसात आं. मातशें शेजाऱ्यागेर वचून थोडें दूद घेवन येतां."

"नाका यमुनाबाय. घर तसो सोयरो. हाड, दी च्या."

" जाणा वैनी, चेडवाक म्हाज्या समजायत. तेका हांव वेगळो संसार मांडून दितां म्हणटां जाल्यार, तें नाका म्हणटा." तिणें चेडवाकडेन पळयलें आनी चलयेन चित्राकडेन पळयलें.

"पळोवया तीं कितें म्हणटा तीं! वोगीच शीता फुडें मीठ कित्याक खावप यमुनाबाय?"

"तीं आनी कितें म्हणटलीं? मांय कितें एकदम सुदारतली? नण्णावो येवपाचो बंद जातलो? आनी घोव? पाड पडूं तेचें..."

यमुनाबायक रागान उतरां सुध्दां येवजना जालीं.

"आवय, अशी वोगीच बेजार जावं नाका."

"तूं वोगी राव. तुका कितें कळटा? यमुनाबाय घुवेचेर घेंगशेली." यमुनाबायच्य

उतराचेर चित्राक हांसूक आयलें.

"बरें यमुनाबाय, येतां. जिवाची आनी बायची कुयदाद घे. चित्रा भुरग्याखातीर हाडिल्ले कपडे आनी थोडे पैशे यमुनाबायचे चलयेच्या हातांत दिले वतां वतां यमुनाबाय आनी तिची चली हांचेमदलो फरक ताका तीव्रतायेन जाणवलो

दुसऱ्या दिसा यमुनाबाय उसरां कामाक आयली. चित्राक मातसो हुसव जालो. तिसऱ्या दिसा सकाळींच यमुनाबाय चित्राकडेन आयली आनी दोळयां पालव लायत म्हणपाक लागली,

"वैनी, काल तीं मनशां येवन म्हज्या चेडवाक आनी नातीक घेवन गेलीं हायें तेंका सांगलें, पंदरा दिसांची ओली बायटीण... तर मांय म्हणटा 'म्हजेकडे घरांतलें काम जायना. चेडूं बायटेराक आयलां, मागीर घरांत कोण कामाक नाका?' त्या उतराक तिचो जावंय म्हणटा,'धाडटा जाल्यार आतांच धाड. नाजाल्य जल्मभर हांगाच थेय." यमुनाबायच्या काळजाचो बांद फुटलो. चित्रान तिका धी दिलो. च्या करून दिली. दनपारां परत आयदनां घांसपाक यमुनाबाय आयल तशी ती नीट चित्राच्या बेडरूमांत गेली.

"वैनी हांवें आयकलां तें खरें? हांगा कसली शाळा आसा? थंय बायले घरचो त्रास जाल्यार तिची सोडणूक करतात. त्यो जोशीबाई काय कोण म्हाव सांगी."

"आं. 'महिला संघटना' ती. बायलांचीच संघटना."

"म्हाका थंय वचपाक जाय वैनी. तुमी येशात म्हज्या वांगडा? खरें सांगत म्हजें कित्यार लक्ष लागना. रातची झेमय पडना. पोर बाळंतपणान अर्दें जाल थंयच्या कामान सामकें मरून वयतलें. पळोवया तरी ते साळेन वचून."

यमुनाबाय संघटनेक शाळा म्हणटा तें पळोवन चित्राक हासूंक आयलें.

"राव आं. देशपांडेबाईक फोन करतां." चित्रान फोन केलो आनी दुसऱ दिसाची वेळ मागून घेतली.

देशपांडेबाईकडेन त्यो दोगीय गेल्ल्यो. देशपांडेबाईन यमुनाबायक समजाव सांगलें, " आमी तुज्या जांवयाची समजूत काडटात, ताचे आवयकडेनूय उलयतात पूण तुजे चलयेची साथ जाय. ताणे फाटीं सरूंक फावना. ती थीर रावली जाल्यारू

तिचे मांयचे वागणुकेक आळाबंद घालपाक सोपें जातलें. तिच्या नणदेकडेन उलोवन तिका विश्वासांत घेवपाक मेळटलें. पूण सगळें तुजे चलयेचेर अवलंबून आसा. तिची तयारी आसा काय ना हें तुमी वचून पळेयात. तशें आसल्यारूच आमी तुज्याबरोबर तांच्या घरा येतात.''

यमुनाबायच्या मनाक परत एकदां हुरूप आयलो. पांच-स दिसांनी ती चलयेकडेन गेली पूण आयली ती गळींतगात्र जावन पराभूत जाल्लेभशेन. वोगी-वोगीशी आशिल्ली. मागीर चित्रानच विचारलें,

''यमुनाबाय, चली कितें म्हणटा?''

यमुनाबाय उसळ्ळी, म्हणपाक लागली,

''तें कितें म्हणटलें? पूण ना येवचें खंय ते बाईकडेन. आपणांक घरची अब्रू वाऱ्यार घालपाची ना. आसलें ताचेपरस अर्दें जालां पूण येवचेंना म्हणटा. दुखणी तेणीच सोंसप, आमी चुरचुरून कितें फायदो!''

चित्राक कितें उलोवं तेंच समजना जालें.

यमुनाबायचे चलयेन सगळीं दारां बंद करून घेतलीं जाल्यार कोण कितें करतलो?

''यमुनाबाय, तुमकां मात शाबासकी. चलयेपरस तुमी नव्या विचारांच्यो आसात. आतां ताका पटना जाल्यार तुमी कितें करतलीं?''

''आसूं दी. तेंचें नशीब तेंचे वांगडा. त्या भगवंतान पळोवपाचें. वयतां हांव.'' आनी यमुनाबाय गेली. रातचो सौरभ फकाणांनी म्हणपाक लागलो,

''चित्रा, तुजी कथा खंय मेरेन पावली?''

तें एकदम जागें जाल्ल्याभशेन कांचवेलें.

''आरे, खरेंच न्ही. हांव सामकें विसरून गेले ह्या यमुनाबायचे चलयेच्या प्रकरणांत, आजं पंदरा तारीख आनी चार दिसांनी म्हाका कथा धाडपाक जाय.''

दुसऱ्या दिसा सकाळची गडबड सोंपतकच ताणे कथा बरोवपाक सुरवात केली. बरयतां बरयतां ताच्या लक्षांत आयलें, यमुनाबायचे चलयेच्या ह्या प्रकरणांतल्यान कांयच निष्पन्न जालें ना. यमुनाबायन नेट धरलो तरी, चलयेन आंग काडलें. मागीर श्वेता म्हणटलें तशी 'प्रेरक' बी कथा कशी जातली? ताका

एक फावट दिसलें, कथेंत खूब बदल करप. यमुनाबाय परंपरारादी जाल्यार चली बंडखोर. पूण आवयक विरोध करून घरच्या त्रासांखातीर घोवाक समजावन वेगळी रावता. आवय सारखीं लोकांची कामां करून स्वतःच्या पायांर उबें रावता... पूण मागीर ही सत्यकथा कशी जातली?

इतल्यान फोन वाजलो. चित्रान घेतलो. तर देशपांडेबाईचो फोन. ताणा यमुनाबायचे चलयेच्या प्रकरणाविशीं चौकशी केली आनी तिचे चलयेच्या दुबळेपणाबद्दल खंतूय व्यक्त केली. फोन दवरतांना देशपांडेबाई म्हणपाक लागली,

" यमुनाबायचे चलयेक मेळपाची संद आयल्यार आमी मुजरत वचूंया. पूण चित्रा, एक बरें जालें. ह्या निमतान तूं आमचे संघटनेकडे आयले. आतां येत राव. तुज्या आदल्या कामाचो अणभव आमच्या नव्या बायलांक खूब उपकरा पडटलो. परत कामाक सुरवात कर."

चित्रान फोन दवरलो. तरी देशपांडेबाईचीं उतरां कानांत घुमत रावलीं. "परत कामाक सुरवात कर."

चित्राक अकस्मात कितेंशें जालें. ताणें एका धपक्यान यमुनाबायचे चलयेची काणी जशीच्या तशी बरयली.

.... यमुनाबायन दोळे धांपून चलयेचें लग्न करून दिलें... तिचे चलयेक जावपी त्रास, नणंदेच्या घोवाची वांकडी नदर... यमुनाबायची बंडखोर वृत्ती. पूण चलयेची माघार... ते खातीर प्रकरणाचेर पडिल्लो पड्डो... सगळें सगळें बरयलें आनी बरोबर श्वेताक एक पत्र जोडलें.

प्रिय श्वेता,

हांवे म्हज्या घरचे वावराडेचे चलयेची काणी जशीच्या तशी बरयल्या. ही काणी तशी सदांचीच. तातूंत कितें आसा म्हाका खबर ना. पूण हे काणयेन म्हाका खूब वर्सांचो सूर परत मेळोवन दिला. म्हज्यांतली कार्यकर्ती आनी लेखिका दोगीय परत जाग्यो जाल्या. हांव परत लेखन सुरू करतां, अर्थांत तुजी मदत जाय.

तुजें, चित्रा

❑❑❑

“ना कशें? कितें तरी जाला खरें! तोंडच सांगता. प्रमोशन, डिमोशन, ऑफिसात कितें त्रास?”

“प्रमोशनच!”

“अरे वा! तशें जाल्यार अभिनंदन! संपदा समृध्दीक उठोवं? आतां पावणें अिकराच जाता थंय आसा. सगळीं जाणां भायर वचून मस्त भेळ, आयस्क्रिम खावंया, सेलीब्रेट करूंया.!”

“संदीप” करूणालो गळो भरून आयिल्लेंवरी जाल्लो. संदिपाक हे अनपेक्षित आशिल्लें. ताणें करूणाक चडूच म्हऱ्यात ओडलें. आनी विचाल्लें,

“ कितें जालें म्हजें राणी?”

करूणा कितलोसोच वेळ तशेंच मुसमुसत रावलें. संदीपाल्या विश्वासान आनी मोगान भरिल्ल्या स्पर्शान ताच्या काळजाक घटाय मेळ्ळी आनी तें उलोवंक लागलें.

“संदीप, कशें सांगू तुका? म्हाका दीस गेल्यात!”

“कोणें सांगलें? भास- आभास बी जायनात मूं तुका?”

“म्हयनो चुकलो तेन्नाच दुबाव आयिल्लो. आयज दोतोराकडेन वचूंन आयलें. तांणीय तेंच सांगलें. म्हुणूनच म्हण्टा, “कितें करचें आता?”

“ॲज यू लाईक इट. राणीसरकार कितें आंवडटा?”

“संदीप, तुका राग येवचो ना मूं? तशें दिसलें जाल्यार उत्केंपणान उलोवन दाखोवशीत म्हूण उतर दी म्हाका.”

“ओ, आय सी! प्रकरण खूपूच गंभीर आसा तर. आय प्रॉमिस! करूणा, दिलें उतर, उलय आता”

संदीप दिल्लें उतर बदलप्यांमदलो नाशिल्लो ताचेर पातयेवंन करूणान म्हळें,

“संदीप, म्हाका भुरगें जाय.”

“भुरगें की चलो? आईले इत्सेक लागून!”

“हय, चलोच जाय म्हाका, म्हजेखातीर! आमच्या सगळयांखातीर,”

"पिशें काय कितें तूं? आमच्या संपदा समृध्दीमदी कितें उणेंपण आसा गो? तांका आमीं चल्यांवरीच तर वाडयिल्ल्यो आसात. 'चलो' आनी 'चली' हातूंत वेगळेंपण करपाचे दीस आतां उरूंक नात. आता तुज्या त्या महिला मुक्ती संघटनेच्या बायलां कार्यकर्त्यांनी हें आयकले जाल्यार तुकां तीं घेरांव घालूंक येतलीं."

"संदीप, हांवें म्हज्या धुवांक केन्नाच उणीं लेखूं नात. तो अडाणीपणा म्हाका करपाचो ना. चलयो जाल्ल्याचे दुःख म्हाका केन्नाच जालें ना. उरफाटी खोसूंच जाली. बुदवंतकाय, कर्तुत्व हातूंत चलो आनी चली असो भेदभाव आसूंकूच शकना."

"इतलें कळटा. तरूय चलोच जाय हो तुजो आग्रो कित्याक?"

" तेंच सांगता. म्हज्या संवसारात एक 'गृहिणी' म्हूण म्हाका सगळें कितें फावो जालां. मनाजोगतो घोव, ऐश-आराम, दोन अपुर्बायेच्यो धुवो! एकूच फाल्त आशिल्लें - एक पूत! आमच्या लग्नाउपरांत रोकडेंच संपदा जालें. समृध्दीलो जल्म आमी संपदाक समज येयमेरेन लांबणेर दवरिल्लो. समृध्दीच्या जल्माउपरांत आमकां एक सुंदर चलो आसचो हे म्हजें सपन आशिल्लें."

"करूणा, हें सगळें हांव जाणां. परत तेंच तेंच कित्याक उस्तूवप? तुजें इत्सेचो म्हाका विसर पडूंक ना. योग्य पिरायेर योग्य वेळार तशें जाल्लें जाल्यार दुदात साखर पडिल्लेवरी जातलें आशिल्लें.

"योग्य वेळ! ती वेळ इतले उसरां येवप हे म्हज्याय मनांक खंय तरी तोंपता. तरूय दिसता, कळाव जालो म्हूण कितें जालें. पूण ती वेळ तर आयली. म्हाका म्हजें नशीब पारखुपाचें आसा."

"तें सगळें खरें! पूण चलोच कित्याक? हाची जाप तुवेंन म्हाका खंय दिल्या? शिकिल्ली - सवरिल्ली कम्प्युटर युगांतली बायल मनीस तूं! काय तुकांय दिसता व्हय निमाणें, आपल्या तोंडांत उदक घालूंक चलो नासत जाल्यार सर्गाची दारां आपलेंखातीर उक्ती जावची नात म्हूणा."

संदीपाल्या उतरांच्या आधातान करूणालो स्वाभिमान दुखावलो. तें उलयत रावलें, लांबलचक, सविस्तार! आपलें मन पुरायेन ताणें संदीपामुखार उक्तें करपाक सुरवात केली.

"चलो जावचो ही इत्सा बायलेच्या आवयपणातल्यानूच जल्माक आयल्या.

तिका जर चलेच जाल्ले, चली जावकूंच नाशिल्ली जाल्यार तिगेलें मन चलयेखातीर
अशेंच खंती जातलें आसलें. तिचेमदलें आवयक पूत आनी धूव दोनूंय ज
आसता. धुवेची उमेद तिच्या भाग्यान पूर्ण केल्या. धुंवांच्या सहवासाचे, माये
सुख तिणेंन मनासावन भोगलां.

संपदा-समृध्दी भातुकली खेळटाली तांच्या सान पिरायेर! ल्हान ल्ह
चिमण्यो एकठांय जाताल्यो. तांगेलो तो चिवचिवाट! केन्ना केन्ना पिरायेक
सोबसारके उलोवप आयकूंन मजा दिसताली. तांच्या मुखामळावेली निरागस
मनाक भुलयताली. संपदा-समृध्दीक हेर इश्टिणींक घेवंन खेळांतलो संवस
थाटताली. धाकटुल्या तव्याचेर फटीच्यो चपात्यो करतली शीत भाजी रोस खर्चाब
रांदताली. करूणान दिल्लें, चणे, फोव चॉकलेट ! बस्स ! आनिक कांयच ना,
सगळयाक पंच-पक्वानांक रूप आनी रूच आसताली.

तांच्याखातीर करूणान मुद्दाम स्टीलचो खेळपाचो सेट हाडिल्लो. समृ
करूणाल्यो साड्यो आंगांभवतणी गुठलांवन घेतालें. साडयेचो खूप व्हडलो पोट
जातालो. आनी तातूंत समृध्दी तिसच नाशिल्लें. केन्ना केन्ना तर समृध्दी साडये
त्या पोटल्यात आडखळून पडटालें. त्याखातीर करूणान समृध्दीखातीर धाकटु
साडी विकती हाडली.

समृध्दीच्या वेळार करूणाक दीस गेल्ले तेन्ना दर एकलो संपदाक विचा

"कितें गो संपदा? कोण जाय तुका? भाव काय भयण?"

खर्शेत आवाज लांबयत संपदा जाप दितालें,

"भाऽ ऽ व"

समृध्दी - संपदा व्हड जातली. खूब शिकतली, उपरांत तांची व्हडा दबाज
लग्न जातली. जावयांची अर्थ-अपुर्बाय जातली...

करूणा घसघशांनी खूब खूब उलयलें ताणें संदीपाक भुतकाळात व्हे
सगळयो घडणुको ताच्यामुखार उब्यो केल्यो. संदीप फट्ट करून उलयलो,
खऱ्यानीच कितलें सुंदर आशिल्ले तें दीस! अशें दिसता, परत त्या काळात वच
धाकटुल्या संपदा- समृध्दीचो तो किलकिलाट आयकुचो.

संपदा-समृध्दीन, संदीप आनी करूणाले जीवित खऱ्यानीच खोशयेन
उडयल्लें आनी आता मस्त्या गोपाळकृष्णाचे दुवाळे ताका लागिल्ले. ताकाच

पडे शिवपाचे ताका खंयचो भातुकली? ताचेखातीर बॉल-बॅट हाडपाचे! ताणें पक्सर माल्ली म्हण्टकच फ्लॅटाच्या जनेलाचो खंयचो तरी हारसो खळळ करून ट्टलो- आनी म्हजो मागीर ताचे फाटीर एक ल्हवूच धुमको पडटलो.

रक्षाबंधना दिसा संपदाली राखी, समृध्दीली राखी. आपल्या धाकटुल्या नगटाचेर राखयो बांदून तो भोंवतालो. फुडाराच्या काळात व्हडलो जातकीच तो पदा समृध्दीचो व्हडा आदाराचो खांबो जावन तांच्या फाटल्यान उबो रावतलो...

आमी ह्या संवसारांत आसूं वा नासूं, धुवांखातीर कुळाराचे दार सदांच त्कें उरतलें. भर जुवानीत तो संदीपावरी दिसतलो, बरें भलायकेचो रुबाबदार रणाटो! संपदा-समृध्दीक आपल्या भावाविशी व्हडविकाय दिसतली. ती दोगांय ाचेर खूब माया करतली. तो खूब शिकतलो. ताचे पुरूशी व्यक्तिमत्व आनी ुदवंता काय पळोवंन आमचें दोळे दिपकावतले. जिणेंचे सार्थक जालेशें दिसतलें. अशेंच कोण तरी मस्तें पोर, ताच्या जिणेंची सहचारिणी म्हूण ह्या घरांत येतली. ज्या घरांत हांव सून म्हूण आयिल्लें, त्या घरांत म्हजी सून म्हूण कोण तरी येतलें. ूण हे सगळें रामराज्य जातलें जाल्यार तें राज्य करपी राम पयली जाय न्हय...

करूणा सामकें आकूळ पिकूळ जावन उलयतालें. ताची ती अवतिकाय ळोवन, समजिकायेच्या उतरांनी संदीपान म्हळें.

"करूणा, कितली सुंदर कल्पना गो ही! आपल्या संवसारातलें वेगळेंपण पुताच्या जल्मान नक्कीच दुपेटीन वाडटलें तें म्हाका कितें नाका जालां? पूण चलोच जातलो कित्यावेल्यान? मनातल्यो कल्पना त्यो..."

संदीपाली उतरां अदर्यारूच आडायत करूणान म्हळें," मनांतूच उरतल्यो ही भिरांत दिसता तुका? स्पश्ट उतरांनी सांगतां तुका, म्हजेर विस्वास दवर. म्हाका कांयच दिसचेंना. आवय जावपाची शक्यताय परती उरूंक नासतनाय हे सपन म्हज्या मनाच्या कोनशांत खंय तरी तशेंच आशिल्लें."

"चली जाली, जाल्यार कोताक येतलें तुका?"

"संदीप, तुका कोंताक येवचें ना?"

"करूणा, प्रस्न म्हजो ना. म्हाका कित्येंय कोंताक येतलें. आनिक एक भुरगें आमकां पोसपाक जाय. आवय म्हूण तुजेर चड जापसालदारकी आसा. आई, बाबा, आसा तोमेरेन सांबाळपाचो हुस्को ना. पूण फुडें?"

"फुडें? तोवूय विचार केला हांवें संपदा-समृध्दी आसाच! त्याभायर फुड
वर्सां म्हजें शिर्विसेक वीस वर्सां सोंपता. हांव वॉलंटरी रिटायरमेंट घेतलें नाजाल्य
ह्या शिर्विसेची उबग आयल्या म्हाका. घराच हांव कितें तरी करीन."

संदीपाक सूऽ ऽ जाल्लेंवरी जालें. करूणालें मन ताचेमुखार उक्तें जाय
वतालें. ताणें ताका आडायलें ना. ताणेंच करूणाक म्हळें,

"करूणा, धरून चल की तुका चलो जाय पूण जाली चली! जाल्यार तु
सपन अर्दकुटेंच उरतलें."

"कांय सपनां अर्दकुटीच उरतात. ती सत जाली नात तरूय ती ज
करून दवरपांतली खोस तशीच उरता. संपदा-समृध्दी तशेंच हें समाप्ती. धाकटु
पावलां परतून एकदां ह्या घरांत भोंवतली. त्या दोन चिमण्यांपरसूय कांकण
चडूच हांव ह्या चिमणेची अपुर्बाय करतलें. कारण स्पश्ट आसा, तें आमचे दोगां
शेंडे फळ आसतलें."

"नक्की? उपरांत फुल स्टॉप?"

" आपलो कृष्ण आयलो ना म्हूण सपनां मातयेभरवण जाल्याचें दु
तुका जावंचे ना?"

"बिल्कुल ना! म्हज्या हातांनी म्हजी सपनां मातयेभरवण जावंक दिवपाइ
हांव दुबळें न्हय."

संदीपान उलोवपासारखें आतां कांयच उरूंक नाशिल्लें. आपलें घरकान्नी
बुदवंतकाय तो पारखून आशिल्लो. तरूच ह्या नाजूक प्रस्नाचेर घरकान्नीक तो
पळोवपाची ताची इत्सा आशिल्ली ताका खूब आयवूंक मेळिल्लें. करूणा
व्यक्तिमत्वाचो आनिक एक पैलू ताचेमुखार उक्तो जालो. करुणालो हात व
मोगान हातांत घेयत ताणें म्हळें.

"बरें तर! करूणा, आमी तिसरो चान्स घेवंया, आनी तुका खरें सांगू?
विचार सुसंगत आसा कांय ना तें म्हाका पळोवपाचें आशिल्लें. म्हूण हांवें तु
इतलें उलोवपाक संद दिली. म्हजेंय कांय दुबाव ताका लागून पैस जाले. 
ॲम प्राउड ऑफ यू. आनिक एका भुरग्याक पोसपाक आमी समर्थ आसात.
आमचो दोगांचोय निर्णय! आनिक एक सांगता, जायते सल्ले विचारीनासल
येतले. खंयसावनूय काव काव जाली तरूय आमी चिवचिव करप ना. न

शेल्ली तोंडा वाजत रावतलीं. चारीवशींनी टिकेची वावझडूय बादतली एखादवेळ. सगळ्याक तुंवेंन व्हडा धिटायेन तोंड दिवंक जाय."

"नक्कीच! कारण हांव संदीपाली घरकान्न. लोकालजेची भिरांत म्हज्या जांत आशिल्ली, जाल्यार हो विचार हाव केन्नाच सोडून दितलें आशिल्लें. का फक्त तुजो हयकार जाय आशिल्लो. तुंवेन न्हयकार दिल्लो जाल्यार म्हाका तो विचार बदलचो पडटलो आशिल्लो.

"हांव तुज्या निर्णयाकडेन पुरायेने सहमत आसा करुणा, हांव तुज्या फाटल्यान सां."

संदीप आनी करूणान सबंद रात उलयत जागूनच काडली. जनेलांतल्यान सतालें उदेंते वटेनचें क्षितिज! तें तांबड्या रंगान उजळ जायत वतालें. करूणा तेंचे दिकेंन एके नदरेन पळयतकच आशिल्लें. ताच्या मनांतूच एक विचार लो, आनिक कांय म्हयन्यांनी आपल्या कुसव्यांतूय असोच एके फातोडेंर एक राग उदेवपाचो आसा.



# ८. अप्रुप याद

हात जोडून सिनारादेवीन मुखावेले कृष्णाचे मुर्तीक नमस्कार केलो. तितल्याच भक्तीभावान शेजारच्या खानसाहेबांच्या फोटोकूय हात जोडले आनी त्यो तंबोऱ्याच्यो तारो जुळोवपाक लागल्यो. कांय खीण अशेच गेले. उपरांत ताणी जड मनान तंबोरो सकयल दवरलो. आज तांचें मन लागना म्हणपाचें तबलजींक समजलेंना. ते तशेच तबल्याचेर बोटां दवरून वाट पळयताले. बाईच्या असामान्य गळयांतसून भायर पडपी स्वरांची तांकां संवय जाल्ली. तो आवाज ते आयकताले. तृप्ततायेन पूण परत परत आयकुपाची उमळशिक लागताली. तांचो आवाज म्हळयार निखटो आवाज नासतालो, तें तर देवाचें देणें कशें! तागेल्या तबलजीचेंय हें मत आसलें अशे न्हय, तर असंख्य रसिकांचे हेंच मत आसलें. फाटलीं पस्तीस वर्सां जालीं बाई गायतात. तांची पिरायूच आसतली चाळीस पंचेचाळीस वर्सां.

तबलजींचे तनरी मोडली ती बाईनीच "उस्ताद, आज तबियत बरी ना. फाल्यां पळोवया." तबलजींन अजापीत नदरेन बाईकडेन पळयलें हीं उतरां ताणी केन्नाच आयकूंक नासली. खानसाहेबाकडेन शादी जायतपासून ते बाईक पळयताले. त्या नाजूक आवाजाचेर खानसाहेब सुमाराभायली मेहनद घेताले आनी बाई मात उबगनासताना रियाज करताली. दांतार दांत आदळपी थंडी आसूं वो घामाच्यो पावळयो गळोवपी गीम आसूं शिकवणी आनी रियाज केन्ना चुकलोना ! आनी आयज?

"बरें आसा बाईजी." अशें म्हणत तें जड जावन उठले. सवकसायेन बाई उठल्यो. आनी आपल्या शयनगृहात गेल्यो. पलगाचेर पडल्यो. कालच्या पत्रान तांची मनशांती सामकी विस्कटून गेल्ली

म्हणजे पंचवीस वर्सां. जालीं तरी पुरवल्ल्या त्या घायांची खिणां सासण्याचीं तशींच आसा म्हणपाचीं!

नगरच्या श्रीमंत बाळासाहेबानी बाईक आवर्जून निमंत्रण केलें. आपल्या वाड्यार गाण्याची बैठक करपाखातीर. हें निमंत्रण बाईन स्वीकारचें म्हणून बाळासाहेबच्या इश्टांनी तांकां आगरो केलो ते येवन बाईक मेळळे ताणी सांगलें,

"बाळासायबा सारको दुसरो रसीक मनीस सोदून सांपडची ना. तांच्या
ड्यार जायते मान्यवर कलाकार येवन गेल्यात. तांचो बेसबरो मान बाळासाहेबानी
धरला. तांचें निमंत्रण म्हळयार मोटमोट्या कलाकारांक लेगीत पर्वणीच दिसता.
ांचें मानधनय बरें आसता तुमची इत्सा आसल्यार तुमी तुमच्या मानधनाचो
डावत आंकडो तांकां कळोंव येता. तुमकां तो अधिकार आसा. बाळासायेब मोटे
ोशेन मान्य करतले. तुमचो विचार तुमी फाल्यां कळोवचो त्या आमंत्रणाचो
ीकार केल्यार बाळासायब आनी ताचे इश्टमित्र धन्य जातले.

... श्रीमंत बाळासाहेब, नगरचे संस्थानिक म्हणजे श्रीमंत नानासायबाचे
रंजीव ! दुबावूच ना करचो काय आमंत्राणाचो स्वीकार? बाईक कांयच सुचनाशिल्लें
ण मोहाचोच जय जालो. तोच मोह, जाचेकडेन पंचवीस वर्सां फाटी फाट केली
ानी सगळें जीवन बदलून वडयलें.

... श्रीमंत बाळासायबांच्या वाड्यांत पावल दवरतांच बाईचें काळीज
डधडपाक लागलें. " यो, यो बाईजी. हे वाटेन येयात. दिवाणखाण्यांत" अशें
णत खासा बाळासायबांनी तांचें स्वागत केलें.

दनपारच्या जेवणा उपरांत बाळासायबांनी बाईजीक तोच सगळो वाडो
ाखयलो. जाचो कोनशान कोनसो बाईजीक वळखीचो आशिल्लो. देवाचे कुडींत
वेश करीनाफुडें बाईन पयसुल्ल्यानूच हात जोडले, कारण त्यो हिंदू नाशिल्ल्यो !

"ही आमची देवाची कूड. पिळगेन पिळगी हे देव आमच्या घरांत आसात.
ामचे पणजे देवभक्त आशिल्ले."

..."आरे, म्हाका हें सगळें खबर आसा. तूं कित्याक सांगता? ह्याच देवाखातीर
ुज्या पणजोबाक हांव सदां गंध जरोवन दितालीं. ह्या देवघरांत ती कृष्णाची
ूर्ती आशिल्ली. तुकां खबर ना तें ती मूर्ती पळोवपाची आसा तुकां? आतां
ज्जेकडेन आसा. अशें बाईक सांगन दिसलें. पूण त्यो वगीच रावल्यो आनी
ूतकाळांत रिगल्यो.

फातोडच्या पारार वाड्यार गायनाचे सूर आयकले. आज कितल्या वर्सांनी
ाई त्यो वास्तूंत गायताल्यो. त्या वास्तूंत ताणी गावचें न्हय देखून नानासायबान
जेवाचो कितलो आटोपिटो केल्लो. कारण तांचो बापूय श्रीमंत भाऊसायब ह्याच
ंदान सामको बुडून गेल्लो. दिसरात गायन. गायना शिवाय तांच्या आयुश्यांत
ुसरें कांयच नाशिल्लें आनी तांचे बायलेक दुकां गळोवपाशिवाय दुसरो मार्ग

नाशिल्लो. खासा आपल्या बापायक सुध्दां बदले ना. आनी शेवटा ह्याच गायनाखात
घरदार सोडून गेले. जाण्ट्या काकासायबाक धक्को बसलो. ते कितलो तरी त
हातरूणाचेर उरले. तेन्ना ताची सेवा भाऊसायबाची चली म्हळयार काकासायबा
नात करताली. आपल्या आज्याचे देवघरांतलें सगळे पुजेची तयारी चली करताल
आपल्या आज्यासारकीच देवघरांतली ती कृष्णाची मूर्ती तिकाय प्रिय आसल
काकासायब वतकूच तो वाडो दुसरेफावट हाल्लो. जेन्ना भाऊसायबाल्यो कले
दायज घेवन आयिल्ले चलयेन गायन शिकपाचो हट धरलो.

भाऊसायबा फाटल्यान तांचो चिरंजीव नानासायब सगळो कारभार पळयता
आपूण जितो आसामेरेन आपले भयणीक गायन शिकपाक दिवचो ना अ
ताणी प्रतिज्ञाच केल्ली. आनी ते आशिल्लेच तशे करारी! आपलें तेंच खरें कर
नातीक गायन शिकपाची परवानगी दितना काकासायबांक खूब वेदना जाल्य
पूण तारा तांची एकटीच आनी सामकी अपुरबायेची नात आशिल्ली. तिचें म
तांच्यानी मोडपाक जायना जालें.

आनी वाड्यार खानसायबांची शिकवणी सुरू जाली. पुरे तयारेन गाव
आनी मन लावन शिकोवपी त्या सुंदर आनी तरूण खानसायबान ताराचेर कस
जादू केली कोण जाणा!

अशेच एके मध्यानेर त्या वाड्यांतले एके कन्येन सगळो मोह, मायप
सोडून वाड्या भायर पावल घातलें. लागीं आशिल्लो तो फकत आज्याचो देवघरांत
तो कृष्ण. हाडामासांच्या मनशांचो मोह तोडील्या ताराक त्या पाषाण मूर्तीचो मं
जालो.

खानसायबानी तांचे खूप मेहनत घेवपाक सुरवात केली. अखंड परिश्र
उपरांत त्यो तयार जाल्यो. तेन्ना खानसायबानी ही या सुरील्या जगातली तेजस
सितारा जातली म्हणून तिका 'सितारा' हें नांव दिलें नाजाल्यार तारा केन्न
सोंपिल्ली. जे निश्ठेन त्यो खानसायबाकडेन गायन शिकल्यो ते निश्ठेन तां
खानसायबाक जिवीतभर सांगात केलो. तांका वचून स वर्सां जाल्ली.

"ताईसायब" बाई कांचवेल्यो. ह्या घरांत आपल्याक त्या पोरण्या नांव
कोण उलो मारता? ताणी तंद्री मोडपी त्या आवाजाचे दिकेन पळयलें तर ए
जाणटो मनीस तांचे मुखार उबो आशिल्लो, पिरायेन सत्तर-पंच्यात्तर वर्सां आसतल

"कितें जाय तुमकां?" बाईन विचारलें

“ताईसायब म्हाका वळखाक नाय? हांव गोपी.”

“ गोपी. हां हां गोपी, तुमी वळखले म्हाका?”

“माज्या आंगार-खांद्यावर खेळपी ताईसायबास्नी मी ओळखणार नाय? किती बी वर्सांनी ओळखेन” कांय खीण थंडसाणेन गेले. परत गोपीनूच शांततायेचो भंग केलो.

“कश्यो भेटल्यो ताईसायब तुमी. इतक्या वर्सांनी तुमी गेल्या आनी वाड्याची शानच गेली बघा! म्हाका तर लई आठवण यायची तुमची. बाळासायबाक लगीत झालं, वयनी सायब आल्या. नानासायबानी बाळासायबाक सरळ सांगून टाकल्यान, गाण्यापायी हे समदं आसं झालं. बाळासायब मोंट झालं तवापास्तन एक बी गानं कोणी या वाड्यांत म्हनलं नाय पन रगतातला गुन काय बी म्हना. बाळासायबाक गान्याचा लई शौक. नानासायबांच्या भ्यापायी गुमान गान्याचा अभ्यास करायचा. त्येच्या जिवाची काय तगमग व्हायची! गान्याचे सूर कानावर पडले म्हंजे चोरासारखा भायर जाऊन गानं एकायचा. नानासायब गेले आनी समदं खुलं झालं आतां वयनी सायबांच्या हातांत काय हाय?

बाईनी सुस्कार सोडलो... हऽऽ सगळें अशें जालें तर... बाळासायबांचे गावपाचें पिशे हुमटून काडचे पयलींच नानासायब गेले. आनी म्हणून आपूण हांगा पावलीं. अश्यो बैठकी करपाक, आपल्याच घरांत. ना, ना. आपले? ना आपलें कशें म्हणप? तें तंद्रीतल्याना परत एकदां गोपीन तिका जागयली.

“ताईसायब आतां ऐका मांझं. बाळासायबास्नी समद सांगून टाका. आनी हतंच रावा. त्या महालात तुमी एकटेच आसा नवह? ह्ये बी तुमचंय घर हाय.”

“नाका गोपी, ह्या घरांत हांव पंचवीस वर्सां आदींच मेलें. हें घर आतां म्हजें न्ही. त्या घरांत हांव परकी. परकीच म्हणून आयल्यां आनी परकीच म्हणून वतलीं परत केन्नाच ना येवपाक नानासायबांच्या आत्म्याक तितलीच शांती लाबूं दी.” विरक्तीच्या आवाजान बाईन सांगलें. गोपीचे दोळे मात दुकांनी भरून आयले.



# ९. पीळ

हांव बेडरुमांत सुशेगाद वाचित पडिल्लो. रातचें जेंवण जाल्या उपरांत खाटीर पडून अशें वाचपाक म्हाका खूब आवडटा. अशा वेळार कोणाचोच आवज म्हाका नाका आसता. फोनूय वाजल्यार हांव घेना. शिल्पाकूय शिटकावन दवरतां, 'आतां मात्शी तुजी बडबड बंद कर आं.' तरीपूण आयज शिल्पा बेडरूमांत आयलें आनी भुवयो वयर करून म्हणपाक लागलें. ''श्रीकांत आयलां.''

''श्रीकांत?'' हांवें अजापान विचारलें.

''हय.''

''कित्याक ?''

''तें हांव नकळो. हांवे ताका विचारूंक ना.''

''तरीपूण, ह्या वेळार...''

'' आता म्हाका कितें खबर ? तुमचो अपुरबायेचो भाव हांगा ह्यावेळार कित्याक आयला तो?''

''आपय ताका हांगा.''

''कांय गरज ना. तूंच थंय वच. चंदन न्हिदला हांगा आनी आतां च्या, कॉफी कर म्हूण सांगू नाका आं. आनी जायच जाल्यार तूं करून दी.''

हांव उठलो आनी भायर हॉलांत गेलो. श्रीकांत सोफार बशिल्लो, जाता तितलें आंग चोरून आनी सकयल मान घालून. हांवें ताचेकडेन पळयलें, बरोच लांब जाल्लो. हांव ताका दोन कांय तीन वर्सांनी पळयतालों. ताणे म्हजेकडेन पळयलें आनी आपली नदर चुकयत तो सकयल पळोवपाक लागलो.

''कितें रें, कसो आसा? आनी अकस्मातसो ह्या वेळार, आतां?''

''ना, हरशीच.'' तो तोंडातल्या तोंडात गुणगुणूंक लागलो.

''कसलें काम आशिल्लें?''

श्रीकांत चुळबुळपाक लागलो. आमी दोगूय कितलो वेळ वोगीच रावले हांवें पंखो लायलो.

"जेवपाचें आसा न्ही अजुन?" शिल्पान विचाल्लें

"ना, ना. जेवूनूच आयलां."

"आई, मीना सगळीं बरीं आसात न्ही?" हांवें एका दमांत सगळयांची चवकशी केली.

तीन वर्सां जालीं. घरांतल्यान भायर सरतकच एकदाय घरातल्यांचीं चवकशी करपाक पावलो ना. घरांतलीय चडशीं म्हजेकडेन आयलीनात. केन्नाय मीना लोणचे पापड नाजाल्यार श्रीकांत आंबे-पणस घेवन येतालो तितलोच. हांव तर तीन वर्सां वचुकूंच ना. शिल्पाक म्हजी मनशां, म्हजें तें गावांतलें घर केन्ना आवडलेंना. ताणें तें घर, घरातलीं मनशां आपलीशी केन्ना मानलीच ना. ल्हवू ल्हवू आमचें संबंद पैसावले. मागीर ते तुटलेच. हांव काम करता तें कंपनींत उंचेल्या पदार पावलो. म्हजी मनशां बदल्ली. आवडी-निवडी बदल्ल्यो. परिस्थिती बदल्ली. पैसौ हातांत खेळपाक लागिल्लो. घरची मनशा मात तशीच उरलीं. त्याखातीर म्हज्या आनी तांच्या मदीं एक दरी निर्माण जाली.

"उलय, कितें काम आसा?" हांवे परत ताका विचारलें. खिणभर तो चांचरलो, आळण्यो घोटीत म्हणपाक लागलो,

"आईन थोडे पैशे मागल्या."

"आईन ?" म्हाका शॉकूच बसलो.

"हय"

"कित्याक?"

"तशें कांय सांगूक ना."

"कितलें?"

"दोन हजार रूपया."

म्हजे मोटेपण म्हाका सुखावलें. हांव भितर गेलो, म्हज्या फाटोफाट शिल्पा भितर पावले. हांव कपाट उगडून नोटी भायर काडपाक लागलो, इतल्यांत शिल्पान

तोंड घालें.

"पैशे आताच दिवपाक जाय? फाल्यां दिल्यार जायना? रातचें पैशे दिल्ले म्हाका आवडना." इतलें सांगून शिल्पा रोखडेंच भायर हॉलांत गेलें. हांवे श्रीकांताक म्हळें,

"फाल्यां ह्याच वेळार येवपाक मेळचें ना?"

"आरे फाल्या आमी..." शिल्पा मदींच उलयलें पूण हांवे ताका तोडलें. ताणे म्हजेर दोळे मोटे केले. इतल्यांत भितर चंदन रडपाक लागलो.

"चंदन रडटा." हांवें म्हळें.

"दुदाचो वेळ जालो दिसता."

"हांव पळयतां, तूं राव हांगा." तें भितर गेलें, कान भायर दवरून.

"बरें, तूं फाल्यां येता मरे?" हांवे श्रीकांताक विचारलें.

"बरें, वतां हांव." तो उठलो आनी मात्शी तकली बागोवन म्हणपाक लागलो, "वैनी..."

"हांव सांगता शिल्पाक... " हांवे म्हळें.

"ह्याच वेळार येवू न्ही दादा फाल्यां?"

"यो, केन्नाय यो. स उपरांत हांव घराच आसां." हांवे सांगले. तो उठलो. ताच्या दोळयांत म्हाका आशेचें किर्ण दिसले. ताणें हांशिल्लेंवरी केले आनी म्हणपाक लागलो,

"आईक सांगता तशें."

"हां," हांवे म्हळें. ताणें पायांत जोती घाली. ताच्या जोत्याचें दोनूय आंगठे तुटिल्ले.

म्हाका फाटली याद जाली. श्रीकांत म्हजेपरस ल्हान, पूण कितलो जाण्टो दिसता. हांव मुळांतूच बारीक. म्हजो कॉलेजीचो पयलो दीस आशिल्लो. पयलींच आईन हेवटेन तेवटेन करून म्हजे फीचे पैशे एकठांय केल्ले. तातूंत भायर सरतनाच म्हजें जोतें तुटल्लें पळयले आनी म्हणपाक लागलो.

"म्हजें जोतें घालून वच तूं, हांव कसोय वचन."

त्या दिसा तो जोतें घालीनासतना गेलो.

आयज ताच्या जोत्याचें दोनूय आंगठे तुटल्या. तो गेल्याबरोबर हांवें दार गायलें. आनी हांव भितर आयलो.

"फाल्यां कित्याक आपयलो श्रीकांताक?"

"कित्याक म्हणजे?"

"फाल्यां आमकां वाढदिवसाची पार्टी आसा न्ही?"

"आरे हय! विसरलोच हांव. तेन्नाच याद करपाची न्ही?"

"हांव सांगतालें तें न्ही? पूण तूं आयकून घेवपाकूच तयार नाशिल्लो."

हांव विचारांत पडलो, आतां कितें करपाचें?

"शिल्पा, फाल्यां ताका रकाद धाडटा."

"कित्याक?"

"मागीर घरा वचून येवूं?"

"कांय गरज ना. गरज कोणांक आसा? आमकां काय तांका? आतां न्हिदात. फायचें फाल्यां पळोवया."

हांव न्हिदलो खरो पूण बरोच वेळ म्हाका न्हीद लागलीना.

दुसऱ्या दिसा आमी पार्टेक गेली. म्हज्या मनांत आयलें, श्रीकांत येवन गेलो जाल्यार ? अशें हांवे शिल्पाक म्हणटकीच ताणें म्हळें.

"कुलूप पळयतलो आनी वतलो घरा परत."

पार्टेक म्हजें लक्षूच लागलेना. म्हज्या इश्टाच्या चल्याची पयल्या वाडदिसाची पार्टी. आमी घरां आयली. आनी ब्लॉकाचे दार उगडले. दार बंद करून भितर सर जाल्यार परत दाराची बेल वाजली.

" पळय गो, कोण आयला ह्या वेळार! "

"तूंच पळय, म्हाका पुरो जालां."

हांवें दार उगडलें जाल्यार दारांत आमच्या शेजारच्या ब्लॉकातलो च्यारीबाब

उबो.

"येयात न्ही भितर."

"तुमी खंय भायर गेल्ले?"

"हय हय एक पार्टी आशिल्ली."

"तुमचो भाव येवन गेलो."

"हय?"

"दोन फावटी येवन गेलो."

"अशें?"

"हांवें विचारिल्लें, कसलें काम बी आशिल्लें काय म्हूण? फक्त श्रीकांत येवन गेलो इतलेंच दादाक सांग, अशे सांगले ताणे."

"घडये फाल्यां येन, अशेंय म्हळें ताणें." च्यारीबाबान सांगले.

"फाल्यां आयल्यार कांय हरकत ना. फाल्यां हांव घरां आसा."

मागीर च्यारीबाब गेलो. च्यारी गेलेउपरांत भितर वचून हांवे शिल्पाक सांगलें,

"आगो, श्रीकांत येवन गेलो खंय!"

"येतलो परत फाल्यां..."

हांव ओगी रावलों.

दुसऱ्या दिसा म्हजी सदांची कामां सुरू जालीं. ऑफिसाक वचपाची गडबड. म्हज्या कामाच्या बोवाळान श्रीकांताक सामको विसरून गेलो. पूण श्रीकांत विसरूंक नाशिल्लो. कित्याक तर दोन हजार रुपया म्हजे नदरेन जरी किरकोळ बाब आशिल्ली तरीय आई आनी श्रीकांताचें नदरेन ती व्हड रक्कम आशिल्ली. सांजवेळां हांव ऑफिसांतल्यान पुरो जावन घरा यो जाल्यार श्रीकांत परक्यासारको भायरूच बसला. ताका पळयतनाच हांवें म्हळें,

"तूं आयलां? यो भितर" हांव भितर वचून, हात - पाय धुऊन कपडे बदलले आनी भायर येवन बसलो. भायर येतनाच श्रीकांच म्हजेकडेन पळोवन

सो,"

आयज ऑफिसांत म्हाका इतले काम पडले, मिटींग, चर्चा हातुंनूच घुस्पून
डलं." इतल्यान शिल्पान उलो मारलो. भितर वच जाल्यार डायनिंग टेबलार च्या
ार तळिल्ले घरे.

"हे कितें, आयज तळिल्ले घरे कशे?"

"हांवें खंय केल्या? आवयन धाडल्यात तुमचे. खायात आतां पोटभर..."

"हय, खूब दिसांनी आईच्या हातचें खातां. बरे जाल्या."

"बरे कित्याक जावचेंना? दोन हजार रूपया दिवपाक जाय न्ही, म्हूण ही
पबाय."

"कितेंय उलोंव नाका. म्हाका आवडटा तें सगळें ती धाडटाली. लोणचें,
ए, वडयो, आतेरां, भाजिल्ल्यो बियो, सांगो, शेतांत जाता ती भाजी, पूण
वें नाका म्हळें न्ही?"

" ओगीच नाका म्हूणू ना. तशें तें आमकां फुकट पडनाशिल्लें. येवपा-
चाचे पैशे म्हूण कितेंतरी दिवचें पडटालें काय ना?"

पूण ह्या दोन वर्सांक काय धाडूंना हेवूय तितलेंच खरें. च्या घेवन हांव परत
ार येवन बसलों आनी परत गजाली सुरू केल्यो.

"मीना बरें आसा न्ही?"

"हय."

परत दोगूयजाण वोगीच बसले. शिल्पान म्हाका शिटकावन दवरिल्लें, जोमेरेन
कांत पैशांचो विशय काडीना तोमेरेन हांवेंय विशय काडप ना.

"वैनीन सांगले म्हूण काल येवन गेलों. पूण तुमी नाशिल्ली."

"हय."

इतल्यांत शिल्पा भायर आयलें आनी म्हणपाक लागले,

"काल अकस्मात एके पार्टेक वचचें पडलें."

"हय." हांवेय मान हालयली. शिल्पा पार्टेची वर्णनां करपाक लागलें.

मदींच श्रीकांतान म्हाका विचारलें.

“आईन मागिल्ल्या पैशांची व्यवस्था जाली?”

“हय हय. शिल्पा, जालें न्ही काम? बँकेत वचून आयलें न्ही सकाळीं?”

“बँकेत?”

“तुवें म्हणूंक नाशिल्ले आपूण वतां म्हूण?”

“हय, पूण म्हाका वेळ आसल्यार वतलें अशें सांगिल्लें. म्हाका दिसलें, ऑफिसातल्यान मदीं वचून तूं पैशे घेवन येतलो.”

“हांव कशे हाडटलो?”

“अशें कितें करता? तुमीच हाडपाचें न्ही?”

“म्हाका खंय वेळ आसता.” शिल्पाकडेन उलोवपाचें हांवें जावन बंद केलें आनी श्रीकांताक सांगले.

“तूं अशें कर. फाल्यां ही बँकेतल्यान पैशे हाडटली. तूं परवाच यो.”

“परवां खरेंच मेळटले न्ही दादा?”

“खरेंच म्हणजे कितें? मेळटलेच रे.”

“तशें न्हीं, नाजाल्यार म्हाका दुसरेकडेन पळोवपाक जाय न्ही?”

“तुकां पळोवपाचें आसा जाल्यार पळय तूं.” शिल्पान मदींच तोंड घालें.

“तशें न्ही वैनी, आईक सामकी गरज आसा.”

“पैशे तुमकां जाय न्ही?” हांवेय श्रीकांताक म्हळें नाजाल्यार शिल्पा आनीक कितेंय बडबडपाचें.

“चल, परवां यो.” तोय उठलो आनी वचपाक भायर सरलो.

ताचीं ती अवस्था पळोवन काळीज सामकें पिळून गेलें. खीणभर दिसलें, काडचें आनी श्रीकांताचे हातार मोन्यांनी दोन हजार रुपया दवरचे. हांव कितलें पैशे जोडटालो..., नाका थंय मोडटालों. म्हजेकडेन पैशे मागप तांचो हक्क आशिल्लो. कारण इतलें जोडुनूय हांव तांका कांय दिनाशिल्लो.

"कित्याक जाय तुमचें आवयक हें पैशे?" शिल्पान विचारलें.

"कोणाक खबर?"

"म्हाका दिसता, मीनाची फी भरपाक जाय आसतले."

" ना गो, घडये तिकाय जाय आसत, तिचेंय आरोग्य पयलीं साकून बरें

"ओगी राव, आरोग्य बरें ना खंय! लोकांच्यो खाणांच्यो ऑर्डरी ती घेना? ार तरी तिका पैशे कित्याखातीर जाय ते? पैशे कितें झाडाक लागता?" ग्रें उलोवणें हांवे मोन्यानी आयकलें, परती आनीक जाप केली ना.

दोन दिसांनी श्रीकांत परत आयलो. शिल्पान म्हाका सांगून दवरिल्ले. तो बरोबर हांवे म्हळें,

"बस, सरबत, च्या कितें घेता?"

"नाका, उदकच दी."

"फ्रिजांतलें उदक चलता?" भितल्ल्यान शिल्पाचो आवाज-

"हय"

"श्रीकांत, पैशे हाडून दवरल्यात. हाणे काल दनपारच्या वोतांत बँकेन पैशे हाडल्यात." तो म्हजेकडेन पळयत आशिल्लो.

"पूण हांव म्हणटा, आईक इतले पैशे कित्याक जाय?"

"तें म्हाका खबर ना."

शिल्पा उदकाचो ग्लास घेवन भायर आयलें.

"पूण श्रीकांत, तुंवें विचारपाचें न्ही इतले पैशे कित्याक जाय काय म्हूण?" न मदींच तोंड घालें.

"तशे हांवेय विचारिल्लें, पूण तिणें सांगले, दादाक सांग, आपणे पैशे ा म्हूण आनी तो दितलो."

"तरीपूण कारण कळूंक जाय न्ही? आनी तिका पैशेच जाय न्ही, ती क येवूना? इतले दीस केन्ना येवूना, पूण असल्या अडचणीच्या वेळार तरी

येवपाक जातालें न्ही?" शिल्पा बडबडपाक लागलें. शिल्पाची बडबड थांबोवपा हांवे मदींच तोंड घालें, "म्हळयार म्हाका दिसता, कि ती आयल्यार कळट आशिल्लें पैशे कित्याक जाय तें?"

"ती कशी येतली दादा? ती आतां थकल्या. फाटल्या दोन वर्सांत ती खं भायर सरूना. तिच्यान हांगा येवपाक जमचें ना."

"कोणाक? आईक?"

"हय."

"तशें जाल्यार, बऱ्याशा दोतोराक कित्याक दाखय ना? आनी हें म्हाक पयलीं कित्याक सांगलेना? इतले म्हूणून हांव भितर गेलो. म्हज्या फाटोफा शिल्पाय भितर आयले.

"दितात कांय कितें दोन हजार रुपया? पूण लक्षांत दवरात परत मेळचेन तें."

"आवयक दिल्ले पैशे परत घेवपाचे?"

"मागीर, सगळें दियात तर, आवय न्ही तुमची?"

"तशें न्ही गो, बरी ना म्हणटा न्ही ती?"

"मागीर हांगा येवून व्हरूं दी न्ही! नाय जाल्यार दिसांतल्यान एक फाव तरी आवयची याद जाताच न्ही? ते यादी वाट्याची तिकाच येवंदी हांगां."

"आपयल्यार येतली. खूब दिसता, तिणें ह्या म्हज्या घरांत येवचें, म्हजे सूख पळोवंचें. म्हजें गाडयेंत बसून भोवचें, पूण ती पैशाच्या निमतान केन्नाच आनी कशीच येवचिना."

सामको वेगळें मनाचें आवतिकायेन हांव भायर आयलों,

"हें पळय श्रीकांत, तूं अशें कित्याक करीना? आईक सांग, हांवे आपयल्य म्हूण."

"पूण दादा..."

"तिका सांग, जमता तशी केन्नाय यो. आयज, फाल्यां, परवां. एका निमतान हांगाय पावतली. पैशेय घेवन वच म्हणजे."

दोन-तीन खीण शांततायेत गेले. ती शांतताय म्हाका खावंक आयिल्ल्याभशेन ाली. तो सटकन उठलो आनी म्हणपाक लागलो,

"वचूं हांव?'

"बरें श्रीकांत." अशें म्हणत शिल्पान ताका दारामेरेन पावयलो.

उपरांत दोन-तीन दीस गेले. आई काय आयलीना. हांव सदांच शिल्पाक वेचारतालो,

"आई आयिल्ली?"

"ना." ताची जाप थरिल्ली आसताली. शेनवारा हांव ऑफिसांतल्यान ातसो बेगीनसो आयलो. सदाचेंच पध्दतीन शिल्पाक विचारलें,

"आई आयिल्ली आयज?"

"हय, वाट पळयत राव तूं."

"बरी नासत घडये."

"बरी खणखणीत आसा. येन्ना कांय जायना तिका. आयज शेजारची व्यारी वैनी आयिल्ली. हांगाच्यान वतना श्रीकांत त्या दिसा तांगेर गेल्लो. आनी तांचेकडल्यान पैशे घेवन गेलो खंय. केदी लज आमकां! हांगा आयिल्ली जाल्यार आमी कितें दिवंची नाशिल्ली? घरांत इतलें रांदप आनी हाणी लोकांकडेन भीक मागून खावप अशी गत ही. हें सगळें आवयचें कर्म तुजे. नाजाल्यार श्रीकांत तांचेकडेन केन्नाच पैशे मागचोना. चल, आत्ताचें आत्तां तांगेर वचून चवकशी कर. कितले पैशे घेवन गेला तो पळय. आमी मात दिवचीना म्हूण सांग. तुमचें आवयकूच दिवं दी."

हांव खंती जावन आयकत उरलो. आईची उतरां म्हाका याद जाली. "पूता, गरिबी खूब वायट आसता, कोणायफुडें हात पसरावपाक लायतां..." हांव जसो जसो विचार करपाक लागलो, तशेंतशें म्हाका दिसपाक लागले, हांवें श्रीकांताक पैशे दिवपाचें. शिल्पाक मनशाची पारखूच ना. नाका थंय हजारांचो अस्सो चुराडो करतलें. पूण म्हज्या मनशांक दिवपावेळार मात आकांत करतलें. तांतूंत म्हजे आवयचेर चड राग घेवन बसलां. म्हजे आवयन आमचेपासत कितें भोगलां तें म्हाकाच खबर! ती गरिबीक खूब वाजेल्या. पूण तिचो म्हजे बुध्दीमत्तेचेर आनी

कर्तुत्वाचेर खूब विश्वास. ती सदांच म्हणटाली,"आमच्या दादाचे एकदां शिक्षण पुराय जावूं दी, मागीर पळय आमी खंयच्या-खंय पावतली..." बरोबर, हांव खंयच्या-खंय पावलो खरो! ए.सी.बेडरूमांत न्हिदतां, मोटारींत भोवतां, ऑफिसा म्हूण विमानांत हांगा-थंय भोवतां म्हजी आवय मात आसा थंयच आसा.

शिल्पान मदींच म्हज्या विचारांची सांखळी तोडली.

"आतां हांव सांगता तें आयकता?"

"सांग, आयजमेरेन तेंच करीत आयलां. केन्ना एका उतराच्या भायर गेलां?" आतां म्हाका शिल्पाचो राग आयिल्लो, श्रीकांताचो राग आयिल्लो. आनी म्हजो म्हाकाच राग आयिल्लो.

"आत्तां च्यारीगेर वचून यो आनी सांग, परत बी पैशे मागूंक आयल्यार दिवूं नाका." हांव तसोच उठलो आनी शेजरा च्यारीगेर गेलो. हांवें दारावयली बेल वाजयली.

"यो यो." तांणी हांसून म्हाका येवकार दिलो. हांव येतलोच हें घडये तांका खबर आसूं येता. हांव सोफार बसलो. उतरांची जुळवा जुळव करपाक लागलो. कितें उलोवचें तें कांयच कळना जाले.

"उलय." ताणें म्हळें, तरीय हांव ओगीच

"कांय ना. श्रीकांत तुमगेर येवन गेलो खंय?"

"हय."

"हरशींच, काय कितें काम आशिल्लें?"

"कोणाचें?"

"श्रीकांताचें?"

"काम आशिल्लेंच पूण म्हजें ताचेकडेन"

"कसलें काम आशिल्लें हें विचारल्यार तुमकां राग येवचो ना न्ही?"

"सांगता न्ही, तातूंत राग कसलो? म्हाका ताका पैशे दिवपाक जाय आशिल्ले."

"कितले?"

'दोन हजार रुपया."

"म्हाका विचारपाचें आशिल्लें कि ताणे उसणें बी पैशे मागलें काय म्हूण? ो तुकां आमचो शेजारी म्हूण वळखता न्ही?"

म्हज्या मनांतले भाव म्हज्या तोंडाचेर उदेले ते ताणें पारखिले. तो हांसून हका म्हणपाक लागलो,

"खरें सांगू? श्रीकांत म्हजेकडेन पैशे मागपाक आयिल्लो, हांवें ताका ते देले. तूं म्हणटलो, हांवे ते कित्याक दिले? तसो श्रीकांत म्हाका अनवळखी न्ही. आमच्या बँकेचे कुशीक तो केन्नाय आत्र्या-पयऱ्यान कोणाचोय टी.व्ही. सारको रपाक येता. म्हजोय टी.व्ही. ताणे एकदा सारको केला. पूण एक पैसो घेतलो ना. कित्याक तर तागेल्या दादाचो म्हळयार तुमचो शेजारी म्हूण. एकदां वाटेंत म्हजी गाडी बंद पडली. तुमच्या भावान म्हजी गाडी धुकलून गॅरेजींत व्हेली. थंय बसून काम करून घेतलें, दादाचो शेजारी म्हूण."

"पूण हांवे ताका पैशे दिले ते तो तुजो भाव म्हूण न्ही तर एक प्रामाणिक मनीस म्हूण." हांव आयकत उल्लों तो मेकळेपणान उलयतालो.

" तुमकां वेळ आसा?" ताणे विचारलें. हांवे मोन्यानीं तकली हालयली.

"भितर यो." हांव ताच्याफाटल्यान गेलो. भितर कुडींत एक फोटो आशिल्लो. ताका हार घाल्लो.

" ही म्हजी आवय." ताणें फोटोकडेन बोट दाखयत सांगल,

"हिणें कांय वर्सांपयलीं म्हजेकडेन एक बारीकशी वस्त मागिल्ली, कसली जाणा? आपल्याक जात्रेक न्हेसपाक एक बरेंशे कापड. पूण हांव हाडूंक शकलो ना. पैशे ना म्हूण न्ही जाल्यार बायलेचें आयकिल्ल्यान. तिचें घरांत कापड आशिल्लें, तेंच दी म्हणपाक लागली. म्हाकाय दिसलें, कापड मागलां जाल्यार कापड दिवचें, पूण सुनेचें दिल्लें पोरनें कापड ती न्हेसलीना. आपल्या पोरन्या कापडाचेर जात्रा केली. हे गजालीक पंदरा-सोळा वर्सां जाली पूण ही गजाल हांव एक्कूय दीस विसरूंक शकना. बरो शिकलों, पैशे मेळयले म्हूण मनीस जायना. दादल्यांनी आपलें दादलेंपण राखपाक जाय. हें दादलेंपण तरी कसलें? हें तर आमचे कर्तव्य!

आयुश्यांत म्हजें आवयक एक पातळ हाडूंक शकलो ना. असलो दळिद्री मनीस हांव!"

उलोवपाच्या ओगांत च्यारी खूब उलयलो. घरांत ताची बायल नाशिल्ली. म्हाका दिसले, घडये बायल आसल्यारूय तिचेमुखार तो उलयतलो आशिल्लो. हांवेंय नकळत ताका खूब गजाली सांगल्यो. घरा आयलो तेन्ना सारकीं ताची उतरां म्हज्या कानांत घोळत आशिल्लीं... आपल्याच नात्याची मनशां ती. अशें बडयेन उदक पैस सारले म्हूण तें पैस जाता?...

दुसऱ्या दिसा ऑफिसाक वतना हांवे शिल्पाक सांगलें,

"आयज म्हाका येवपाक उशीर जातलो. ऑफिसांत मिटींग आसा." आनी गडबडीन ऑफिसांत गेलों. थोड्योश्यो सुचोवण्यो दिवन हांव भायर सरलो. आयज मुद्दाम ऑफिसाची गाडी हांवें घेतलीना. म्हजी गाडी घेतली. तसोच थेट म्हज्या घरा गेलो. भायर गाडयेचो हॉर्नूय वाजयलो ना. दार उगडून भितर गेलो. "आईऽऽ" अशीं उतरां काळजांतल्यान भायर आयलीं. हांव आनी घरा? मीना म्हाका पळयत उरलें. मीना धांवत वचून आईक सांगले. आई नुस्ते उजरायताली. त्याच हातान आपल्या पोराक पळोवपाक भायर आयली.

"दादा, तूं आयलो? कसो आसा पुता?"

"तूं येवूना न्ही म्हूण हांव आयलें." हांवें हांसून म्हळें. मीनान बेगीन बेगीन एक बरें कदेल पुसून म्हजे मुखार दवरलें. बारा वर्सां पयलीं हांवें घर सोडिल्लें. तेन्ना आशिल्लें ते आयजमेरेन तशेंच आसा. सगळीं घरांत आशिल्लीं. म्हाका खूब बरें दिसतालें. कितल्यातरी दिसांनी हांव म्हज्या घरांत आयिल्लो. आई एक अजापीत गजाल कशी म्हजेकडेन पळयत आशिल्ली. घडये म्हजी आकृती दोळयांत सांठोवन दवरताली. पूण दोळे सामके दुकांनी भरून आयिल्ले. तितल्यान मीना म्हाका च्या घेवन आयलें.

"आगो, ताका बेश्टो च्या केन्ना आवडना. पळय, त्या करंडात लाडवाची गुळी आसतली. ती घेवन यो."

" ना आई, लाडवाच्या गुळयेन जांवचेना. आयज हांव तुजें हातचें जेवपाक आयलां. कितलीं वर्सां जालीं तुजें हातचें शीत-हुमण जेवल्यार."

"जेव रे पूता, आयज बरें नुस्ते आसा."

“खंय नुस्ते आसा? तू उजरायता थंयची दादा म्हऱ्यांत धांवत आयली ो, फाटल्यान सगळें माजरांनी खालें.” आनी सगळीं खळखळून हांसपाक लागलीं. वूंय तांचेमदीं सामील जालो.

“कांय नजो, हांव परत वचून हाडटा. तिठो कितें पयस ना.”

“आई, हे घे.”

“कितें तें?”

“पैशे. धा हजार आसात.”

“आरे, इतले कित्याक? दोन हजार पुरो.”

“ना. दवर” हांवे तिचे हात घट्ट धरले. आनी श्रीकांताक उलो माल्लो.

“श्रीकांत, श्रीकांत असो लागीं यो. हें पळय, तुकां कसलीय अडचण ासल्यार ऑफिसांत यो, घरां येवूं नाका. हो म्हजो फोन नंबर.”

त्या दिसा पुराय घरभर भोंवत रावलों. आईच्या हातचें पोटभर जेवलों. ाई सगळें खोशयेन पळयताली. वचपाक भायर सरलो तशीं तिगांय भायर स्त्यार पावोवपाक आयलीं.

“आई, ही म्हजी गाडी.” आईन म्हाका अपुर्बायेन हात लावचो तसो म्हजे ाडयेचेर हात भोंवडायलो. कमरेची बिबूत गाडयेंत दवरली.

“आई दुसऱ्या फावटी येतना आमी सगळीं देवाक वचून येवूंया.”

“आई, मीनाचें लग्न केन्ना करता? तूं फक्त थरय, बाकी सगळें हांव पळयतां. म्हयन्यातल्यान एक फावट तरी येवपाचो यत्न करता आं.”

थंयच्यान हांव थेट घरा आयलो. घरां येना बरोबर शिल्पान विचारलें,

“मिटींग सोपलीं?”

“हय, सोंपलीं.”

“मिटिंगेक कितें जालें?”

“म्हाका जाय तेंच जालें.”

“म्हळयार कितें?”

“तुका तें कळपाचें ना, ह्या जल्मांत तरी कळपाचें ना.”

“कितें?”

“कांय ना.”

“आरे, तुकां कितें जाला?”

“म्हाका तुजें जेवण बी कांय एक नाकां. हांव आयज मुडांत आसा. म्हाका डिस्टर्ब करू नाकां” आनी हांव म्हजें आवडीचें पुस्तक घेवन आड पडलो.

“आरे पूण...”

“प्लीज. आतां तुजी बडबड बंद कर आं.”

❑❑❑

# १०. स्वीकार

म्हज्या जिविंतातले पयलेच नोकरेक रूजू जावपाखातीर हांव रेल्वेंतल्यान प्रवासाक वचपाक भायर सल्लें. म्हजी पिराय फक्त पंचवीस वर्सांची. स्टेशनावयल्यान ट्रेन सुट्टना एक तरतरीत तोडाचो देखणो तरणाटो डब्यांत भितर सरलो आनी म्हज्या शेजरा येवन बसलो. म्हाका ही घडणूक एकाद्या कथा-कादंबरीतल्या वा एकाद्या सिनेमांतल्या सीनासारकी दिसली.

म्हजी जीण म्हळयार खंयची कथाय नाशिल्ली आनी कादंबरीय नाशिल्ली. म्हज्या सारक्या पंचवीस वर्सां पिरायेच्या तरणाटे चलयेक एखाद्रो देखणो चलो अकस्मात मेळ्ळो तरीय म्हजी गजाल थंयच सोंपतली आशिल्ली. त्या मुखार कांयच घडचें नाशिल्लें. कित्याक तर हांव मुळांतूच खूब मोटें आशिल्लें म्हळयार लठ्ठच.

हांव खंय जातनाच इतलें मोटें जाल्ले की राक्षसीण म्हुणून म्हाका मारपाक कांय बायलां मुखार सरल्ली. तोंड, पांय, हात, पोट, जांगडां, सामकी दोन वर्साच्या भुरग्यावरीच. म्हज्या जल्मा उपरांत आवय दोन-तीन दीस बेसुध्द आशिल्ली. हांव पोटांत आसतना तिणें ताक - दुद बरेंच खाल्लें. कारण घरांत म्हशी आशिल्ल्यो. तांतूंत हांव बरेंच पोसवले तें हो वेळमेरेन तशेंच उरलें. म्हजी उंची पांच फूट आनी वजन मात पंच्यायंशी किलो. म्हज्यासारक्या लठ्ठ चलयेच्या मोगान पडप कोणाकूच शक्य नाशिल्लें. कारण हांव लठ्ठ दिसतकूच तांका हांव मठ्ठ आसा काय कितें असो घडये दुबाव येवंये.

ल्हानपणापासून हांव म्हज्या वजनाकडेन झगडत आयलां. सदांकाळ खाण-जेवणाचेर नियंत्रण दवरीत जगलां. म्हजी आवय आनी भावंडा ज्युस्त फावो तशी आशिल्ली. कांय दीस उपाशी रावनूय पळयलें पूण कांयच उपेग जालो ना. मातशे सुकिल्ल्यावरी जालें खरें पूण मागीर मातशे चड खाले म्हूण दुपेटीन वाडलें. एक-दोन फावट हो म्हजो अणभव. म्हूण ही मुंबयची नोकरी हांवे करपाची थारायली. म्हज्या जिणेंत कितेंतरी बदल घडटलो ह्या हावेसान हांवे ही नोकरी पत्करली. आमच्याच गावांत पाळणाघर सांबाळपी एके बायलेकडेन हांव भुरगी सांबाळपाचें

काम कांय म्हयने करतालें. तिच्याचखातीर म्हाका ही नोकरी मेळ्ळी. तिचो एक पयसुल्लो विधुर सोयरो आशिल्लो. तो केन्नाय सुटयेंत गोयांत येतालो. ताका तीन भुरगीं आशिल्ली. तांच्यासयत रांदचेकुडीसकट घरांत पडटा तें काम करप अशें हें नोकरेचें स्वरूप आशिल्लें, म्हळयार हावसकीपर. खावन-जेवन मनासारको पगारूय आशिल्लो.

नाय म्हळयार घरांत खूब अडचण जाताली. म्हजो बापूय म्हज्या ल्हानपणातूंच गेल्लो. सगळो भावाचोच आदार, ताचो वेवसाय शिंप्याचो. तांतूत आमी वाडिल्ल्यो चलयो. व्हडलें नयन, तें फॅक्टरींत कामांक वतालें. म्हजी ही नोकरी म्हळयार थंयचे खावपी एक तोंड उणें जालें. अशें सात-पांच येवजून हांव आयज मुंबय वचपाक भायर सरिल्लें. म्हजो घरमालक कसो आसतलो, हाचें एकेक चित्र हांव पितारतालें. तो बरोच लांब आसतलो? देखणो आसतलो? तीन भुरग्यांचो बापूय म्हणटकच आसतलो पन्नाशेक वर्सां पिरायेचो. म्हजे घरकाम, निवळसाण तशेंच भुरग्यांक लायिल्ली माया, हें सगळें पळोवन तो खूश जातलो आनी म्हज्या मोगांत पडून म्हाका लग्नाची मागणी घालतलो. अशें कितेंतरी सपन आशिल्लें. तीन भुरग्यांचो बापूय लेगीत म्हाका चलतालो!

मनांत हे सपन पळयता आसतनाच गाडी मुंबय स्टेशनाचेर रावली. म्हजें सामान घेवन हांव अंधेरी स्टेशनाचेर देवलें. स्टेशनार सामान दवरून, हांव सादारण तीन भुरग्यांचो बापूय सोबता अशा मनशाक सोदूंक लागलें. इतल्यान फाटल्यातल्यान एक आवाज आयलो,

"तुमीच मीस शोभना?" हांवे फाटल्यान पळयलें आनी खिणांतूच म्हज्या सपनाचो चुरो जालो. म्हज्यामुखार उबो आशिल्लो दादलो असो-तसो चाळीशी भितरलो आशिल्लो. म्हजें कल्पनेपरस चड उंचाय, सुंदर नकसूद बांदो अशा देखण्या दादल्याक पळयतकच हांव खूब निर्शेलें आनी म्हत्वाचें म्हळयार ताच्याय तोंडार हास्य नाशिल्लें.

म्हजो मालक मिस्टर देव हाकाय म्हाका पळोवन बरीच निर्शेणी आयल्या आसतली. 'हें येदो व्हडलो देह सांबाळटले कांय म्हज्या भुरग्यांची सेवा करतलें?' असोय विचार ताच्या मनांत आयलो आसूं येता. तरी ताणें तशें तोंडाचेर दाखयलें ना. म्हजें सामान उकलून तांणी आपलें गाडेयकडेन व्हेलें. हांव तांच्या फाटल्यान गेले.

"कितेंय खातली जाल्यार ह्या हॉटेलांत खांवयां. घरा पावसर अर्दवर तरी
ातलें. " मिस्टर देवान सांगले.

"ना. तशी भूक ना. घरा वतकच पळोवया." अशें म्हणत हांव गाडयेंत
बसलें.

गाडयेंत ताणीं म्हाका आपल्या कुटुंबाविशी थोड्या भितर सांगलें.

तांचो सगळयांत ल्हान चलो सोहन, तीन वर्सांचो आसा. एका जाग्यार
ांच मिनिटां रावना. त्यामानान मदलो रोहन बरो, शाणो आनी समंजस आसा.
ताची पिराय आठ वर्सां. ताका भायर भोवपाक खूब आवडटा. सामको लाघोळो
पोर. व्हडलें चली बारा वर्सांचे, स्वीटी. देवान दिल्लें कांयच उणें ना पूण पोरांक
वेवस्थित करून घालपाक कोण ना. मिस्टर देव आदले गोयचेच. भुरगेपणांसावन
मुंबयत स्थायिक जाल्लो. गोयांविशी तांका खास आपलेंपण, तेखातीर लग्न जावपाक
तांणी गोंयचीच चली वेंचून काडली. तिचे बरोबर बारा वर्सां संवसार केलो. पोरू
वर्सां, एका मार्गावयल्या अपघातान तिका मर्ण आयलें.

मिस्टर देवाचो आवाज भरिल्लेभशेन जालो. कांय वेळान मागीर तांणीच
विशय मुखार व्हेलो,

"म्हज्या भुरग्यांक अन्नापरस मोयेची गरज चड. वीणान तांचें सगळयांचे
खूब लाड केल्यात. ताका भुरग्यांची खूब लत्तुबाय आशिल्ली." परत तो आपल्या
भुरग्यांच्यो तोखणायो सांगपाक लागलो. तांच्या उलोवण्याकडेन हांवे चड लक्ष
दिलेंना. कित्याक, तर हांवे येवजिलें, घरा वतकच सगळया भुरग्यांची वेवस्थित
वळख जातलीच. त्या घरांत म्हाका घरमालकीण जावन रावपाक थोडेंच मेळटलें!
एक काम करपी चलीमनीस हिच म्हजी सुवात.

गाडी एका व्हडल्या आलिशान बंगल्यामुखार थांबली. पळयतनाच तांचो
बंगलो म्हाका खूब आवडलो. बंगल्या मुखार गार्डनूय आशिल्ले तें मन भुलायणे.
मि. देव कितें करतात तें म्हाका सारके खबर नाशिल्लें. पूण कामांखातीर खुबदां
ताका भायर वचचें पडटालें. त्याखातीर भुरग्या म्हऱ्यांत रावपाक तांका एक
मनीस जाय आशिल्लो. एकुण कितें, त्या घरांत म्हाका घरमालकाचो सांगात चड
मेळचो नाशिल्लो. गाडी बंगल्यामुखार थांबतकच तांची तिनूय भुरगीं आनी तांचो
वागाभशेन मातिल्लो सुणो गेटीकडेन धांवत आयलीं. तो सुणो खुबूच सुंदर आनी

रूबाबदार दिसलो. ताचें नांवूय ताका सोबसारके आशिल्लें, टायगर "आवयस कितलो सुंदर सुणो..." म्हजी हीं उतरां आयकतकीच भुरग्यांची मुखामळां फुल्लीं.

जावं, सुरवात तरी बरी जाली. तो सुणो सगळयांचोच अपुर्बायेचो जाल्ल्यान ताची केल्ली तोखणाय सगळयांकूच मानवली. टायगरान भुरग्यांनी जें कितें ताका शिकयिल्लें तें सगळें एका दमान म्हज्यामुखार करून दाखयलें. ताका लागून सगळयांची वळख आपशींच हांसत-खेळत जाली.

उपरांत त्या भुरग्यांनी म्हाका म्हजी कूड दाखयली. दोनुय बॅगांतले म्हजें सगळें सामान भायर काडून कपाटांत लावपाक टायगर सोडून सगळयांनी म्हाका मदत केली. म्हजे सामान वेवस्थित लावन सगळी पलटन माळयेवयल्यान सकयल देंवली.

"चलात, दनपारचीं साडे-बारा जालीं. आयज खंयच्या हॉटेलांतलें जेंवण हाडपाचें हें तुमी सांगलेना." मि. देवान भुरग्यांक उद्देशून म्हळें.

"हॉटेलांतल्यान कित्याक हाडटा? हांव करतां रोखडें." हांवे वेळ लायनासतना सांगले.

"आयज प्रवासांतल्यान आयल्या. आतां मात्सो विसव घे. सांजे मागीर कितेंय कर."

"ना. ना. घरांत कितेंय आसा जाल्यार हांव रोखडेंच करतां."

भुरगीं म्हाका रांदचेकुडींत घेवन गेलीं. फ्रिजांत तांतयां, टॉमाट, फ्लॉवर, गाजर खूब आशिल्लें. लोणीय खूब आशिल्लें. हांवें सडसडीत भाजी चिरून घेतली आनी अर्द-वरा भितर व्हेज-पुलाव आनी तांतयांच्यो ऑम्लेटी काडल्यो. मागीर सगळया भुरग्यांबरोबर मि. देवूय पोटभर जेवलो. सारके म्हज्या मुखार व्हडलें चली स्वीटी बशिल्लें. ताचेकडेन बारीकसाणेन पळयतकीच म्हज्या लक्षांत आयलें, हेर भुरग्यांच्या मानान स्वीटी सामकें संथपणान आनी हिसपाभायर चड जेवता. बाकीची भावंडा जेवतना ताच्या मोट्यापणाच्यो भगल्यो मारताली. तें पळोवन म्हजो जीव कळवळपाक लागलो. ती फकाणां करतना तें मात तांचेकडेन लक्ष दिना आशिल्लें. तें सुशेगाद ओग्गी रावन जेवित रावताले. ताचे जेंवण खरेंच भरपूर म्हणपाइतले आशिल्लें. मि. देवाच्या कपलाचेर दोनदां आंटयो पडिल्ल्यो म्हाका दिसल्यो. पूण तें चड जेवता म्हूण एका उतरानूय ते ताका उलयलेना. सगळीं जेवन उठलीं तरीय

ीटीचें जेवण जावंक नाशिल्लें. उरिल्लो सगळो पुलाव, ताचेर बरें इतलें लोर्ण
ालून ताणे तो सगळो एकल्यानूच सोंपयलो.

सद्दां सकाळी उठून तीन भुरग्यांचे वयल्यान टायगराचेंय सगळें करप आर्न
दें व्हडलें घर नितळ दवरप म्हळयार म्हाका खुबूच जाताले पूण हांवेच पत्करिल्लें
ाम मुखार व्हरपाचो म्हजो नित्शेव कायम आशिल्लो. आयदनां घांसपाक आर्न
ादी पुसपाक गडी येतालो. कपडे हांव मशीनांत धुतालें. माळी आशिल्ल्यान वय
कल परत-परत वचचे पडटालें. गोंयांत आमच्या घरा हांव केन्ना एक सपणू
डून देवूंन नकळो आशिल्ले.

पूण हांगा मात म्हाका बरेच त्रास जाताले. दिसाक धा फावटीं माळयेर च
ानी सकल देंव. आवयचो तर सोडूच पूण बापायचो लेगीत सारको सहवार
ाबूं नाशिल्ली ती तिनूय भुरगीं म्हाका खूब आवडली. मि. देवाचो सभाव साद
आनी तें खूब समंजसूय आशिल्ले. म्हज्या हातांत घराचीं सगळीं सुत्रां सोपोवपार्च
ांची तयारी आशिल्ली. काम चड पडटालें खरें पूण आव्हान घेवपाचे थारायल्लें
जिणेंत कितेतरी वेगळें करून दाखोवचें अशें म्हाका दिसतालें. एदें व्हडलें घर हां
सांबाळूंक शकता, तें लेगीत वेवस्थितपणान... हें म्हाका शाबित करपाचें आशिल्लें
हांव जीवान मोटें आसलें तरी निरूपेगी ना अशें सगळयांनी म्हाका म्हणपाक जा
आशिल्लें. त्याच हावेसाच्या बळार हांव हें काम करतालें.

आमी गरिब मनशां, कश्ट करपी लोक. घरालेगीत काम करपाची म्हाक
संवय आशिल्ली. पूण आमी दोगां भयणी आनी आई अशी तिगा जाणां आशिल्ल्या
घरकाम वांटून वतालें. नयन सकाळचें फॅक्टरींत वचपी म्हणटकीर सकाळींच
जेवणाची तयारी जाताली. हांव घरांत सान्न मारता म्हणसर नयन सगळें भायल
करतालें. उदक भरताले. कपडें उमळटालें आई रान्नाकडलें पळयताली. सकाळ
धा वरांमेरेन सगळीं कामां जाताली. सबंद सांजवेळां म्हजे पोरसांत हांगा थं
हेडपाचें काम. पूण हांगा म्हाका पांच मिनटांय फावो नाशिल्लें. इतल्या कामार्च
म्हाका खऱ्यांनीच संवय नाशिल्ली. सगळें घर निवळ दवरप. बंगल्यांत पांच कुर्ड
वेल्यान कोणूय आयल्यार तांची वेगळी कूड. भुरग्यांचें कुडींत तर दोन-दोनद
सान्न मारची पडटाली. तशेंच सगळयांखातीर दनपारचे तशें रातचें वेगळें जेवण
रांदप. मदीं सांजवेळचे कितेंय हलकें खाण करून दिवप आनी टायगराखाती
वेगळे मांस शिजोवप.

भुरग्यांच्या कपड्यांक, यूनीफोर्माक इस्त्री करप. सकाळचीं भुरगीं शाळेंत गेलीं म्हणटकीच हांवे घराचें निवळसाणेक लागप. पूण धाकलो रोहन दनपरां शाळेंत वतालो. म्हूण जेवण बेगीन करचें पडटालें. ताका वाडून, भायर सरून, ताका ताचें शाळेचे बसींत बसोवन घरांत भितर सरतासर तीं दोगांय येतालीं. ताचें जेवण - खाण करतासर आनी सगळे जाग्यार उडयतासर सांजवेळचीं चार जातालीं. परत च्याचो आत्त. धाकल्याक शाळेंतल्यान येतकच गार्डनांत एक पासय आनी परत रातच्या जेवणाची तयारी. इतले म्हणसर रात जाताली आनी हांथरूणाचेर फाट तेंकताच म्हाका सूस्त न्हीद लागताली. विचार करपाक, स्वतःच्या आयुश्याबद्दल चिंतपाक, बरें वायट दिसून घेवपाक बेळूच मेळनाशिल्लो.

मि. देव चड करून भायरूच आसताले घरा आसल्यारूय तांचे कुडींत ते काम करीत आसताले. जेवतना वा जेवल्या उपरान्त ते टी.व्ही. पळयताले. सगळया भुरग्यांची तें माये मोगान चवकशी करतालें. भुरग्यांचेर ताचें उपाट प्रेम आशिल्लें. तांचो एकूण जीणेक्रम पळयतकच मनांतल्यान म्हाका तांची काकुळट दिसताली. इतलीं हाडांची काडां करून हो संवसार तांणी उबो केल्लो. तीन भुरग्यांचो सांबाळ! शिक्षणाचें बाबतींत तर ते खासा लक्ष दिताले. तांची बायल आशिल्ली जाल्यार तिच्या सांगातान मातशे रमतलें तरी आशिल्ले. भुरग्यांचीय तांचेर तितली जापसालदारकी पडची नाशिल्ली. पूण फक्त भुरग्यांखातीर तांणी असली रूक्ष जीण आपणायिल्ली.

त्या घरांत थोडे दीस सारल्या उपरांत हांव सगळयांकूच बरेभशेन वळखुपाक लागलें. ल्हवू ल्हवू म्हज्या लक्षांत आयलें, घरांत सगळयांपरस स्वीटी सामकें वेगळें भुरगें. शाळेंत वेवस्थित वतालें, अभ्यासूय करताले. बाकीचो सगळो वेळ खाण, टी.व्ही. पळोवप वा हांथरूणाचेर लोळत पडप. बाकीचीं दोगांय घरांत वा भायर खेळटालीं. टायगराक घेवन पासयेक वतालीं. आठ वार्सांचो रोहन कितलो ॲक्टीव्ह आनी हुशार. सांजचे म्हाका चड काम आसल्यार झाडांक उदक लेगीत घालतालो. मेजार ताटां दवरप, पेले काडप हीं कामां आपूण जावन करतालो. पूण स्वीटी एकदां शाळेंतल्यान येतकर खंयच वचपाक तयार नासतालें. ना खेळ ना इश्ट-इश्टिणी ना कसली आवड. उबगण येतगेर भूक नासून लेगीत कितें ना कितें चाबडायत रावताले, वेळ वचपाक लागून.

स्वीटीची म्हाका खूब काकुळट दिसताली, ताची ती अवस्था पळोवन म्हज्या काळजाचें उदक जातालें. अशेंच रितीन जर तें जगत रावलें जाल्यार तरणेपणांत

ं म्हजेसारकें लड्ड जातलें, हातूंत दुबाव नाशिल्लो. मोग वा लग्न ह्या गजालींपासून गळें रावन फक्त जगपाक जाय म्हूण जगप ह्या जगपाक अर्थ ना अशे म्हाका देसतालें. म्हज्या जिवितांत हांव कसलोच बदल करूंक शकनाशिल्लें पूण स्वीटीची तीण फुकट वचपाक दिवंक जायना अशे म्हाका दिसतालें. ताचेखातीर कितेय करपाक म्हाका इतल्या कामांतल्यान ताचेखातीर वेळ काडचो पडलो. त्याखातीर म्हज्या सगळया कामांक शिस्त लावप चड गरजेचें आशिल्लें.

स्वीटी आनी सोहन शाळेंतल्यान आयल्याबरोबर पयलीं खूब खावन घेतालीं. उपरांत एक वराभरयांन जेवताली. ही तांची संवयूच जाल्ली. कित्याक तर दनपारचें जेवण भायरसावन हाडटा म्हणसर कळाव जातालो. तोमेरेन भुकेच्या पोटार मेळटा तें खावप जातालें. अशें दोन-दोनदां खावचें परस शाळेंतल्यान आयल्याबरोबर थंड सरबत पिवप आनी मागीर रोखडेंच जेवप असो नवो परिपाठ हांवे सुरू केलो. मि. देवान हें बाबतींत कसलीच कुरकूर केली ना. वयल्यान म्हळें जेवण बेगीन जाल्यार टी.व्ही पळोवपाक नाजाल्यार अभ्यास करपाक वेळ बरो मेळटलो." नाय जाल्यार जेवणां जातासर तीन-साडेतीन वरां जातालीं. आतां देडमेरेन जेंवणाचो आक्त सोंपतालो. आनी हेचखातीर स्वीटीचें एका वेळचें खाण आपशींच बंद जालें. तशेंच जेवल्या उपरान्त मेजावयलीं आयदनां काडपाचें, मेज पुसपाचें व्हाजांत फुलां हाडून घालपाचें, पेपर जाग्यार दवरपाचे असलीं कामां हांवें ताचेर सोपयली. हे गजालीक मि. देव आडायतलो काय दिशिल्लें म्हाका पूण वयल्यान तांणीच म्हळें,"घरांतल्या कामांक सगळयांनी हातभार लावुकूच जाय. शोभाक पळय कितलें काम पडटा तें. तशेंच सदांच जर तुवें ह्या कामाची जबाबदारी घेतली जाल्यार दर म्हयन्यांक हांव तुकां एक नवीं वस्त हाडटलों."

म्हजेबरोबर काम करतना तें आपशींच बारीक जावपाक लागलें. हांव ताच्या मोटेपणाची फकाणां करी नाशिल्लें. खाणा जेवणाचेर पाळो दवरिनासलें. हांव ताची मोगान चवकशी करतालें. गरज पडल्यार ताचें केस वळयतालें. माथ्यार न्हावपाचें जाल्यार केंस धुतालें. ताका अजून न्हाण येवंक ना म्हूण एकदां ताका दोतोरागेर घेवन गेलें. न्हाण म्हळयार कितें तें हांवें ताका समजावन सांगले. हें सगळें पळोवन म्हजेर ताचो विस्वास बसलो. अशें कांय दीस गेल्या उपरांत, रांदचे कुडींत काम करता आसतना हरशीच हांवे स्वीटीक विचारलें,

"घरांत रावन रावन मगो म्हाका उबगण आयल्या. खंय भायर पासयेक वतलें म्हळयार म्हाका हांगचें कांयच खबर ना. तुकां सगळें खबर आसा न्ही?

आमी सदांच सांजची पासयेक या आं." हे आयकतकीच ताच्या तोंडार हांसो फुल्लो. आनी म्हज्या लक्षांत आयलें, ताका भायर भोवपाची आवड आसा पूण तें मोटें आशिल्ल्यान ताचेबरोबर दोगांय भावंडा पासयेक वचनाशिल्लीं कित्याक तर तांका लज दिसताली. स्वीटीन उमेदीन म्हळें,

"हय, आमी दोगांयनी पासयेक वचप." त्याच दिसा सांची आमी दोगांय पासयेक गेली. तशें म्हाका मुंबय नवें पूण स्वीटीय उमेदीन भायर सल्लें, हाचीच म्हाका चड तोखणाय दिसली.

दुसऱ्या दिसा स्वीटीन म्हाका "आपल्या शाळेच्या मळार या" अशेंय सांगले. त्या दिसा आमी दोगांय एकामेकांकडेन उलयत सवकास, मजेन भोंवली. थंयच एक ल्हानशें गार्डन आशिल्लें. म्हाका तें खूब मानवलें. थंय कांय वेळ बसून विसव घेवन आमी दोगांय परतलीं. हें सगळें जातासर एक वर लागलें. घरा आसल्यार स्वीटी एक तर लोळत पडटलें आशिल्लें नाजाल्यार कितेंतरी चाबडायत रावतलें आशिल्लें. पासयेक सावन परतले बरोबर न्हावन, थोडो अभ्यास करून, जेवन तें न्हिदूंक गेलें.

मागीर सद्दां रातचें जेवण जाल्या उपरांत ताचेबरोबर पासयेक वचपाचो क्रम सुरू केलो. कित्याक तर सांजवेळां वचप शक्य नाशिल्ले. सगळें जाग्यार पडटासर सांजवेळची स जातली. तोमेरेन रोहन घरां पावतालो. ताका दूद दिता म्हणसर रातच्या जेवणाचो वेळ जातालो. हालीसरां साजवेळां खाणां करपाचें भानगडींत पडनाशिल्लें नाजाल्यार पयलीं केन्नाय फोव, केन्ना उपीट, केन्ना गोड शिरो, केन्नाय भेळ अशें करतालें. त्याखातीर जेवण म्हाका बेगीनूच करचे पडटालें. आतां फक्त आयताराकूच तो बेत करतालें. सांजवेळां कितेंय सूकें खाण दितालें. ताका लागून रातचीं जेवणांय बेगीन जातालीं. आनी आमकां पासयेक वचपाक वेळ मेळटालो.

आतां म्हजेपरस स्वीटीच पासयेक वचपाक चड उमेद दाखयतालें. पासयेक वचपाच्यो नव्यो-नव्यो सुवातो तें म्हाका दाखयतालें. केन्ना केन्नाय वाटेंत शेजारचे लोक आमकां मेळटाले. म्हज्योय भायर थोड्यो वळखी जाल्ल्यो. केन्नाय गरजेक कितेंय जाय पडलें जाल्यार हांवूच वचून सगळें हाडपाक लागलें. केन्नाय शेजाऱ्यांगेर दोन मिनटां तकली भितर घालून पळोवपाक लागलें. केन्ना केन्नाय टायगर आमच्याबरोबर आसतालो. केन्ना केन्नाय आमी सगळीं पासयेक वचपाक लागली, जाल्यार मि. देवूय आमचेबरोबर भायर सरताले. ते आयले जाल्यार केन्नाय आयस्क्रीम

ातर कुल्फी ताळयार पडटाली. पासयेक वचप म्हळयार एक समारंभ कसो ावपाक लागलो. रातच्या जेवणाकडेन सगळींच ताकतीक करपाक लागली. जेवण ागीन जांवचे म्हूण सगळीं भुरगीं मदत करपाक लागली. कोण कांदो चिरून देतालो, कोण मेज मांडटालो, कोण उदक व्हरून दवरतालो. मागीर केन्नाय ासयेच्या निमतान आमी सगळीं लागींच्या थेअटरांत वा हेर कसल्याय कार्यावळींक ाचपाक लागलीं.

अशेंच दोन-चार म्हयने गेले. ह्या कामाची आतां म्हाका सवंय जाली. एक ीस सकाळीं नाईट ड्रेस काडून एक पोन्नो ड्रेस आंगार चडयतना म्हज्या लक्षांत आयलें, तो म्हाका बरोच सदळ जाता. हरशीच म्हूण बाथरूमांत आशिल्ल्या वजनाच्या काट्यार चडलें आनी म्हाका सणसणीत शॉक बसलो. सामके अजापित जालें हांव. म्हजें वजन पांच किलो परस चड देविल्लें. अर्थांत म्हज्यासारक्या प्रचंड आंगाच्या वजनांतल्यान फक्त पांच किलो वजन उणें जाले, तरी ती गजाल चड करून कोणांच्या लक्षांत येवपाची न्ही हेंवूय तितलेंच खरें.

म्हाका आतां उमजलें, दिसभर म्हाका मात्तूय उसरपत ना. म्हजे जेवणूय मातशें उणे जाल्लें. चड जेवलें जाल्यार सुस्ती येता आनी कामांय बेगीबेगीन जायना. तसोच पासयेचोय उपेग बरो जाल्लो. बंगल्याची माळी म्हाका आपसूक व्यायाम घडयताली. दिसांतल्यान पंदरा वीस फावटी तरी वयर-सकल जातालेंच. अशेंच एक दीस पासयेक वतना स्वीटीन म्हाका म्हळें,

"एक गजाल तुकां सांगल्यार तूं म्हाका हांसचें ना न्ही?

"कित्याक हांसतलें, सांग न्ही?"

"म्हजे तीन किलो वजन उणें जालां."

हें आयकून हांव ताचेकडेन पळयत उल्लें.

"हो ड्रेस पळयलो, म्हाका कितलो सदळ जाता. पयलीं कितलो घट बसतालो." आनी भर रस्त्यार आमीं दोगांय हांसत रावलीं.

"हांव डायट करूंक सोदतां, म्हाका तुजी मजत जाय."

"बरें भशेन. आमी दोगांय यत्न करूंया."

"हय. पूण इतले बेगीन घरांत कोणांक सांगप ना. म्हाका जमलें ना

जाल्यार सगळीं म्हजीं फकणां मारतली." हांवें ताका गुपित राखपाचे उतर दिलें.

रातची सगळीं भुरगी न्हिदतकच हांवें मि. देवाक म्हळें,

"म्हाका मातशें तुमचेकडेन उलोवपाचें आसा." म्हजे काम जातकच दोगांयखातीर कॉफी करून एक कप ताका दित म्हळें, "मि. देव तुमी दर म्हयन्यांत बाजारांतल्यान जें सामान हाडटात, तातूंत ह्या म्हयन्यासाकून मातसो बदल करूंया. तुमी केक, चीज, कॅडबरी, मस्को हें जें कितें हाडटा त्या जाग्यार भुरग्यांक फळां आनी भाज्यो चड हाडात. कित्याक तर हें चीज, बटर, केक स्वीटी चड खाता. आतां ते डायट करूंक सोदता. जमले जाल्यार ताच्याबरोबर हांवूंय करतले. ह्या दोन म्हयन्यांत ताचे तीन किलो वजन देवलां. आनी आठवड्यांत चीकन, मटण फक्त एकदांच पुरो. चडशें शिवराक करूंयां. कमी कॅलरीज आशिल्लें जिनस हांव म्हज्याखातीर करतां अशें हांव सगळयांक सांगतां. तुमी स्वीटीक कांय विचारूं नाका. आनी एक, सद्दां सांजे येतना मिठाय हाडप बंद करात. केन्नाय आयस्क्रीम हाडटा तें बरें आसा. दूदवालो पांच पिशव्यो दिता ताका सांगात तीन पिशव्यो पुरो म्हूण. आयच्यान घरावें तुपूय बंद करतां फक्त पातळशे ताक करतां शाळेंतल्यान येतकच तांका पिवपाक बऱ्याक पडटलें."

"केन्नाय कोणाचें पार्टेक बी वता थंय खाता तें बरें आसा. पूण सद्दां उठून भायलीं खाणां खावप बरोबर न्ही." म्हजें सांगणें फुलाभशेन झेलीत मि. देवान म्हळे,

"शोभा, स्वीटीचें वजन कमी जायत जाल्यार म्हाका खूब बरें दिसतलें. म्हज्या तिनूंय भुरग्यांमदीं स्वीटी खूब हळवें आनी सादे तें. आवयचें खूब लाडके आशिल्लें. पोराची आवय गेली आनी एकटें एकटें जालें. आवय नाशिल्ली भुरगीं म्हणटकीच हांवें खावपाक जेवपाक कमी केले ना. बऱ्यांतली बरी खाणां जेवणां तांका दिलीं. पूण मागीर वाडट्या वजनाचो आनी एकलकोड्या सभावाचो म्हाका भंय दिसपाक लागलो. म्हाका म्हजे पयलीचें स्वीटी परत मेळत जाल्यार हांव तुजो जल्मभर उपकारी उरतलो आनी शोभा हाच्यापुडें दर म्हयन्याक घरांत जें कितें लागतां तें तूंच घेवन यो. तूं म्हज्या भुरग्याखातीर जें कितें करतां तें पळोवन हांव खूब खोशी जालां."

उमेदीन उमेद वाडत गेली. आमची दोगांयची वजनां उणीं जायत वताली. रातचें पासयेक वचपाचें बंद करून स्वीटीक हांवे बॅडमिन्टन खेळाक घालें. आमच्या

रासाकून एक मैल अंतराचेर हें खेळां मळ आशिल्लें. तें खेळटालें आनी हांव ासयो मारतालें. सुटयेंत तिगांकूय स्विमिंगाक घाली, त्याखातीर तांका घरांतल्यान वरांचेर भायर सरचें पडटालें. थोड्या दिसांनी स्वीटी बॅडमिन्टनांत तरबेज जालें. रेभशेन पेवपाक लागले. आपल्याक खूब कितें जमता हाची उमेद ताच्या तोंडार ळपाक लागली. मि. देवाच्या फाटीक लागून स्वीटीन आनी सोहनान दोगांयनी ापणाल्या वाडदिसाक सायकली हाडून घेतल्यो. धाकल्या रोहनाकडेन पयलींच ायकल आशिल्ली. दोगांकूय सायकली शिकोवपाक बंगल्याचो वॉचमन बऱ्याक डलो. स्वीटीक सायकल शिकपाक बरेंच त्रास पडले पूण शिकलें.

पावस सोपतकीच तांकां सायकल घेवन शाळेंत धाडपाची म्हजी तयारी आशिल्ली. स्वीटी आतां बरेंच सडसडीत जाल्लें. हांव स्वीटीकडेन चड लक्ष दितालें री ताच्या भावंडाकडेन आडनदर जायना हाची जतनाय घेतालें. धाकल्या रोहनाक ाणयो सांग, व्हडल्या सोहनाक बॉलिंग घाल अशें करून हांव तांकां वेळ दितालें. ूण स्वीटीक पळयतकच म्हाका एकेतरेची खोशी मेळटाली. इतलें आळशी आनी ठ्ठ चली सकाळी आठांबगर उठनाशिल्लें तें आतां पाचांक उठून सकाळी स वरांचेर पेंवपाक वतालें. फरत साडेसातांक येवून शाळेंत वतालें. उपरांत ट्युशनाक वताले. सांजवेळा सायकल चलयताले. मदीं अभ्यास करून खेळपाक वतालें. आतां ताका पांच मिनटां उसरपत नासताली.

ताका आनी म्हाका आदीं शिविल्लें कपडे लागताले, रेडिमेड जायनाशिल्ले. पूण हे दिवाळेक आमी दोगांयनी रेडिमेड कपडें घेवपाचें थारायलें. आमचे दोगांयचे कपडे आमकां बरेच सदळ जाताले. म्हाका कपड्यांक परत परत दोरे घालचे पडटाले पूण आतां थोड्याच दिसांनी आमी फॅशनेबल कपडे घेवपाचें चिंतिल्ले. तेखातीर दिवाळी येवचे पयलीं चडांत चड वजन देवोवपाचो यत्न करतालीं. घरा आसतना वजन देवोंवप म्हाका शक्य जालें ना. हांगा येतकीच म्हजो विचार करीनासतना हांवे स्वीटीचो विचार केलो. त्या प्रामाणिक यत्नान म्हजेंय वजन देवलें.

आतां म्हजें घराभायर वचप चड जातालें. घरांत कितें जाय नाका तें हांवच पळेतालें. तशेंच लायटीचें, नळाचे, फोन हांची बीलां हांव आनी स्वीटी दोगांय मेळून भरताली. आठवड्याचो, म्हयन्याचो बाजार म्हाकाच करचो पडटालो. कड्डणां साकून तें भाजी, फळां नुस्तें वेग-वेगळया व्हरायटीनीं हाडटालें. ताकालागून नव्यो-नव्यो वळखी जाताल्यो. म्हळयार लोकांमदीं मिसळप बरें वागूंक जाय. स्वीटीच्या

निमतान म्हजेंय आयुश्य बदलत वतालें.

एक दीस स्वीटी शाळेंतल्यान घरा आयलें तें मोटे उमेदीन. हांसत-हांसत ताणे म्हाका सांगले, शाळेंतल्या एके चलयेच्या वाडदिसाचे पार्टेक आपणांक आपयलां आनी आपूण वतलेंच. स्वीटीचो हांवे अपुर्बायेन उमो घेतलो. ताका एक नवो ड्रेस घेवचो पडलो. मि. देवाक सांगून आमी तिगांय स्वीटीक ड्रेस घेवपाक गेलीं. दुकानाचेर वतकीत सुंदर-सुंदर ड्रेस आपल्याक सहज जातात तें पळोवन स्वीटी खोशयेन नाचूंक लागलें. म्हाका दिसलें, एखाद्या फॅशन शॉतले सारकें तरतरेचे कपडे आंगार धालून तें मिरयता. हांव आनी मि. देव खूब हांसपाक लागली. मागीर आमी ताका ताच्या आवडीच्या एक सुंदर ड्रेस घेवन दिलो. मागीर स्वीटीचे केंस हांवें बरें स्टायलीस्ट कापून घेतलें.

स्वीटी त्या दिसा पार्टेक अशें रितीन खोशयेन गेले जशें एक सुंदर तरणें चली पयलेंच फावट 'डेटी' खातीर वता. रातचें धाच्या अदमासाक ताच्या इश्टिणीचें आवयन ताका घरा हाडून पावयता अशें फोनार सांगिल्ले. मि. देव स्वीटीची वाट पळयत भायर उबे आशिल्लें. हांवूय परत -परत वरां पळयतालें. बरोब्बर सव्वा-धाच्या अदमासाक भायर गाडयेचो हॉर्न वाजलो आनी आमी दोगांय एकदम भायर धांवली. स्वीटीक गाडयेंतल्यान देवनाबरोबर पार्टेतल्यो गजाली सांगपाक सुरू केल्यो. पार्टेत जाल्लें एक गेमींत ताका इनाम मेळिल्लें म्हूण तें अदीक खोशी आशिल्लें. न्हिदचें पयलीं बापायक 'गुडनाईट किस' दिलो आनी पयलेंच फावट आपूण जावन आपले ओंठ म्हज्या गालार तेकोवन म्हाका 'गुडनायट डार्लिंग' म्हणत तुरतुरीत आपल्या रूमांत गेले. म्हजें दोळे भरून आयले. मि. देवानूय आपले दोळे पुसले.

स्वीटी आतां म्हाका चडूच दसतालें. पूण हांव आपूण जावन ताका पयस दवरपाचो यत्न करूंक लागलें. ताणें आतां ताचें पिरायेच्या भुरग्यामदीं मिसळपाक जाय आशिल्लें. ल्हवू-ल्हवू ताका ताच्यो इश्टिणी मेळपाक लागल्यो. बॅडमिंटन खेळपाक ते सायकलीन एकटे वचपाक लागले. हांवूय आता म्हज्याबरोबरच्या लोकांमदी घोळपाक लागले. घरांतल्या कामांक हांवे एक शीस्त लायली. दर एकट्याक आपली कामां वांटून दिलीं. त्या कामाचें वाटणेंतल्यान मि. देवूय सुटलेना. कामाची वाटणी जाल्ल्यान सांजवेळचो बरोच वेळ म्हज्या वाट्यांक आयलो. सांजवेळां हांवे कांय क्लास जॉयन केले जशें पर्सनालिटी डेव्हेलोपमेंट म्हळयार आपल्या व्यक्तिमत्वाचो विकास कसो करप हाचेर तो क्लास आशिल्लो. पयली,

ो क्लास म्हळयार नाटक शिकप अशे म्हाका दिसें पूण मागीर ताची मोख ळळी. तो क्लास म्हाका खुबूच बऱ्याक पडलो. क्लासाक कांय दादल्यांची-ायलांची वळख जाली. एक दोन तरणाट्यांनी आयुश्यांत पयलेंच फावट म्हाका आपलेंबरोबर येवपाचें आमंत्रण दिलें. कॉफी, सिनेमा अशे बेत आमी दवरले. एका कोशातून भायर सरिल्ल्या फुलपाखराभशेन म्हजी गत जाताली.

थोड्याच दिसांनी स्वीटीक ताचेंबरोबरच्यो खूबश्यो इश्टीणी मेळ्ळयो. घरांत ाची आतां कोणूच फकाणां मारनाशिल्ली. सगळें म्हज्या मनाप्रमाम जाताले. आनी एक दीस आमच्या ग्रुपांतल्या एका इश्टान म्हाका भायर भोंवपाक आफयलें. तेन्ना म्हज्या मनांत आयलें, तरण्या शब्दकोशांत जिका 'डेट' म्हणतात, ती हीच काय? हांवें अशेंय आयकल्ले, कांय दादले पयलेच. डेटिंत सगळे कितें मागतात पूण ही डेट तशी नाशिल्ली. म्हज्या इश्टाक म्हजे सांगातान भायर वचपाची उमळशीक आशिल्ली. ताका म्हजी इश्टागत म्हजो सांगात जाय आशिल्लो. सांगातान बसप, थंड ज्यूस पिवप, पयस ड्रायव्हाक वचप  इतलेच मेरेन डेटीची शीम आशिल्ली. म्हाका ती डेट खूब आवडली. म्हजे आयुश्य आतांच सुरू जाता अशे म्हाका दिसलें.

उपरांत कांय दिसांनी आनी एक खोशेची गजाल घडली. गोयांत म्हज्या व्हडल्या भयणीचें, नयनाचे लग्न थारले. ताची म्हाका चीट आयिल्ली. हांव हांगा मुंबय येवन देड वर्स जाल्ले पूण एक पैसोय हांवे घरा धाडूंक नाशिल्लो म्हळयार मि. देवाकडच्यान हांवें मुद्दाम घेवंक नाशिल्लो. कित्याक तर म्हाका हांगा कसलोच खर्च नाशिल्लो. लग्नाच्या निमतान हांवे पंदरा दीस सुटी घेवपाची थारायली. मि. देव धरून सगळयांची तोंडा बावलीं. फक्त आठूच दीस सुटी घे असो सगल्यांचो आग्रो. मि. देवान बरीच खरेदी केली. कांय साडयो, चादरां, कपडें आनी खूब कितें बारीक-सारीक. म्हजें भयणीक आपलो म्हूण एक मिक्सर घेतलो. तसोच म्हजो सगलो पगार म्हज्या हातांत दिलो. खूब बरें दिसलें. म्हज्या घामां-कश्टाचें तें पैशें आशिल्लें आनी त्या पैशांबरोबर केल्ल्या कामाचे समाधानूय गांठीक आशिल्ले.

लग्नाक आठ दीस आसा म्हळयार हांव गोयां घरां आयलें. म्हाका पळोवन सगळीच अजाप जालीं. कारण हांव बरेंच देविल्लें. तांचे नदरेन भागिल्लें! तशेंच घरा येवचें पयलीं फेशियल, ब्लीचींग, वेक्सींक, केसांक मेथी हें सगळें करून आयिल्ले. म्हज्या मुंबयचे एके इश्टिणीन आपणाल्या ब्युटी पार्लरांत हें सगळें केल्लें. त्याखातीर तोंडावयली कात बरीच तिकतिकताली. भयणीच्या लग्नांत खऱ्या

अर्थान हांवें मिरयलें. भयणीक मनासारक्यो चार वस्तू दिवपाक मेळ्यो, खाट, मशीन आनी आरमार हांवें म्हज्यो म्हूण ताका दिल्यो. आई, भाव - भयण सगळीं खोशी जालीं. तांचेपरस न्हवरेंकाराली मनशां चड खोशी जाली.

आयुश्यांत पयलेंच फावट बरी उंची सिफोनची साडी न्हेशिल्लें. ती म्हाका स्वीटीन आपल्या वाडदिसाक दिल्ली. आयमेरेन कितलेशेंच बाबतींत हांवें म्हजें मन मारिल्लें. तें म्हाका खरपणान जाणवतालें. लग्न बरेंभशेन जालें आनी म्हज्या भावाचें कुवेटाक वचपाचे थारलें. मागीर आई घरांत एकटी म्हण कीच हांवे मुंबय परत वचप काय ना? असो प्रस्न उबो जालो. तांतूंत आईची भलायकी बरी नाशिल्ली. भाव कुवेटाक वतकीच हांव आनी आई अशी दोगांच उल्लीं. म्हजी भयण नयन आईक आपणागेर येवपाक आग्रो करूंक लागली. आईच्याय मनांत आशिल्लें. आसूंक जाय, पूण घरांत हांव एकलें उरतलें म्हूण ती गेली ना.

हांगा येतसाकून म्हज्या लग्नाचें विचार म्हजे तकलेंत येवपाक लागलें. आतां हांव सत्तावीस वर्साचे जाल्लें. दोन वर्सां हांवें मुंबय हावज किपर म्हूण काडले. तें घर म्हाका आवडलें. पूण कितले दीस हांव थंय रावतलें? घडये मि. देव दुसऱ्या लग्नाचो विचारूय करत. तांची बायल येतकीर म्हजी थंय कसली गरज? म्हज्या सगळया भुरग्यांक तिणें वेवस्थित पळयले म्हणटकीच जालें. रोहन कितलो मस्ती! ताका मात्सो समजून घेवपाक जाय. आनी स्वीटीचेर लक्ष दवरपाक जाय. तें परत मोटे जावपाक फावना. म्हाका म्हज्यात विचारांचे हांसूंक आयले. मि. देव परत लग्न करतलो वो ना हाची चिंता म्हाका कित्याक? पयलीं म्हाका दिशिल्लें, मुंबयच्यो यादी चड करून भुरग्यांकडले नाते ह्या गजालींचो म्हाका कसोच विसर पडपाक ना. पूण मागीर म्हज्या लक्षांत आयलें... जाता तेंवूंय विसरूंक जाता. वता तो काळ आनी बदलतें वातावरण मनशाक सगळें विसरपाक लायता.

ह्या बदलाचें म्हजें म्हाकाच अजाप जाले खरें आनी एक दीस शेजारच्या घरांतल्यान रकाद आयलो, म्हाका फोन आयलां म्हूण. आमगेर फोन नाशिल्ल्यान आमी शेजारचो फोन नंबर दिल्लो हांव धांवतूच गेले. म्हाका दुबाव उरलोना, फोन मि. देवाचोच आसतोलो. आनी आशिल्लोय बी.

''हॅलो, हांव देव उलयतां.'' आनी ह्या आवाजासरशीं मात विसरायेर पडिल्ली सगळीं नातीं, बंध, मायपास जागें जायत गेलें, आपूण कसल्यातरी कामां - निमतान गोयां आयलां अशे तांणी सांगले पूण म्हाका मात दिसले, कामाचे

ीच निमित्त. तो म्हजेखातीरूच आयलां. तांणी म्हजी खबर घेतली. तें खबरेंत
क वेगळीच आस्था आशिल्ली. हांवे भुरग्यांची चवकशी केली तेन्ना म्हजो गळो
रून आयलो. तांणी सांगलें,"घरांत एक कामवाली दवरल्या. पूण ती फक्त
काळच्या आदेसाक येवन वता."

"स्वीटी खंय खरांत पुराय लक्ष दिता. मदलो सोहन आदलेंपरस अदीक
मंजस जाला. धाकलो रोहन मात म्हजे यादीन हिमट्यो काडून रडटा. तो आतां
जींतल्यान फस्टाक वचपाचो आसा. तशे घर बरेंचशें जाग्यार पडलां पूण..."तेवटेन
. देवाचोय आवाज भरून आयिल्लो. हांव टेलिफोनाच्या मावथपिसाचेर हात
वरून म्हज्या हुंडक्यांचो आवाज तेवटेन आयकूंक येवचोना हाची जतनाय घेतालें.
माणें, मि. देवान म्हाका दुसऱ्या दिसा सांजवेळां एके सुवातेर मेळपाक सांगले
ानी फोन दवरतना हांसत म्हळें, फाल्यांची हावें दिल्ली डेट अशें समजुपाचें.

हांव धांवत शेजाऱ्यागेर गेल्ले तें जड तें जड पावलांनी परतलें. मनांत
गळेगळे विचार येवपाक लागलें. मुंबयच्यो यादी विसरायेर पडल्या अशी म्हजी
मजिकाय जाल्ली ती फट तर? म्हजी ही अस्वस्थताय म्हळयार परत थंय वचपाचे
ध काय? पूण परत थंय वचप ना, असो हांवे नित्शेव केलां, ताचें कितें? पूण
ाल्यां मि. देवान मुंबय येवापचो आग्रोच केलो जाल्यार तांका कितें सांगप?
ांचे उतर म्हजेकडेन मोडूंक जायत? खरें म्हळयार, आज फोनाचेरूच ना म्हूण
ांगिल्ले जाल्यार प्रस्न मिट्टलो आशिल्लो. पूण एक खरें, मंबय रावपाचे सोड, पूण
ुरग्यांक मात पळयनशे जालां. एका निमतान परत मुंबय वचूं येतां. थोड्या
देसांखातीर. हांगा आवयूय ना. तिका नयनान आपणागेर व्हेल्या. हय, तशेंच
रप. पूण मि. देवाक फाल्यां सरळ सांगप, "मि. देव ल्हान तोंडान मोठो घांस
ेता पूण रागार जावं नाकात. तुमी आतां लग्न जायात. तुमकां गरज नासत घडये
ूण त्या घरांत भुरग्यांक एके आवयची गरज आसा."

दुसऱ्या दिसा एके थंड सुवातेर मेळिल्लेंकडेन हांवे मि. देवाक तेंच सांगलें.
तेंसरशी मि. देवान म्हळें,

"म्हाका गरज ना म्हूण तुकां कशें कळळें? फाटलीं दोन वर्सां हांवें तुजेकडेन
तें नदरेन पळयलेंना म्हूण?"

मि. देवाचें म्हणणें खरें आशिल्लें. तांगेर आशिल्ल्या दोन वर्सांत तांणी
केन्नाच म्हजेकडेन वेगळें नदरेन पळयलें ना आनी हांवेय म्हजे चलणुकेन कोणांक

कितेंय उलोवपाक जागो दवरलोना. म्हाका मि. देवाचें धिटायेचे खूब कवतूक दिसले. "भुरग्यांक आवय आनी म्हाका बायल वांगडाच मेळटली. हें एकेच डेटींत म्हाका हें सगळें थरिल्ल जाय."

"म्हाका लजपाकूय संद मेळी ना. मि. देवान हेवटेन तेवटेनची कसलीच पर्वा करीनासतना म्हाका वेंगेत धरलें आनी घट्ट आंवुळळें. म्हाकाय त्या वेंगेतल्यान सुटपाची इत्सा जालीना. हांवे इतलेंच म्हळें.

"म्हाका भुरग्यांक पळोवपाची उमळशीक लागल्या!"



# ११. आत्मभान

आयची सकाळ खऱ्यांनीच सुंदर आशिल्ली. जीवाक बरी तरतरी हाडपी! ाोबीत सूर्याचीं किरणां भितर सरलीं , आनी मन सामकें प्रफुल्लित जालें. आयच्या देसाची सकाळ हेर दिसासारकी नाशिल्ली. सुटयेच्या दिसाची सकाळ वेगळीच ासता. घरांत एक बरो आळस आसता. हांथुणावेल्यान उठटना आंग बेश्टेंच जड ाता हाथुणाचेर लोळत रावन दिसता. आनी तातूंत राजेशाक फांतोडेचेर जाग ात जाल्यार विचारपाचेंच ना. दुसऱ्या दिसा सुटी म्हणून आदले रातचें अर्दें ागरण आनी दुसऱ्या दिसा सुटयेचो दीस म्हूण आठ वरांमेरेन हांथुणावेल्यान उठूंक दिवप ना. पूण आयज सुटी आसुनूय म्हाका उठुंकूच जाय आशिल्लें.

म्हाका सकाळीफुडें भायर सरपाक जाय आशिल्लें. राती हयन्हयशें राजेशाक ांगून दवरिल्लें. फांतोडेचेर राजेशाच्या वेंगेतल्यान भायर सरपाक खूब त्रास ाले, खंय खसखूस करताना जाग आयली जाल्यार परत एक वर कसोच ोडचोना. पूण ना, जाग आयलीना. सूस्त न्हिदिल्लो. हांव उठलें. ताचेखातीर ब्रेकफास्ट तयार करून दवरलो आनी म्हजी भायर सरपाची तयारी करपाक ागलें. सुटयेचो दीस म्हूण जेवणाचो व्हडलोसो प्रस्न नाशिल्लो. राजेशाचें एक, सुटी म्हणटकच कसलेंच काम करप ना. फक्त विसव घेवप आनी म्हजे नदरेन आठवड्याची सगळी तुंबून उरिल्ली कामां सुटये दिसा करप आनी ती करतासर जेवण करपाक वेळूच मेळनाशिल्लो. दोगांयचें कपडे धुवप, झाडलोट, फॅनापासून जमनीमेरेन पुसप, फ्रिज लिप करप आनी सांजवेळा कसलेंच काम दवरप ना. दनपरां भायलें जेवण हाडप आनी सांजवेळा मात बऱ्याशा हॉटेलांत वचून जेवप. आमच्या खातीर सगळी सांजवेळ गरजेची, मनान आनी शरिरानूय त्या दिसा रातचो एकाद्रो सिनेमा नाजाल्यार खंयूय लांब पासयेक वचून येवप. आनी रातचें येतना भेळ खावपाक विसरप ना.

म्हणटकच आयज रांदप ना. दनपारमेरेन हांव पावतलेंच. भायर सरून हांव बसस्टॉपार आयलें. सुटयेचो दीस, म्हणटकच बसींत व्हडलीशी गर्दी नाशिल्ली. हांव जनेलाकडेन बसलें. थंड वारो आनी मोवशी वोताची किरणां आंगार खेळटाली.

मनाक एकेतरेची उमेद आयली. नाजाल्यार सदांच बसींत गर्दी, कलकल. जनेलाकडेन बसपाक सोड पूण दोनूय पांय दवरून सारकें उबें लेगीत रावपाक मेळना. तशीच नदर घड्याळीकडेन. पूण आयची सकाळ पळयतकच दिसले, दर दिसाची सकाळ अशीच आसल्यार कितलें बरें जावपाचें!

घरांतल्यान भायर सरतनाच हाथुणाचेर लोळत पडिल्ल्या राजेशाच्या कपलार ल्हवूच ओठ दवरून हांवे सांगलें. "रोखडें येता आं."

" आयज वचुंकूच जाय?" ताणें म्हजो हात घट्ट धरून विचाल्लें हांवे हय म्हळें. तशेच दार लोटून भायर सरलें. हांव खंय वता हें हावें राजेशाक सांगपाक जाय आशिल्लें काय? एकदां दिसतां, सांगपाचें जाल्यार म्हजेबरोबर येवपाक तो फाटी रावचो नाशिल्लो. हे बाबतींत म्हजेपरस ताका चड उमळशीक आसा. घडये आयिल्लो जाल्यार प्रवासाचें हें खीण टेन्शनान तरी वचचे नाशिल्ले. म्हाका राजेशान लग्नाची मागणी घालेबरोबर हांवें ताका सगळें खरेंखरें सांगिल्लें. सगळें आयकून ताणें म्हजें दोनूय हात घट धरून म्हणिल्लें,"घडटा एकेकट्याचे जीणेंत अशें. पूण तिणें जें केलें तें बरोबर केलें ना. म्हाका ती मेळ्ळयार हांव सरळसरळ विचारपी, 'ह्या पोरांनी तुजें कितें वायट केल्लें? म्हज्या मनिषाक सोडून तूं खंय गेली? कित्याक गेली?' आनी तो विचारपीय. तोंडान एकदम फटकळ तो. म्हूण आयज हांवें तिचेकडेन वता म्हूण ताका सांगलेना.

काल अंकिताक सांगपाचो सामको मोह जाल्लो. ताका फोन केल्लो जाल्यार तेंवूय धांवत येतलें आशिल्लें. पूण मागीर नाकाच म्हळें. ताचोय आईचेर राग आशिल्लो. केन्नाकेन्ना तें भायर काडटालें. तें बरोबर आयिल्लें जाल्यार आईकडेन झगडपाक फाटीं रावचें नाशिल्लें. म्हूण हांवें ताकाय टाळ्ळें. बाबाक सांगपाचो तर प्रस्नूच नाशिल्लो. ताच्या वाट्याक दुःखच येतलें आशिल्लें. सगळयांत चड त्रास ताकाच जावपाचे आमच्यापरस चड खर. आई प्रत्यक्ष बायल ताची. पूण म्हाका कितें खबर आसा आईन कित्याक आपयला तें? इतल्या वर्सांउपरांत तिणें कित्याक संपर्क सादलो ?

ध्यानीमनी नासतना पयर अकस्मात तिचो ऑफिसांत फोन आयलो. कितलो वेळ आयकत उरलें. कितल्या वर्सांनी आयकल्लो आवाज. खूब बडबडटाली. भरभरून उलयताली. कसो प्रतिसाद दिवंचो तेंवूय कळना जालें. राग, घृणा, उत्सुकता सगळयांची सरमिसळ जाली. कितें उलोवचें तें कांयच कळना जालें. ती

एकारएक प्रस्न विचारताली. "अंकिता कशें आसा? बाबा कसो आसा? आजी कशी आसा?" म्हाका कळळें, तुजें लग्न जाला म्हूणून. दोन म्हयन्यांपयलीं तुमचो फोटो वर्तमानपत्रांत पळयिल्लो. तुमचे कंपनीन दिल्लो. तुमी दोगांय थंयच काम करता म्हूण कळळें. हांणी म्हाका दाखयलो पूण धाडस जालें ना. पूण आयज मात म्हज्यान कशेंच रावपाक जालेंना. खूब याद आयली तुमची. बाय आयकता न्ही? फोन सकल दवरूं नाका आं. तुजो फोन नंबर सोदपाक खूब त्रास जाले. एदी व्हडली कंपनी तुमची, कितलेशेच फोन आसात, तशेंच आनीक ऍक्सस्टेन्शन. तीन दिसा उपरांत तुज्या डिपार्टमेन्टाचो नंबर मेळळो. म्हाका एकदां तुकां मेळपाचें आसा. सांग केन्ना येता? तुकां सुटी केन्ना? आयताराक ? मागीर येता त्या आयताराक येता? वाट पळयता आं, बाय, म्हजे धुवे, म्हाका निराश करूं नाका. हांव आवय तुजी. यो आं."

हांव नर्वस जालें. फोन कित्याक केलो हें निमाणेमेरेन तिणें सांगलेचना. बरेंच उलयतकच परतपरत एकूच आग्रो, "एकदां फक्त एकूचदां मेळपाक यो गो. येता त्या आयताराक योच." तिच्या उतरांनी म्हाका मेळपाची खोस जाणवताली. तिचो आवाज दाटून आयिल्लो. तशेच प्रस्न, तीच बडबड, उलोवपांत तोच उतावीळपणां पूण आपलें तेंच ठासून सांगपी, आपूण जें कितें करता तें चुकूंक शकना अशा विस्वासान उलोवपाची तीच पध्दत. पूण तिचें सगळें हांवें मोन्यांनी आयकून घेतलें. दिसातालें, येवूंदी एकदां मुखार तिका. अशें स्पश्ट विचारपी आनी आवय म्हणनासतना तिका सामकें खालतेंपण भोगवपी... पूण सादो फोन येतकूच मेंदू सामको थीर जाल्ल्याभशेन जालो फोन कित्याक केलो हे सादें विचारपाक लेगीत जालें ना.

तिचो फोन येतकच मात हांव अस्वस्थ जालें. कितेंतरी आकांताचें पाप केल्लेभशेन दिसलें. आनी एकदम किळसूय आयली म्हजी. कित्याक घेतलो हांवे तिचो फोन? कितें गरज आसली? आतां कोण लागता ती म्हजी? कित्याक केलो तिणे फोन? म्हजो म्हाकाच इतलो राग आयलो! दिसलें, कोणाक तरी आड्डून सांगचें, म्हज्या बदफैली आवयचो म्हाका खूब वर्साउपरांत फोन आयलो! कोणांक सांगतलें? दिसलें, अंकिताक फोन करून सांगचे, निदान आज्जेक तरी. बाबाक तर सांगपाचें धाडस जावचेना. अस्वस्थता कशीच कमी जालीना. फोनाचेर हांवे तिचेकडेन कांयच उलेयलेंना खरें पूम हांवें तिचें सगळें मोन्यांनी आयकून कित्याक घेतलें? आता कितें जाय तिका आमचेकडसून? घर सोडून गेल्ल्याचो तिका

पश्चाताप जाला काय कितें? आतां ती खंय रावता थंय तिका त्रास जाता? हें महानगर खरें पूण इतलीं वर्सां तिणें संपर्क कित्याक करूंना? आमची याद केन्ना येताली तरी? मागीर आयजूच...

तिणे फोनाचेर पत्तो दिल्लो, तो हावें पर्स उगडून पळयलो. हय, आसा. ऑफिसात गडबडीन खरडिल्लो कुडको तो तसोच आशिल्लो. सगळो आठवडो अस्वस्थतायेन गेल्लो. आईन कित्याक आपयलां काय? हो प्रस्न म्हाका त्रास करपाक लागिल्लो. खूब अदमास केल्ले, पूण एकूय खरो थरनासलो. मागीर दिसलें, तिचो फोन परत येतलो. पूण ना. वचप ना. कितें करतलें थंय वचून?

पूण काल रातचो सामको नित्शेव केलो, वचून येवपूच. एकदां मेळून तरी घेवंया. तिका कितें सांगपाचें आसा तें तरी पळोवया. कसलेय वायट परिस्थितींत आसल्यार पळोवपाक चड बरें दिसतलें. खूब प्रस्न मनांत आसात. तांच्यो जापो कोणूच दिनात. ना आजी, ना बाबा. अंकिता तर म्हजेपरस ल्हान. ताचेय कांय प्रस्न आसात. व्हडली भयण म्हणून ताणें तें म्हाका विचारले. तातुंतल्यो कितल्योशोच जापो म्हाका दिवंक जमूंक ना. घडये ह्यो जापो तिचेकडेन आसत आनी त्यो जापो मेळ्ळयोनाय जाल्यार आमच्या जीणेचेर ताचो कितें व्हडलो परिणाम काय जावपाक ना. पूण तें प्रस्न वज्याभशेन आमचें मानेचेर आसात. घडये त्या प्रस्नांची जाप मेळटकीच तकलेवयलें वजें मातशें तरी देंवतलें... निमाणी कितलीय जाल्यार म्हजी आवय ती! जल्मदाती ! संवसांरातल्या खंच्याय नात्यापरस हे नातें चड खोल, लागीचें. हे नातें तोडून वडयतना कांयच कशें दिसलें ना तिका? हय. तेंच तर म्हाका समजून घेवपाक जाय एके बायलमनशेन घर कित्याक सोडलें? तो दीस आजुनूय म्हाका घट्ट याद आसा....

सांजवेळ आशिल्ली. हांव घराभायर झाडां शिंपतालें अंकिता नाचाची प्रॅक्टीस करतालें. बाबा बेगीनू पसऱ्यावयल्यान घरा आयिल्लो. पसऱ्याचेर व्हडलेशें गिरायक नाजाल्यार बाबा अदींमदीं बेगीन घरा येतालो. त्याय दिसा असोच बाबा बेगीन आयिल्लो. तो आयल्याबरोबर आईन आमकां दोगांकूय सांगले, "चला, बेगीन भायर सरात, आमी सगळीं आइस्क्रीम खावपाक या." हांव अजापलें, आनी खोसूय जाली. नाय म्हळयार वर्सांतल्यान बाबा आमकां भायर व्हरून आयस्क्रीम दितालो. तेंवूय अंकिता फाटीक लागता म्हूण. पूण आयज कोणेंच आयस्क्रीमीची याद काडूंक नाशिल्ली तरीय आयज खास कितें आसा? विचार करूनूय आमकां

ांय येवजना जालें. बाबान म्हळें " चला भायर सरात, थंय वतकच कळटलें."
आयस्क्रीम कित्याक काय म्हूण आईक विचारल्यार तीय वोगी रावली. हांव त्यावेळार सोळा वर्सांचें. निकतेंच अिकरावेक गेल्लें. अंकिता तेरा वर्सांचे, आठवेक. पूण पळोवपाक आमी दोगांय सारकीच कशी दिसतालीं. अंकिता पिरायेच्या मानान खूब लांब आनी भलायकेन घटमूट आशिल्लें आनी हांव सोळा वर्सांचे खरें पूण कोणूय अठरा वर्सांचें म्हणत! खाणजेवण भरपूर न्ही पूण वेवस्थित मेळटालें. खेळ, व्यायाम नेमान आसतालो. ताका लागून आमी खूब सतेज दिसताली. आमी दोगांय भायर सरलीं. आमचें आवडीचें जीन्स आनी टीशर्ट घाले. आज्जेक घरांत दवरून आमी चौगांय भायर सरलीं. सदांच्याच आयस्क्रीम पार्लरांत गेलीं. सूर्य इल्लो इल्लो अस्तमतालो. मेजां रिकामीच आशिल्ली. काळोख पडटकच ह्या पार्लरान गर्दी जाता. पूण आयज आमींच पयलीं. वेटर आयलो. हांवें आनी अंकितान आमची आवड सांगली. बाबान आयस्क्रीमीची ऑर्डर दिली. इतलो वेळ दामून धरिल्ली उत्सुकताय भायर सरली. तशें अंकितान परतें विचारलें "बाबा, आयज अकस्मात आयस्क्रीम शें?" "आं!" बाबा एकदम गंभीर जालो. म्हणपाक लागलो,"एका म्हत्वाच्या विशयासंबदान तुमकां दोगांकूय कितें सांगपाचे आसा. थंय घरांत आज्जेमुखार सांगपाक नाका म्हूण तुमकां हांगा हाडल्यांत. फाल्यासावन तुमची आई आमच्या घरांत रावची ना. ती आमकां सोडून वता." आयस्क्रीमीची ऑर्डर दिल्लेभशेनूच बाबान ही गजाल सांगली. "म्हणजे?" म्हज्या तोंडातल्यान आपसूक उतरां भायर सरलीं. रोखडीच आई सांगपाक लागली,"हांव तुमच्या बाबाक सोडून वेगळें जातां." आनी ती सांजवेळ गोठून गेली. आमी थीर, दोगांयचे दोळें भरून आयिल्ले. आईबाबाय वग्गी. मागीर अदींमदीं तांचें ओंठ हालतना दिसले आयस्क्रीम मुखार आयलें पूण आमी दोगांयनी ताका हात लायलो ना. त्या उपरांत हावें केन्नाच आयस्क्रीम म्हणटा तें खालें ना. मागीर ल्हवूल्हवू कांय संदर्भ लागले पूण सारखें कांयच कळळें ना.

आई खरेंच दुसऱ्या दिसा घर सोडून गेली. आमी न्हिदेंतल्यान उठचेपयलींच ती गेल्ली. आज्जेन सगळें घर माथ्यार घेतलें. बाबा ओगीच बशिल्ले. भायले कुडींत, हातांत वर्तमानपत्र घेवून पूण वाचनाशिल्लो. आमी दोगांय रातभर न्हिदूंक नाशिल्ली. फांतोडेर मात्सो दोळो लागपाक आज्जेन आईच्या नांवान आकांत केलो. अठरावीस वर्सांचो संवसार ! तरीय आई, बाबाक आमकां घराक सोडून गेली. तिणे आपलेपरीन हे गजालीचो कांयच बोवाळ केलो ना, करपाचें सगळें

थंडपणान केलें. म्हाका याद जाता, बाबा त्यावेळार अडचणींत आशिल्लो. पसरो बरो चलनाशिल्लो. चलनाशिल्लो म्हळयार पसऱ्यार सारको माल आसनाशिल्लो. तशेंच रीणूय काडिल्लें. हप्ते सारके फारीक जायनाशिल्ले. कोणूय सांगत आशिल्लो, खंच्याय खिणाक पसरो बंद पडू येता म्हूण.

पूण अशा वेळारूय बाबा थंड शांत आशिल्लो. पूण मातशे कितेंय जालें जाल्यार आज्जेचेर रोखडोच बोवाळ पडटालो. तिचो स्वतःवयलो ताबो वतालो. पुताची अशी अवस्था जातकच खंयचे आवयक त्रास जांवचेना? पयलीं तिणें लोणचेंपापड करून बाबाक वयर काडलो आनी संवसार सांबाळ्ळो. अर्थिक परिस्थितीक लागून आईबाबा मदीं केन्ना झगडी जायनाशिल्लीं पूण आजी ताचेर खूब फणफणटाली, पूण आज्जेच्या उलोवण्याचें पडसाद बाबाच्या तोंडार केन्नाच दिसलेंना. आईबाबाची कुस्कूट कारणाक लागून केन्नाच झगडीं जालीं ना. आई बाबाक सोडून वतली हें खूब आदीं थरिल्लें दिसता. तिणें अदीं मदीं बाबाक तशी शिटकावणीय दिल्या आसूं येता पूण दोगांयमदीं तणांव जाल्लो दिसलोना. घडये आमच्या नदरेआड जालाय आसूं येत पूण आमकां आनी आज्जेक निमाणेमेरेन ह्या गजालीचो वास लागलो ना, हे खरें. आमकां तरी आदल्या दिसा कळिल्लें. आज्जेक त्याच दिसा फांतोडेचेर कळ्ळें. आई आपलें सगळें करून आज्जेक पांयां पडपाक गेली आनी आपूण घर सोडून वता इतलेंच सांगलें. फुडलें कांयच सांगपाचे भानगडींत ती पडलीना. ती जबाबदारी बाबाची अशें समजून ती भायर सरली.

आज्जेन सामकें आकाशपाताळ एक केलें. कितलें तरी दीस अशेंच चलिल्लें. त्या रागान बाबाक ती खूब कितें उलयताली... "तू सारको आशिल्लो जाल्यार कांयच जांवचे नाशिल्लें. एके बायलमनशेक तुका सांबाळपाक जालें ना. आतां ह्या वाडिल्ल्या चलयांक घेवन खंय वतलो?".... अशें कितें-कितें जायते. तरीय बाबाच्या तोंडावेली थंडसाण मात ढळ्ळी ना. तेन्नाय ना आनी मागीरूय ना. अजाप दिसपासारको ताचो स्वभाव. कसो सोंसता देवाक खबर! केन्नाच कोणाचकडेन उक्तेपणान उलय नाशिल्लो. आई आशिल्ली तेन्ना मातसो उलयतालो तितलोच पूण ती वतकच तेंय ना जालें. अशें तरेन बायल वचपाचें दुःख खूब व्हड आसता. अपमान, लज जालीच पूण पुरूषार्थाक हात घालपी घडणूक. आवयक कितेंय सांगप म्हळयार ताची कुचंबणा जातली आनी आमचेकडेन कितेंय उलोवप म्हळयार ताचे नदरेंत आमी ल्हान.

आई वतकच अंकितान आज्जेक हजार फावटी तरी विचारलें, " आई

केत्याक घर सोडून गेली?" तशी म्हाकाय जाणून घेवपाची उमळशीक आशिल्लीच पूण तशें विचारून बाबाक त्रास दिवप म्हाका पटनाशिल्लें. देखून हांव ओगी रावतालें. आजी म्हणटाली, "व्हडलें बापायचें बडीर गेलां."

आमकां दिसतालें, आई केन्नातरी परत येतली पूण ती केन्नाच आयली ना. तिचें फुडें कितें जालें तेंय कळळेंना. पळोवपाक गेल्यार तिच्या वचपाक कसलेंच कारण नाशिल्लें. घोव थोडें जायना पूण पोटापूरतें जोडटालो. उपाशीं तर पडनाशिल्लीं. दिवाळेक-चवथीक नवें कपडे मेळटाले. आज्जेची पिरंगणी सोडल्यार घरांत सुशेग आशिल्लो. बाबा तर कोणाचेंच भानगडींत नाशिल्लो. कोणांक दोळे वयर काडून पळयनाशिल्लो. दोन भांगरासारकी भुरगीं आशिल्लीं. आमी आईनबाबाक केन्ना आर्त्याचें पर्तें दिलें ना. संवसार सुखाचो आशिल्लो. हेर घरांत जशी आदळआपट, झगडीकिजिलां जातात तशेंय केन्ना आमच्या घरांच घडलेंना. केन्नाय करपल्ल्याचो वासूय कोणांक आयलो ना. ते बाबतींत सगळीं आमचो दुस्वास करताली. हांव सदांच म्हणी, "आईबाबाची जोडी. जगावेगळी जोडी." दोगांचो संवसार तसो दीर्घ जालो. वीस वर्सां म्हळयार तशी थोडी न्हय. संवसाराचो मध्य कसो. आनी अशें वेळार आई घर सोडून गेली. कसलो बोवाळ ना, खट ना, खूट ना. एकामेकांकडेन व्हडल्यान उलोवप ना, तापप ना, कांय ना. जशें काय कितें घडलेंच ना. बाबाच्या तोंडाचेर व्हडलोसो फरक पडलो ना. आईचें तोंडूय वचचे आदलें दिसा थंड आसलें. आपल्या रक्ताच्या दोन चलयांक आपूण सोडून वता हाची कसलीच वेदना, दुःख तिच्या तोंडार आमकां दिसलें ना. एक अपरिहार्य वेवहार तटस्थपणान पुराय करचो तशी ती वागली.

आई वतकच तिणें बसयल्ली संवसाराची घडी सामकी विस्कटून गेली. हांव कॉलेजींत. अंकिता शाळेंत वतालें. बाबा पसऱ्याचेर आनी आजी मात घरा आसताली. आई आसताली तेन्ना, घरचें, भायलेंभितल्लें काम तीच करताली आतां सगळें काम म्हज्या वाट्याक आयले. बाजारांत वचपाची खूब धांदळ जाताली. मदीं आजी बरी ना जाली. तिचेंय सगळें आमकांच करचें पडलें. कॉलेजींतल्यान येतकच आई बरी खावंक करून दवरताली. अंकिताचें केसूय वळोवपाची व्हडली अडचण जाताली. ताका आमचें वळोवप माननाशिल्लें. अश्यो कितल्योशोच गजाली बदलून आनी विस्कटून गेल्ल्यो. ताची जाणीव आमकां ती वतकच जाली. मागीर आमी थोडेंथोडें लक्ष घालूंक लागली हरशी, आज्जी काम करपी पूण आई येतपासून आज्जेचीय संवंय मोडिल्ली. मागीर जेवणखाण, घांसपपुसप, उमळपपिळप तिच

पळोवपाक लागली. बाजार हांव करपाक लागलें. बारीकसारीक कामां अंकिता करतालें.

मागीर ल्हवूल्हवू नवी घडी बसोवपाचो यत्न आमी करूंक लागली. घरांतली एक बायल वतकच घर कशें उबांतरा पडटा हाचो एक अणभव आमकां मेळो. एक बायल मनीस घरांत नासप म्हळयार खाणाजेवणापासून आरोग्य आनी भुरग्यांच्या स्वास्थ्याचे नदरेन कितलें भयांकृत! एक दादलो घरांत नाजाल्यार संवसाराची घडी बसूं येता. थोडी अर्थीक चणचण भासता पूण घरांतली लक्ष्मी वतकच सगळें वाऱ्यार पडटा. आईचें वचप सदांकाळ जाणवतालें. आई गेली हो शॉक आमचे तकलेंतल्यान केन्नाच गेलो ना. घडये ह्यावेळार ती संवसारांतल्यान गेल्ली जाल्यार एकवेळ आमी सांवरपाची. पूण ती भरिल्लो संवसार, घरदार, भुरग्यांक सोडून गेली हाची खंत काळीज पोखरून येवप कमी केल्लें. सणांपरबानींय गरजेपुरतोच वांटो घेताली. कोणूय रस्त्यार दिसलो जाल्यार चड वळख दाखयनाशिल्लीं. विचित्र परिस्थितींत आमी दीस काडटालीं.

निमाणें एक दीस बाबाच्या दुकानाचेंय दिवाळें वाजलें. ते जावपाचेंच आशिल्लें. म्हाल कोणूच उदार दिना जालो. लोकाकडेन सामान घेवपाक आनी आयिल्ल्या पैशांचेर आमचे पोट भरप म्हणटकच दुसरें सामान हाडपाकूच हातांत पैशे ना. उधार घेतिल्ल्याकूय पैशे दिवप ना. खूब त्रास जावपाक लागलें. हांवें म्हजे शिक्षण अर्ध्यार सोडून नोकरी करपाचो नित्शेव केलो पूण तेंवूय बाबाक मान्य नाशिल्लें. खूब कठीण अवस्था जाली. केन्नाकेन्ना अशें दिसतालें, बाबा आतां हुमटून पडटालो. घडये तोवूय खंच्याय खीणाक अशेंच घर सोडून वचत. तो भितरलेंभितर दुःख गिळत आशिल्लो. दिसतालें, घडये ताच्या तकलेचेर परिणाम जायत, तो घातक वागत पूण तशें केन्ना जालेंना.

बाबा घर सावरून धरतलो. तेन्ना आजी अपूर्बायेन म्हणटाली,"तूं चिंता करू नाका पुता. तशीच वेळ आयली जाल्यार परत लोणचेंपापड करूंया. आजून तितली धमक आसा म्हज्यांत." बाबा तितलेपुरतो मात्सो गंभीर जातालो. आनी मंद हांसतालो. पसरो सामकोच बंद जातकच दोन फावट पयसुल्ल्या गांवात वचून भाजी-बीजी घेवन आयलो पूण तिसरे फावट गेलो ना. कोणाकडल्यानूय घेवन हांगाथंय विकपाक लागलो तांतूंत टामटीम जातालें पूण खर्चाचो घास बरोच मोटो आशिल्लो. म्हजें कॉलेजीचें निमाणें वर्स आसतनाय हांवें नोकरेची खटपट सुरू केली आनी राजेशाचें वळखीन ॲन्टीबायोटिक्साच्या एके बरे कंपनीत क्लार्काची

नोकरी मेळ्ळी. राजेश म्हजें एके खास इश्टिणीचो सोयरो. आरती, म्हजी जिवाभावाची इश्टिण. वेळप्रसंगार तशें आदींमदीं अडी-अडचणींकूय तेंच मदत करतालें. ताच्याच साखरपुड्याक राजेशाची वळख जाली. म्हजी सगळी परिस्थिती ताका खबर आशिल्ली. आरतीनूच राजेशाक कळकळून म्हणटा तशें सांगलें. आनी ताणेंय रोखडेंच मनार घेतलें. ताचें वळखीन म्हाका नोकरी मेळ्ळी. सकाळची कॉलेज आनी सांची नोकरी अशी धांवपळ सुमार वर्सभर केली. घरांत थोडोभोव पैसो घोळपाक लागलो. बाबाक खूबूच आदार जालो. शिक्षण पूराय करचें आदींच म्हाका नोकरी करची पडली. म्हूणून बाबाक दुःख जालेंना आनी संवसारांक थोडो हातभार लागलो म्हूण खोसूय भोगली ना. "तुकां पगार कितलो? कसली नोकरी?" हेंवूय ताणें विचारलें ना. हांवें जितलें सांगचें तितलेंच ताणें थंडपणान आयकूपाचें. आज्जेक मात मनांतल्यान खूब बरें दिसलें. तिणें म्हळें,"आतां जाता तसो सगळयांनी हात लावपाक जाय." आज्जेचो हो इशारो अंकिताकूय आशिल्लो.

उपरांत दोन वर्सांनी अंकिताकूय एके जायरात कंपनींत बरी, ताचे आवडीची मॉडेल म्हूण नोकरी मेळ्ळी. ताचोय पैसो वेवस्थित येवपाक लागलो. घराची विस्कटील्ली घडी नव्यान बसबाक लागली. आईचें वचपाचें दुःख फाटीं पडलें खरें पूण पूराय पुसून गेलें ना. कशें वतलें? एक लाशें कशें तें आमचें आंगार उदेवन आसलें. हांव राजेशाचे कंपनींत काम करतालें. कॅमिस्ट म्हूण आमची वळख आशिल्लीच आनी म्हाका नोकरी मेळोवन दिवपी म्हूण म्हज्या मनांत ताचेविशी उपकारी भावना, आदर आशिल्लोच. एक दीस सांजवेळा कामारसावन सुट्टकच राजेशान म्हाका हडकिलें," तुजेकडेन थोडें उलोवपाक जाय. घरा वचपाची ताकीद नासल्यार म्हजेबरोबर थोडोवेळ येवशी?" हांव ताचेबरोबर गेलें. आमी एका हॉटेलांत बसलीं. ताणें च्या मागयलो. आनी एकदम आडखळ नासतना तो म्हाका म्हणपाक लागला,"हांव तुज्या मोगांत पडलां." हांव घामाघूम जालें. हो प्रकार म्हाका अनपेक्षित आशिल्लो. म्हजे हातपांय थंडगार पडले. म्हाका कितेंच सुचना जालें. हांव ओग्गी रावलें. "राग आयलो?" ताणें विचारलें. हांव कांयच उलयलेंना. म्हज्या आंगावयल्यान घामाच्यो पावळयो देंवपाक लागल्यो. "भियेलें?" तरीय हांव ओग्गी रावलें.

मुखार च्या आयलो. तोवूय आतां मातसो भिल्लेभशेन जालो. कितेंकितें उलयत रावलो. ताचे हालपी ओंठ आनी हातवारे म्हाका दिसताले पूण कानांत कितेंच वचनाशिल्लें. कानसुलां एकदम तापिल्लं भशेन जालीं. जिवितांतली ही दुसरी सांजवेळ अशी बधीर, थीर करपी. आईन आपलो वचपाचो बेत सांगलो

तीय सांजवेळ अशीच आशिल्ली. ते राती म्हाका न्हीद पडूंक नाशिल्ली. ल्हवू ल्हवू राजेशाची उतरां म्हज्या मनाची पकड घेवपाक लागलीं. एक बारीकशी कीट काळजांत रिगत रावली. तांतूंत सुखूय आसा म्हणपाचें दिसपाक लागलें. ही किटीची वेदना स्वतःक विसरपाक लावपाक लागली. दिसपाक लागलें, उतरांमदीं कितली जादू आसा! निखट्या उतरांनी मनीस मनशाकडेन नातें जोडपाक शकता आनी त्याच उतरांनी नातें तोडुंकूय शकता. उतरांचो परिणाम मनशाचेर जाता. तेन्ना आईन म्हळें,"हांव घर सोडून वता." त्या उतरांचो परिणाम जावन सगळें आयुश्य सुकेंतळपट पाशाण कशें जालें. कित्याकच कांयच अर्थ उरलो ना.

कांय दिसांनी एक फावट राजेशान परतून तोच विशय काडलो आनी आपल्याबरोबर येवपाचो आग्रो केलो.

"खंय वचपाचे?" हांवे हांसून विचारलें.

"म्हाका दिसलें, म्हज्या उलवण्याचें तुकां त्रास जाले" ताणें नरमायेन सांगलें.

"चल, त्या दिसा तुवें च्या दिल्लो. आतां हांव तुका दितां." म्हज्या उतरांनी तो परत सारखो जालो.

आमी दोगांय एका हॉटेलांत गेलीं. च्याची ऑर्डर दिलेबरोबर हांवे उलोवपाक सुरवात केली.

"राजेश, म्हजेर मोग करता म्हणजे नेमकें कितें करता तूं?"

राजेशाक ही अपेक्षा नाशिल्ली जावंये, तो गडबडलो. ताका कितें सांगपाचें तेंच कळना जालें. हांव ताचेकडेन पळयत आशिल्लें. कांय वेळान ताणेंच जाप दिली.

"आमी दोगांय लग्न जावंया." हांव आयकत उल्लें.

"म्हजी परिस्थिती तुका खबर आसा?"

"हय. आरतीन सगळें सांगला म्हाका."

"आरती म्हजी इश्टीण. भावनेच्या भरांत ताणें कितेंकितें सांगलां आसतलें. तरीपूण हे लग्न जावप शक्य ना."

"तुजी आवय तुमकां सोडून वचप हो तुजो दोश न्हीं." ताणें एकदम मर्मार बोट दवरलें.

“तुजे आवयबापूय मानून घेतले?” हांवें विचारलें.

“संवसार आमकां करपाचो आसा. तांचो प्रस्न येताच खंय?” तो म्हणपाक लागलो.

“तरीय हो विशय आयुश्यांत खंय ना खंय मुखार येताच. म्हजी आवय घर सोडून गेली ह्या पातकाची परत परत याद जातलीच. कोणतरी म्हजेकडेन वाकडे नदरेन पळयता आनी हांव खालतेंपणान उबें आसा, हे म्हका केन्नाच पटचेंना.”

“आमी वेगळीं रावूं या... पूण खंयचेय परिस्थितीत म्हका तूं जाय. तूं अशें वागूं नाका. दर खेपेक आईन केल्ल्या पापाचो पाडो वाचीत रावूं नाका, म्हाका ती याद लेगीत जावपाक नाका.” निमाणें राजेश सामकोच हट्टाक पेटलो. हांवूंय माये - मोगाक आशेल्लें.

घरांत हांवें सगळें बाबाक सांगलें. ताणेंच सदांभशेन कांयच प्रतिसाद दिलोना. हांव कितें करता तें चलता, ताका मान्य आसा अशेंच ताचें नदरेंतल्यान दिसतालें. अंकिता म्हणपाक लागलें “चलो बरो आसा जाल्यार करून उडय लग्न.” हांवे म्हळें इतलें सोपें आसा तर तें?”

“तांतूंत कठीण कितें आसा? नाय जाल्यार हे परिस्थितींत आमकां सोयरीक घेवन कोण येतलो? काय बाबा खंय सोयरीक घेवन वतलो अशें दिसता तुका? आमचें लग्न आमकांच जुळोवचें पडटलें.”

अंकिताची उतरां आयकून म्हाका सामको शॉक बसलो. “तुवें खंय जमयलां काय कितें गो?”

“अजून ना. पूण तितलें कठीण न्हय. आमी आमचें जातींतल्यान वेगळी पडिल्ली मनशां आनी आयुश्यांत लग्न करप गरजेचें आसल्यार आमकां वेगळो विचार करपाचो पडटलो.” हांव ताका पळयतूच उल्लें. खरेंच हें पोर व्हडलें जालें! खूब बरें दिसलें. संवसारांतल्या बरेवायट गजालींचो अणभव ताका आयला. आता म्हजो निर्णय हावें घेवप हेंच समा. दादल्याची गरज ही आयुश्यांत आसताच पूण भरिल्लो संवसार सोडून वचपी म्हजी आवय! घर म्हणून हांवें कोणाचोय संवसार आपणायलो जाल्यार थंय ही गजाल म्हजी फाट सोडचीना. कितेंय केल्यार हो भंय काय वचचोना. आईन आपल्या संवसाराचें पाड घालेंच पूण चलयांच्या संवसारांकूय आदींच सुरींग लायलो. राजेशान उलयतना सांगिल्ले, ताच्या आवयबापायचें लग्न

आंतरजातीय पूण तांणी जरी आंतरजातीय लग्न केलें तरी एका घोवाक सोडून गेल्ल्या बायलमनशेचे चलयेक सून म्हूम मानपाक ती तयार जातली? हो दुबाव म्हज्या मनांत पाल कसो चुकचुकतालो म्हूण हांवें ताका सहजतायेन मान्यताय दिली ना. पूण म्हजोच अदमास चुकलो. ताचे आवयबापूय खूब समजिकायेचे आशिल्ले. ताणीच म्हजे सगळे दुबाव आडवे घाले आनी मागीर म्हाकाय दिसलें, असलें घर मेळपाक नशिब जाय! ताच्याच आवयबापायन एक गजाल सांगली, "आमच्या घराण्याची पध्दत आसा, चलो संवसार थाटपाक मुखार सरलो म्हणटक ताणें आवयबापायकडचें हांथरूणपांघरूण कुशीक व्हरपाचें."

म्हज्या लग्नाविशी बाबान कांय म्हळें ना, आज्जेन मात मातशें तोंड वाकडें केलें." आमची जात तांची जात... निमाणें चली आवयचें बडीर गेलें. जातीभयलो घोव सोदलो!" एके सादे पध्दतीत आमचें लग्न जालें. लग्नाचो खर्च थोडोच पूण तो हांवें आनी राजेशान केला. आपले जोडींत लग्न जावप, तातूंत कोणाचोच पैसो घेवप ना, हे ताचे मत म्हाकाय पटलें. राजेशाचो आवयबापूय, म्हजो बाबा, अंकिता, आरती आनी आमच्या ऑफिसांतली मेज्जून धा मनशां. आज्जी मात कमर धरिल्ल्याचें निमित्त करून घरा रावली. सोयरीं-धायरी कोण ना. म्हजी मांय आमचे जातींतली, शिक्षिका ती. पूण मांव भायले जातींतलो, सेल्समॅन म्हूणून लायटीच्या सामानाची विक्री करपी. स्वभावान खूब बरो. ताणें म्हाका रोखडेंच आपणायलें. अंकितान म्हाका एकविसाव्या वाडदिसाक चार कांकणां केल्ली. तिवूंय मांयन घेतलीना. आपले सुनेक भांगर घालपाचो अधिकार आपलो म्हूण चार वस्तू घाल्यो. पुताचो नवो संवसार आपल्या हातान मांडून दिलो. नव्या बिराडांत वतना आईन म्हाका लागीं घेवन म्हळें,"ल्हानपणापासून राजेशाचें सगळें हट्ट आमी पुरयले आनी सगळ्यांत व्हडलो हट्ट तुवें पुरो केलो. आमी तुजें उपकार जल्मांत विसरचीना. कारण म्हज्या पुताक सूख आनी स्वास्थ्य दिवपी तूं. एक राजेश तुवें व्हेलो, आतां आमकां दुसरो माणकुलो राजेश दी."

म्हज्या लग्नान बाबाक व्हडलीशी खोस जाल्ली दिसलीना. आनी आपुण चलयेखातीर कांय करूंक शकलोना हाची खंतूय जाल्ली दिसलीना. अंकिता मात खूब रडलें. आई वचत पासून अंकिताक कितें जाय नाका तें हांवूच पळयतालें. तेंवूय आपल्याक कितेंय दुःखलेंखुपलें जाल्यार म्हाकाच येवन सांगतालें. म्हज्या लग्नाक लागून खऱ्या अर्थान फक्त अंकिता हाल्लें. लग्न जावन दोन म्हयने सुखान दोन घास खाले. राजेशान कांयच उणें केलेंना. चुकून लेगीत केन्ना आईची याद

ाडलीना. भरभरून मोग दिलो.. सगळया रुपांनी तो म्हजेर मोगाचो शिंवर रतालो. आदींमदीं राजेशाची आईबाबा आमकां मुद्दाम जेवणाक आपयताली. ाट भरून म्हजेर माया करताली. तिणें राजेशाक आनी म्हाका केन्नाच दावें उजवें लें ना. उरफाटें मुठभर म्हाकाच चड दिताली. म्हाका घुस्मटिल्लेभशेन जातालें. गळयांच्या प्रेमान हांव सुखान नंदतालें. केन्नाय अंकिता येतालें, चार दीस रावन तालें. राजेश ताका भयणीपरस बरें करतालो. अर्थ अपुर्बायेंतच कितेंच कमी रनाशिल्लो.

ल्हवू ल्हवू आईक विसरून वता आसतनाच हिका फोन कित्याक करूंक ाय आशिल्लो?...

पत्त्याप्रमाण हांव त्या स्टॉपार देवलें. कागदाचेर बरयल्लो पत्तो वाचलो तरीं ांय अदमास येना जालो. हांव मातशें गोंदळिल्लेभशेन जालें. काळजांत वोगीच धडधडलें. सम्जा, मेळळें आईचें घर एकदम आनी तीच मुखार आयली जाल्यार? र हांव कितें करतलें? कशें वागतलें तिचेकडेन? ती तरी म्हजेकडेन कशी वागतली? गीच आयलें हांव तिका मेळपाक. कितें गरज आशिल्ली म्हाका तिका मेळपाची? खिणभर दिसलें, परत बचचे. तिका मेळून कितें बरें जावपाचें आसा? येतली ती परत? आनी आयली जाल्यार? बाबा आनी आजी तिका घरांत घेतली? तिका परत आपणायतली?

हेवटेंनतेवटेंन पळयलें. पत्त्यावयलो 'आसरा निवास' खंयच दिसना, म्हूण एका मनशाक विचारलें. ताणें पत्तो बारीकसाणेन वाचलो आनी वाट दाखयली. त्या मनशान दाखयल्लेप्रमाण एका अरूंद रस्त्याचे वाटेन हांव चलत रावलें. फुडें एक दोन बंगले नदरेमुखार पडले. आनी मदींच एक सुंदर बंगलो दिसलो. 'आसरा निवास'. बंगलो पळयनापुडें कल्ल जालें. इतलें व्हडल्या घरांत आई सवता? परत पत्तो सारको वाचलो. तिणें वर्णन केल्लें तशेंच घर आशिल्लें. घराभोंवतणी व्हडलें कंपाउन्ड, मदीं एक व्हडली गेट, गार्डनीय वायटशें नाशिल्लें. नायजाल्यार आईक पयलींपासून झाडांचें पिशें. आमच्या पोरसांत तिणें कितलीं झाडां लायिल्लीं. हेवटेन तेवटेन पळयत हांवे गेट उगडपाक हात मात लायला म्हज्या कानार सुण्याचें भोंकप पडलें. हांवें कच्च्य करून आंग काडलें. जाल्यार एक धा बारा वर्साचो गोरो पिट्ट भुरगो भायर आयलो. आरे देवा, घर चुकलें दिसता. त्या भुरग्यान सुण्याक घट्ट धरलो आनी म्हाका भितर येवपाची खूण केली.

“मम्मी कोण तरी आयला.” ताणें मोठ्यान आपले आवयक उलो माल्लो. म्हाका कच्च जालें. उलो मारनाफुडें बेगीबेगीन एक बायल भायर आयली. आई? हय, आईच!

“मनिषा, बायऽऽ” “हय.” हांवें कशेबशें म्हळें, आई झपझप सपणां देवली आनी पासयेचेरूच दोनूय हातांनी म्हाका घट्ट धरलें.

“यो, यो. हांव तुजीच वाट पळयतालें. हांव जाणां आशिल्लें तूं येतलेंच म्हूण, म्हजें बाय तें.” तिणें म्हजो हात सोडूंक नाशिल्लो.

“कोण, मनीषा आयलां?” एक खणखणीत पुरूशी आवाज कानार आयलो.

“हय, मनीषा आयलां.” उपाट खोशयेन आईन सांगलें. तो मनीस काय म्हाका दिसलोच ना.

“यो, यो, भितर यो” आईन म्हाका तशेंच हाताक धरून भितर व्हेलें. तिचेबरोबर हांव आपशीच भितर पावलें. उत्सुकताय, धडपड आनी मनांतलो संभ्रम तसोच आशिल्लो. हांगा येवन हांवें चूक बी करूना मू? आईन म्हाका ओडीत भितर व्हेलें आनी हॉलाच्या मध्यार उबें केलें. दोनूय हात म्हज्या खांद्यार दवरून ती म्हाका वयर सकयल नियाळीत रावली.

“केदें व्हडलें जालें गो तूं? आनी कितलें सुंदर दिसता. लग्न केलें मुगो? मनासारको घोव मेळ्ळो मुगो? नाय जाल्यार म्हजें हें सुंदरेक कोणूय राणी कसोच दवरतलो.” म्हाका हांव एकदम ल्हान जाल्लेभशेन दिसलें. पूण तिका कसो प्रतिसाद दिवचो तेंच कळना जालें. हांसूंक येना, रागूय येना. सगळें आंग, सगळयो संवेदना जड जाल्लेभशेन जालें.

आईच्या वागपांत कितेंतरी नकलीपणा आसा अशें म्हाका दिसपाक लागलें. हांव तिका खरेंच हांगा आयिल्लें जाय आशिल्लें काय? “कशें आसा?” मात्शे हांसून पूण गंभीर तोंडान आईन विचाल्लें. तेन्ना मात हांव थेट आईच्या तोंडाकडेन पळयत रावलें. तिच्यांत व्हडलोसो कांय फरक दिसलो ना, ती तशीच आशिल्ली. उरफाटें ती पयलींपरस टवटवीत दिसताली. सशक्त दिसली. म्हाका आनी तिका पळयल्यार ती म्हजी आवय अशें कोणूच म्हणचोना. म्हजी भयणूच कशी! आंगावयली कात बरी तिकतिकताली. माथ्यांत एकूय धवो केस दिसलो ना आनी आंगार खंयच वाडिल्ली चरबीय दिसलीना.

"मनीषा, तुवें येवन खूब बरें केलें, मदीं म्हाका दिसतालें तूं येवचेंना. काळधरयां तूं सामकें दोळयांमुखार येतालें." इतल्यान तो व्हदळचो भुरगो तिच्या हऱ्यांत आयलो आनी "मम्मी, हांव भायर वता." अशें सांगून सायकल घेवन भायर गेलो. हांव ताका पळयत उरलें. आई म्हाका पळयत आशिल्ली. "हो रोहन, हजो चलो..." आंगार शिर्र करून कांटो उबो रावलो. आतां म्हाका घुंवळ येवपाकडेन पाविल्ली. म्हजी ती अवस्था पळोवन आई बेगीन भितर गेली. दिसलें, अशेंच तोंड धांवन वच्चें परत. हेच सगळें पळोवपाक हांव हांगा आयलां? तिचें वैभव, हो आलिशान बंगलो, दारांत मोटार, घरांत सगळयो सुख सोयी आनी हें सगळें उणें म्हणून तो भुरगो? म्हणटकच हिणें कोणाकडेन लग्न केलें? काय अशीच कोणाबरोबर रावली? एक आनी दोन न्हय हजार प्रस्न मनांत धुमशेणां घालपाक लागले.

इतल्यान आई उदक घेवन भायर आयली. तिणें म्हज्या मुखार उदकाचो ग्लास धरलो. म्हजो ताळो सामको सुकून आयिल्लो. पूण ह्या घरांतलें उदक पिवपाचें काय ना? आनी तेंवूय आईच्या हाताचें? ना. पूण आपसूक हात मुखार आयलो आनी हांव घटा-घटा उदक पिलें. खूब म्हळयार खूब बरें दिसलें. इतल्यान माळयेवेल्यान एक प्रौढ मनीस शर्टाची बटणां लायत सोपणां देवपाक लागलो.

"घर सोदपाक त्रास पडलो ना न्ही?" तो प्रस्न म्हाका म्हूण समजूपाक बरोच कळाव लागलो पूण कळळें तेन्ना 'ना' म्हणटना खूबूच गडबड जाली. म्हज्या तोंडावयल्यान घामाची पावळी देंवली. आईन वचून फॅनाचो बटण दामलो. तो मनीस म्हजे मुखावयलें कदेलीर बसलो. केस हयन्हयशे थोडे पिकिल्ले. लांबोड्या तोंडाचो, चड गोरो न्ही, पूण बरोच लांब, सुंदरय आशिल्लो. आरे, हो चेहरो म्हाका वळखीचो दिसता ! कोण? कोण हो? हांवे म्हज्या मेंदवाचेर ताण घालो. आरे हो आमच्या शेजराकूच बिल्डींग बांदतालो, तो कॉन्ट्रेक्टर-बिल्डर. आत्र्या पयऱ्यान येतालो. नव्या नव्या बिल्डींगाची कॉन्ट्रेक्टां मेळिल्ल्यान तो थंयच एका ब्लॉकांत रावतालो. येत्या वेत्याक हांसतालो. हात उबारून अंकिताक केन्नाय कॅडबरी दितालो. हाचेबरोबर आईन... म्हजो मेंदू चरचरपाक लागलो. आई आमकां सोडून गेल्या उपरांत हो मनीस थंय दिसपाचो बंद जालो. हां, खरें, तो रावतालो तो ब्लॉकूय मदीं बंदूच आशिल्लो. इतलो लागीं आसून लेगीत आमकां दुबाव लेगीत आयलोना. घडये बाबाक खबर आसूंक जाय. घडये लोकांकूय खबर आसत पूण आमकां आयजमेरेन खबर नाशिल्लें आनी कोणे सांगलेंय ना.

"तुजी आवय म्हज्या आयुश्यांत आयली आनी म्हजी जीणूच बदलून गेली.

जिविताचो अर्थ कळ्ळो, आयज म्हाका कांयच उणें ना. फक्त तिची..." तो मुखार कितें कितें उलयलो. म्हाका ताची उतरां सहन जायना जाली. हांवें नदर पेपराचेर घाली आनी पेपर हातांत घेतलो. आईक हो मनीस कित्याक आवडलो? पैशेवालो म्हुणून? बाबा, मनीस म्हुणून कितलो बरो आशिल्लो. ताची सर हाका येता? कितलो समंजस. नाजाल्यार आनीक खंयचो दादलो आपले बायलेक अशी वचूंक दितलो आशिल्लो? आनी ही बायल कसली? ह्या दादल्याच्या नादाक लागली? दोन भुरग्यांची आवय. एक प्रौढ बायल. बायलां इतली नीच, उणाक आसता काय?

"बरें, बसात तुमी. हांव मात्सो भायर सरता. सोसायटीचेर लोक येवपाचे आसात तुमी बरेभशेन उलयात. तुमची खूब याद येता तिका. तूं तिका समजून घेतलें अशें दिसता म्हाका..." ताणें आईकडेन एक नदर मारली आनी तो भायर सरून गेलो.

आईन म्हाका एकदम हात लायत विचारलें " तुजे आवडीचो गोड शिरो केला. आतां खाता काय मागीर मात्शें रावन खाता?" ती सामकी अपुर्बायेन विचारताली.

"नाका, कांयच नाका. हांव रोखडेंच वतलें."

"कित्याक गो?" आईन सामकें कासावीस जावन विचारलें आनी सामकीं लागीं आयली.

"मातशी पयसुल्ल्यान उलय." हातांतलो ग्लास तिच्या हातांत दित हांवें म्हळें. आई फटक करून त्याच वेगान फाटल्यान सल्ली. दोळ्यांत दुकां हाडींत तिणें विचारल.

"म्हजेर पिकार?" हांव कांयच उलयलेंना. आई परत म्हज्या मुखावेल्या कदेलीचेर बसली.

"मनीषा, अंकिता कशें आसा? कितें करता? तशेंच मस्ती करता काय सुदारलां म्हज्याफाटल्यान?"

"खूब शाणें जालां. सगळीं बरीं आसात आनी कोणाचें विचारूं नाका."

"लग्न केलें न्ही?"

"चड कांय विचारूं नाका. फोन कित्याक केल्लो?"

"सहज." तिचो आवाज सामको थंड जालो.

"सहज म्हणजे, इतले वर्सांनी आमची याद आयली.?"

"सदां येताली, पूण कांयच करपाक शकलें ना. तशें धाडसूच जायना जालें." आईन तोंड सकयल घालीत सांगलें.

"आतां केल्लें गजालीचो पश्र्चाताप बी जाता?"

आईन फटकन वयर पळयलें आनी हांसून म्हळें,"पश्चताप निखालस ना." मागीर मात तिचो आवाज करारी जालो. स्पश्ट जालो. घर सोडून वचपाचो निर्णय सांगतना जाल्लो तसोच. "म्हाका पश्चत्ताप जावपाक हांवें तशें कांय केलें ना. हांवें सगळें निर्णय पूर्ण विचाराअंती घेतल्यात. तशेंच जावपी परिणामाचीय हांवें केन्ना पर्वा करूंक ना. म्हजें कुळार बरें सुशिक्षित लोकांचें आशिल्लें. बऱ्या कुटुंबाचें चली हांव संस्कारी, शिकिल्ल्या व्हडल्या कुटूंबात वाडिल्लें. व्यक्तिस्वातंत्र्य आमकां आशिल्लें. म्हज्या हेर भयणींनी मोग करून लग्न केलें. भयणीनूंच कित्याक पुराय कुटूंबान आपल्या मर्जीप्रमाण लग्नां केल्लीं. म्हजी चल्यांविशी एकूच अट आशिल्ली ती म्हळयार मनीस सामको प्रामाणिक आनी समंजस जाय दुसरें कांय नाजाल्यार जाता. कोणेंतरी तुज्या बाबाचें स्थळ सांगलें. आवय लोणचेंपापड करून संवसार चलयता आनी त्याच धंद्याक हो भुरगो हातभार लायता. तोच म्हाल तो दुकानाचेर घालता. आमच्या घरांत हो चलो भुरगो कोणाकूच पसंत नाशिल्लो. तांचे म्हणणें किमस हागतलें कितें आनी शेणी थापतल्यो कितें! पूण कोण जाणा म्हाका कितें जालें. ह्या मनशाविशी म्हाका एकेतरेचे आकर्शण दिसपाक लागलें. आनी कोणाचेंच आयकनासतना हांवें ताचेकडेन लग्न केलें. मागीर तुमी दोगांय जाली. दोगीय चलयोच. तुजे आज्जेक आनी बाबाक आनी एक अपत्य जाय आशिल्लें. अपत्य म्हळयार आनी एक चलो भुरगो. वंशाक दिवो! पूण हांवें आयकलेना. चलयो जाल्यार जांव. म्हाका भुरगी पुरो. तिसरें जावपाक दिवचेंना आनी जावपाक दिलेंय ना."

मागीर घर सोडपाची वेळ आयली. तुज्या बाबान सांगले," वचपाचे आसल्यार मोन्यांनी चल." पूण हांवें सांगलें "तशें वचचे ना, चलयांक तर स्पश्ट सांगतले आनी मागीरूच घर सोडटलें." तशें सांगूनूच हांव भायर सरलें. पोरणो संवसार

मोडून नवो संवसार मांडलो.

"कित्याक ? कित्याक तू आमकां सोडून गेली? ह्या मनशाखातीर हाचेपरस म्हजो बाबा, तो गरिब पूण मनीस म्हूण कितलो व्हड आनी श्रेश्ठ!"

"तो तुजे नदरेन श्रेश्ठ आसत. एक लक्षांत दवर, शंबर नंबरी भांगर सगळयांक आवडटा पूण तें कान खावपाक लागलें जाल्यार तें आंगावयलें काडलेबगर दुसरो उपाय नासता. म्हजें जगपाचें काय खाजगी मुद्दे आसात. तूं तुज्या बापायची आनी ह्या मनशाची तुळा करूं नाका. हांव तरी करपाचें टाळीत आयलां. खंयचोय मनीस पुराय बरो नासता आनी सामको वायटूय नासता. आयुश्याच्या एका मोडणार तुजो बाबा म्हाका नाकासो दिसपाक लागलो.

"कित्याक?" हांवें मदींच प्रस्न विचारलो.

"ताकां खूब कारणां आसात. एक तर खंयच्याय गजालीचो निर्णय घेवप ना, ती गजाल बारीक आसूं वा व्हडली आसूं. आपणें कुशीक रावप हो तुज्या बापायचो स्वभाव. आनी होच स्वभाव म्हाका केन्ना आवडलोना. मनशान खडबडून उठपाक जाय आनी उदरगतीवटयां उडी घेवपाक जाय, अशें म्हजें मत. म्हजो संवसार म्हाका दर दिसा चिंता, त्रास करतालो. म्हाका हें नाका आशिल्लें. हातूंत तुजो बाबा सदांच कमी पडलो."

"मागीर आमचो जल्म जावचें पयलींच तुवें बाबाक सोडपाचो आमकां तरी त्रास जावपाचे नाशिल्ले."

"ना. मनीस हो ल्हवू ल्हवू उदरगतीकडेन वता हाचेर म्हजो विस्वास आनी श्रध्दा आसा. पूण उदरगत आपशीच जायना. तेखातीर खूब कश्ट घेवचें पडटात. धाडस करचें पडटा."

"मागीर तुवें कित्याक फुडाकार घेतलो ना?"

"खूब घेतलो. तुजी आजी लोणचें पापड करताली आनी बाबा तीं गाड्यांचेर, पसऱ्यांचेर घालतालो." कितले फावट सांगलें हांवें "आमी स्वताचो पसरो घालूंया". निमाणें म्हज्योच वस्ती विकून हांवें तो पसरो घेतलो. पसरो घेतलोच म्हूण जायना, तातूंत म्हाल लागता. हजारवेळा सांगले, थोडें रीण घे. आमी पसरो वेवस्थित चलोवंया. तुका आदार करपाक हांव फाटल्यान आसा. हाका ताका पांया पडून हांवेच रीण घेतलें. तर तें फारीक जायना. हाडिल्लें सामान खपोवपाक जायना

खंयचो म्हाल चड हाडचो, खंयचो कमी हाडचो हाचेंय धंगण ना. दर आठवड्याक इतलें कांदे इतले बटाट हांव ह्या हातांनी भायर उडयतालें.

रिणकार दारांत उबें रावतालें. बँकेतल्यान पत्रां येतालीं. अशें वेळार हांव तांच्यामुखार उबें रावताले. तांच्यो नदरो म्हाका चाट्टाल्यो. मागीर आमकां कोणूच उदार रावना जालो.रीण घेवपाची पत व्हगडावन बसलो. तेन्ना तो म्हाका नाका जावपाचे अवस्थेचो कळस जालो. आनी हांवें तांका सोडून वचपाचो नित्शेव केलो."

"पूण ह्या बिकट परिस्थितींत बाबाक सांगात दिवपाचें सांडून पळून गेली?"

"सांगात कितलो काळमेरेन दिवपाचो? तब्बल वीस वर्सां सांगात दिलो ना? हो काळ कितें कमी जालो? कितलें फावटी हांवें तांका सांगलें, हांव खंयूय काम सोदूं? पूण म्हाका कामूय करपाक दिलेंना. खरें सांगू, लोणचें पापड करपी एके बायलमनशेचो पूत तो. ताका सदां खावपाचीच चिंता. दोन वेळचें खावपाक मेळ्ळें म्हणजे जालें. दुसरें कांयच नासल्यार जाता. कसलोच बदल नाका. तेंच जेंवण, तेंच घर, तेंच हाथरूण, तेंच पांगरूण, तांतूत कसलोच बदल नाका. तुकां सागता मनिषा, हांवें जेन्ना घर सोडपाचो नित्शेव केलो तेन्ना हांणे कसलीच चिंता उक्तायली ना. जशें काय हांव तांच्या आयुश्यांत आशिल्लें कितें आनी नाशिल्लें कितें सारखेंच ? घडये तांच्या घरातलें एक खावपी तोंड उणें जालें इतलेंच ताका दिसलें आसतलें. दोन वेळचे जेवण रांदपाक जाय हाचीय ताका चिंता नाशिल्ली. तें करपाक ताची आवय आशिल्लीच आनी जाय जाल्यार शिळें-करपल्लें घालपाइतली तुमी व्हडलीं जाल्ली."

"इतलेंच कित्याक, तूं वता जाल्यार तुज्या भुरग्याकूय घेवन वच अशेंच ताका सांगपाचें आशिल्लें, सांगिल्लेय ताणें. ताका तुमचें वजें न्नाकाशिल्लें. पूण हांवें न्हंयकार दिलो तुमची जबाबदारी तांणीच सांबाळपाची आनी तुमी म्हजेबरोबर येवचीना हें म्हाका खबर आशिल्लें."

म्हजी तकली सामकी सण्ण जाली. एक खरें, खंयचोय निर्णय घेवपाची वेळ आयली म्हणजे बाबा ओगीच रावतालो. मुळांत कोणाकूय केन्नाय कितेंय करपाक ताणे आडायलेना. आजी इतली बडबडत रावताला. आमचेर तापत रावताली आमचेरूच कित्याक बाबाचेर लेगीत. पूण तो तिका ओगी रावपाक केन्नाच सांगनाशिल्लो. आई घर सोडून वचपाक लागली जाल्यार तिकाय आडायली

ना. एक दादलो तूं. तुजो हक्क आसा, अधिकार आसा ताचो तूं वापर करिना. हांवें लग्नाचो निर्णय घेतलो जाल्यार बाबान कसलीच भुमिका घेवंक ना, कसलीच जबाबदारीय घेवंक ना. ना आडायलें, ना कसलें समर्थन केलें. वोग्गी रावलो. जशें कांय आमकां कितेंय करपाक स्वातंत्र्य दिलां. पूण तें स्वातंत्र्य न्ही, ती आपली भिजूडपणां. थीर रावून अदमास घेत रावप. सदांच स्वतःचेंच सुरक्षिततेचो विचार करप. हांव ओगी रावलें तें पळोवन आईन म्हळें, "तांका सांगात दिवपाक हांव आशिल्लें, हांवे तें सिध्दूय करून दाखयलें पूण ताका सांगात घेवपाची इत्साच नाशिल्ली. हांव म्हजे करणेचें समर्थन करता अशें समजूं नाका तूं. म्हजी भूमिका हांव सांगता. कारण आतां तूं जाण्टें आनी समंजस जालां. बरें वायट, खरें फट पारखुपाक तुका कळटा. म्हजें पयलें अपत्य म्हुणून, एक चली म्हूण तुकां सांगता. म्हाका खबर आसा, हांव घर सोडून गेलें तेन्ना खूब धांदळ जाल्या जातली. बोवाळ जातलो. सगळ्यांक दिसतलें, हांव बदफैली, अविचारी ! कोणांक कितें म्हणपाचें आसा तें म्हणलां आसतलें. हांव तांका म्हत्व दिना."

" हांव म्हाका जाय तशेंच आयुश्य जियेवपी. वीस वर्सां तांचेबरोबर संवसार केलो. खूब उबगण आयली. ती पचपचीत जीण जगपाचो वीट आयलो. लग्न करतनां खूब सपनां पळयिल्ली. दिसतालें, आदीं त्रास कश्ट काडून लोणाचीं पापड करून संवसाराचो गाडो धुकल्लो. हाल, अपेश्टा, अहवेलना सोंसली. हें परिस्थितीची ताका केन्नातरी उबगण येतली, वीट येतलो आनी हो नेटान उबो रावतलो. धडपडून उठटलो. आपणालें नवें विश्व उबें करतलो. जाणीं अशें विश्व उबें केलां, ताणी खूब सोसला. पूण त्या मनशांनी आयुश्यांत कितेंतरी वेगळें करून दाखयलां. ते मनीस आमचें आदर्श जाल्यात. इतिहास गवाय आसा पूण तुजो बाबा ह्या इतिहासांतलो एक आडवाद कसो मनीस. भयंकर स्थितीशील आनी परिस्थितीक शरण वचपी मनीस तो. केन्ना ताका दिसलेंना, बायलेक, भुरग्यांक वेवस्थित दवरचीं. तांका चार-चौगांत भोंवडावचें. इतल्या वर्सांत आमी खंय वचून आयलीं ना पूण हाची खंत ना. तुज्या मामालें घराणें व्हडलें. थंय वचपाक गाडी-घोडे जाय. आमचें पतीखातीर न्हंय पूण ताचें. पूण एकदांय थंय मनारकें वचपाक मेळळेना. म्हज्या भावाच्या, भयणीच्या भुरग्यांक केन्ना हात उखलून मनासारकें दिवपाक शकलें ना. सदांच म्हज्या घराक बुराक ! आनी मजा म्हळयार हाचें तांका केन्ना वायट दिसतलें पूण हावें उलोवन दाखयलेंना केन्ना. "पूण, एक सांग आमी तुजें कितें वायट केल्लें? आमकां कित्याक सोडलें तुवें?"

"तुजेकडेन उलोवपाक म्हाका आतां कसलेंच परकेंपण दिसनां तू लग्नूय जालां. म्हज्या वागण्याचो तुका रागय येवप सभावीक आसा. पूण बाय, तुमकां सोडपाचो निर्णय हावें एका रातींत घेवूं ना. तूं अकरा वर्साचें आसतना हो मनीस, बिल्डर कॉन्ट्रक्टर म्हज्या आयुश्यांत आयलो आनी तूं सोळा वर्सांचें आसतना हांवें घर सोडपाचो निर्णय घेतलो."

"मनिषा, हांव भरिल्ल्या कुटुंबातलें मनीस. बापूय भाव म्हजेर खूब माया-मोग करपी. हांगा लग्न जायत सावन म्हाका कोणें जीव लायलोना. आनी म्हाकाय लावपाक दिलोना. कुडीन हांव उपाशी आशिल्लें. म्हाका कितें जाय तें हें न्ही. हांचे परस तें कितेंतरी वेगळे आनी बरें आसूंक जाय अशी म्हजी धारणा जाल्ली. म्हाका सांगपाक लज दिसता, पूण तुजो बाबा जें कितें दितालो तांतूंत हांव अतृप्तूच उरलें. जेदेवेळार म्हाका कितें जाय दिसतालें तेदेवेळार तो 'दादलो' म्हूण कमी पडटालो. वा ताची वासनाय सोंपताली. बायलेक तापपाक वेळ वता तसो तिका न्हिवपाकूय वेळ लागता. तितलो वेळ तुजो बाबा म्हाका दिवंक शकनाशिल्लो, अशें हांव म्हणना. पूण ताका शृंगार, प्रणय हांतुतलें कांयच खबर नाशिल्लें. कुडी मेळप म्हळयार पाच मिनटां एकठांय येवप न्ही. कुडी मेळप म्हळयार एकामेकांत श्वास भरसप. दोगांयच्या कुडींतलें रक्त तापप आनी तांतुतल्यान जें भायर येता तें त्या कुडीसुखाची सांगता आसता. आनी जेदेवेळार म्हाका प्रणय हो कितेंतरी वेगळो आसता आनी म्हाका तो मेळपाक जाय अशें जेन्ना म्हाका दिसपाक लागलें तेदेवेळार मेघःश्याम एक बिल्डर म्हूण आमच्या गावांत आयलो. शेजराची बिल्डींग बांदतना, बाजाराक येतना वतना आमची वळख जाली. पिरायेन म्हजेपरस पांचेक वर्सांनी ल्हान तो. गावांत नोकरी ना म्हूण ह्या कॉन्ट्रॅक्टाच्या निमतान तो हांगा पाविल्लो. वेवसायान सीवील इंजीनीयर. पूण चार पैशे मेळटकच हांगाच ताणें आपलो वेवसाय सुरू केलो."

"ल्हवू ल्हवू आमची वळख वाडत वताली. असोच एक दीस एक रिणकार म्हाका वाटेरूच मेळ्ळो. म्हाका जाय फाय उलयलो. निमाणें ताणें म्हळें, 'घोवाक सांग, ताच्यान तर फारीक करूंक जायना, तेखातीर हांव तें तुजेकडल्यान फारीक करून घेतां' त्याचवेळार हो बिल्डर थंय आशिल्लो आनी हाणें त्या मनशाचेर चार थापटां फुलयलीं. 'एके बायलमनशेकडेन तुकां उलोवपाक कळना?' अशें म्हणून ताणें पैशांचे बंडल ताच्या तोंडार मारलें".

" आनी त्याबदल्यांत तूं ताची जाली?" हांवे विचारलें. आई कितलो वेळ

कांयच उलयलीना. ओंठ थरथरपाक लागलें. कांयखीण म्हजेकडेन पळयत उरली."
" तितलेंच कारण आसतलेशें दिसता तुका? तुज्या बापायचें चलणुकेन खूब उबगल्लें हांव. हें कारण तुका म्हत्वाचें दिसना.?"

"म्हुणून स्वतःचो संवसार सोडपाचो?"

"जंय आपलें मन रमना, तो कसलो संवसार ! स्वतःच्या मनासारखें म्हुणून जगप आसता, हें तरी तुका पट्टा? मनिषा, आयकून घे. हांवे आयुश्याचे खूब चड-उतार पळयलें, अणभवले. आमी म्हणटात आमचो बायलांचो जल्म असो पावसान भिजयले आनी घोवान मारलें जाल्यार तें मोन्यांनी सोंसपाचें बरोबर कोणाचोय मार सोसूं येता पूण ताचें भिजूडपण सोसूं नजो. घोव बायलेक मारता ताका सुध्दा धमक लागतां."

"जाणा तू? आमच्या शेजरा ती अम्मा रावताली. याद जाता? लोकांगेर काम करून पोट भरताली आदीं मदीं म्हजेंय काम आयकताली. थंयच रावताली, तें चाळींत. आदीं मदीं मध्यान्नीचेर तिच्या घरांत बोवाळ जातालो. घोव तिका खूब मारतालो. एक दीस अशीच म्हजे गंव वेंचपाक पडवेर बशिल्ली. हांवें तिका बेठेंच सहज विचारलें, 'दिस-रात घोव तुकां मारता. दिसना तुकां ताका सोडून वचचें अशें? तूं कांय ताचें जोडीचें खायना. तूं हात पांय हालयता. ताचो मार कित्याक खाता?' तिणें म्हाका कितें जाप दिवची ? "म्हजेर तो खूब मोग करता. हांव हांगा थंय काम करतां म्हूण बेजार जाता. ताचेवेलें लक्ष कमी जायत म्हुणून भिता. सोरो पिता आनी म्हजेर दुबाव घेता. पूण तो रातचो म्हाका कुत्र्याभशेन चाट्टा आनी सगळयांत चड तें आवडटा म्हाका. ताका सोडून हांव खंयच रावपाक शकचीना. ताचो म्हाका केदो आदार ! तो खऱ्या अर्थान दादलो. ताचेखातीर कोणूय म्हाका दोळे वयर करून पळयना. असलो घोव आसत जाल्यार कसलीच भिरांत ना. हांव ताचेबरोबर रातचें सिनेमाक वता. खंयूय वतां बाकिच्या बायलांक रातचें घोवाबरोबर वचपाक भंय दिसता. पूण म्हाका तो आसल्यार कोणाचोच म्हळयार देंवचाराचो लेगीत भंय दिसना. तो म्हाका खऱ्या अर्थान सुखी दवरता. एक दीस हात लायलो म्हुणून कांय जायना. दादल्यान दादल्याभशेन वागूंक जाय.? मनिषा हें तिचें तत्वज्ञान. समजलें?"

"आमी बायलां आवयगेर परक्याचें धनूच म्हूण वाडटां. पावालां कणकणी आमकां तेंच आयकुचें पडटा. तूं अशें वाग. तूं तशें कर. तुज्या घरा तुवें सारकें

वागपाक जाय. आतां रावतां तें तुजें घर न्ही. आनी वीस वर्सांचेर त्या घरांत मूळां रुतपाक लागता अशा वेळार आमकां हुमटून परक्याच्या घरा, परक्या मनशाच्या सुवादीन करतात. आचार विचार, रावप, खाण जेवण सगळें बदलचें पडटा. आमी तेंवूय सोंसता. कोणाखातीर? फक्त एका घोवाखातीरूच न्ही? घोव म्हळयार आमचें राखणेचें कडे कशें. इतलेंच कित्याक? इतलो तेप सांबाळून दवरून ही कूड आमी तांच्या सुवादीन करतात. तो आयुश्यभर आमची राखण करतलो, आमकां पोसतलो,आमकां सांबाळटलो ह्याच भरवंशार! पूण जेदेवेळार पदरांत निर्शेणी पडटा तेदेवेळार हातांत कांयच उरना वेळ सरिल्लो आसता. आंगात बळ उरना, शक्ती उरना आनी वासनाय उरना. आयुश्य कुडत काडचें पडटा. सर्कशीतल्या वागासारखें म्हाका हें नाका आशिल्लें. आयुश्याच्या एका मोडणार म्हाका दिसलें, खूब केलें घराखातीर, भुरग्यांखातीर. आतां हांवें फक्त म्हज्याखातीर जगपाचें. आनी धा-बारा वर्सां हांव म्हाका जाय तशें जगूंक शकतां. आनी म्हूण हांवें हो निर्णय घेतलो. हांवें तुमचेपरस थोडो म्हजो विचार अदीक केलो. ना म्हणना हांव. हांव सुवार्थी आसत पूण मूर्ख न्ही."

"पूण जर तुका हो मनीस मेळूंक नाशिल्लो जाल्यार तू थंयच रावची नाशिल्ली? तशीच दीस काडची नाशिल्ली?" हांवूय म्हजें भुमिकेचेर ठाम आशिल्लें.

"केन्नाच रावचें नाशिल्लें. हांवें तें घर सोडपाचो पक्को निर्णय घेतिल्लो. खूब घुस्मटलो जीव त्या घरांत. सुख म्हणटा तें केन्ना आदळळेंच ना. सुख म्हणजे केन्नाय स म्हयन्यानी तो आयस्क्रीम खावपाक व्हरतलो. तेंवूय अंकिताखातीर. आयुश्याकडेन झगडपाक जाय, झुजपाक जाय दिसान दीस मनशाची उदरगत जावपाक जाय. चलीमनीस वाडटा. तांच्यो सगळयो गरजो सांबाळपाक जाय. फकत दोन वेळचें जेवण मेळप म्हळयार जगप न्हय. तें सुणें, माजर पुसून मेळयता. मनान, कुडीन जगपाक जाय. म्हजें मन थंय असमाधानी आशिल्लें, रितें अतृप्त आशिल्लें. हांवे थारायल्ले घर सोडपाचें आनी एखाद्या सामाजिक काम करपी आश्रमांत वचून रावपाचें. थंय लोकांखातीर तरी कितेंय करप, कुडीन सोड पूण मनाप्रमाण जगप. पूण तुमी व्हडलीं जावपाची हांव वाट पळयतालें, भुरगीं वाडोवपाची जबाबदारी अमूक वर्सांमेरेन पाळपाक जाय. हें कितें इंग्लंड-अमेरिकेक न्ही, कि जाली सोळा वर्सां कि तांका वेगळी दवरलीं. तुमकां मनान तशीच कुडीन वाडोवपाक जाय आशिल्ली. याद जाता, अंकिताक धा वर्सामेरेन वीणी घालपाक कळना आशिल्ली. केसांची वीणी घालप म्हळयार व्हडले न्ही. अकस्मात पोर शिकलें

आनी म्हाका दिसले ''म्हज्यो चलयो व्हडल्यो जाल्यो.''

''तो मेरेन हो मनीस म्हज्या मोगांत पडलो. दर शेनवारां हांव बाजारांत वतालें. थंय हो म्हाका मेळटालो. ताकाय कोणाचे धागे-दोरे नाशिल्ले. स्वतःचे हिकमतीर तो शिकलो, येदो मनीस जालो. नाय जाल्यार कर्तुत्ववान मनशांबद्दल सदांच म्हाका आदर अभिमान. मागीर ती कोणूय जावं, दादलो नाजाल्यार बायल. हावें तांका म्हजेपरीन सांगलें. तो तुमची जापसालदारकी घेवपाक तयार आशिल्लो. हावेंच नाका म्हळें, दर एका मनशाची जगपाची पध्दत वेगळी आसता. जगपाचें आसा जाल्यार उत्केपणान जगूं या थंय तडजोड करप ना. खंच्याय आश्रमात रावचेंपरस ताकाच सांगात दिवचो, म्हजें जिवित बदलून घेवचें. आनी तुमीय आतां व्हडली जाल्यात हें सांत पांच येवजूनूच हांवें घर सोडलें. घर सोडटना चार-पांच जाणांचे रीण फारीक केलें कारण फाल्यां तुमकां त्रास जावपाक नाका. पूण तुमच्या बाबान म्हाका केन्ना विचाल्लें ना, तुवें पैशे खंयसाकून हाडले. एक बायल आनी पैशे खंयसाकून हाडटली?''

''पूण म्हजेबद्दल, अंकिताबद्दल तुका माया, मोग कांय नाशिल्लें, सगळें आटिल्लें? आमकां सोडून वतना कांयच दिसलेंना?''

''दिसलेंना कित्याक? खूब दिसलें. पूण माया, मोग म्हळयार आयुश्य, हें तरी कितलें खरें आसा? तुमच्या बाबाक तुमचेबद्दल माया आसा काय ना हे तू सांगूक शकता? हांव घर सोडून वचपाक भायर सरलें, तेन्ना तुमकांय म्हजेबरोबर धाडपाक तो तयार जाल्लो. ही ताची माया? हो ताचो मोग? कांय नासत गो बाय. एकामेकांमुखार रावन जे राग लोभ दाखयता ताकाच माया, मोग म्हणप इतलेंच. एकामेकांकडेन करपाचे वेवहार बरेभशेन केले कितें ताकाच माया, मोग म्हणटात आनी माया मोग नाजाल्यार कोण जगना? अडटा? तुमी अडलीं? जगली काय ना म्हजेशिवाय? तुमकां कितें दिसता? तुमकां माया मोग हाचो चड ओतो येता? जाल्यार मागीर फाटली धा वर्सां तुमी कितें केलें म्हजेखातीर? तळमळून म्हजो सोद घेवपातो न्ही? हांव आसा काय मेली हाची सादी वासपूस तुमी केन्ना केली? फाटली धा वर्सां तुमी म्हजो राग, तिरस्कार हाचे शिवाय दुसरें कितें केलें? म्हाका समजून घेवपाचो एकदां तरी यत्न केलो? आवय म्हूण हांवेंच तुमची माया करप आनी चलयो म्हुणून तुमी फक्त द्वेश करप? असो कितें नेम आसा? एक सांगता तुकां, तुज्या बापायचो संवसार हांवे खूब विचारपूर्वक केलो. हेरांच्या

संवसारांत घोव बायलां, माय सुनेचीं झगडीं झुजां जातात. तसलें हांवें केन्ना केलेंना. हांवूय झगडले ना आनी ताकाय केन्ना झगडपाची संद दिली ना. वादाचें प्रसंग आयले तेन्ना ताणून धरीनासतना दोगांयनी मिटयलें. भुरग्यांमुखार केन्नाच दाखयलें ना आनी वादूय घालो ना. मांयक सदांच जपलें. तिच्या तोंडाक केन्नाच लागलें ना. असली झगडाळ बायल ती, वाड्यार झगडपाक लागल्यार सगळ्यांचे बारा बिरेस्तार करपी पूण हांव केन्नाच तिचें वाटेक गेलें ना. तिणें कितेंय म्हळयार मोन्यांनी घेतलां. सामक्या काटकसरीन तुज्या बापायचो संवसार केलो. एका पैशाची केन्ना चैन केली ना. आनी मुख्य म्हळयार हट्ट धरलो ना. म्हाका जितलें शक्य आशिल्लें तितलें हांवे केलें. घरांतल्या सगळ्या मनशांचें केलें. आनी जेन्ना म्हज्या लक्षांत आयलें, आतां म्हज्यान सोंसूक जावचेंना, घडये तकलेचो फारूय जांव येतालो, तेन्नाच हांवे घर सोडलें.''

''आवय म्हुणून म्हजी काय जापसालदारकी आशिल्ली देखून चलयांखातीर हावें थोडी पैशांची वेवस्था केली. पूण तुज्या बापायन नाका म्हूण सांगले. आनी म्हाकाय ताचें म्हणणें सारकें दिसलें. दिसलें, आतां चलयोच सगळें करतल्यो शिक्षण, लग्नकार्य पूण तूं लग्न जालें तेंवूंय मोग करून. स्वतःच जुळयलें. ताणें काडीचीय तकालस घेवूंक ना. म्हळयार पयलीं भशेनूच आपलें आंगार कांयच ना घेवपाची ताची संवय अजून तशीच आसा. हांव थंयच राविल्लें जाल्यारूय तुमी लग्न जातन आप आपल्या घरा वचपाचींच. माया - मोग म्हुणून म्हज्या म्हऱ्यांत कोण रावची नाशिल्लीं. रावपाची? कोण कोणाखातीर रावनात. तुज्या बाबान केल्लो तो म्हजेर मोग? जाल्यार हांव वता म्हूण सांगता आसतना ताणें एका उतरान म्हाका कित्याक आडायलेंना? उतरान सोड, एखाद्या स्पर्शान तरी? वीस वर्सां संवसार करून ताका म्हजी मातलेगीत माया लागली ना? सुण्या-मांजराची लेगीत माया लागता. हांव मनीस. ताणें म्हाका भोगिल्ले. एक बायल म्हुणून केन्नाय जाय पडत भोगपाक म्हूण तरी आडावं येतालें?'' आई सांगत आशिल्ली. म्हजे नदरेन भरभरत आशिल्ली.

''एक सांग म्हाका फोन कित्याक केलो?''

''खरेंच तशें कांय ना गो. हरशीच. खूब फावटी दिसलें, घरा येवचें, तुमची चवकशी करची. तुमची दोगांयची खूब याद येताली. नातीं म्हळयार कांयच न्ही, अशेंय हांवें म्हळें. हो म्हजो घोव, ही म्हजी मांय आनी हो म्हजो दुसरो घोव. अशेंच

कितेंतरी. भुरगीं तातुंतल्या तांतुत आपली. आमच्या रक्ता मासांची पूण तिवूंय फुडें आपली उरना. पूण सगळयांत चड याद येता तांचीच. तांचे कितें जातलें हो हुस्को केन्ना सोंपना. घर सोडून गेलें हो निर्णय म्हजे पुरतो म्हाका योग्य आशिल्लो पूण बाकिच्यांचें नदरेन ती भयांकृत गजाल जावन आसा, हाची म्हाका जाणीव आसा."

"घरांतलो दादलो कितेंय करू शकता पूण बायलमनीस करूंक शकना. त्याखातीर परत त्या घरांत पावल घालून तुमकां पळोवपाची इत्सा आसुनूय धाडस जालें ना. नाय म्हळयार थोडी अपराधाची भावना आशिल्लीच. मनांत दर एके बायलेक आपलो घोव, आपलो संवसार कसो आसचो हे विशी आग्रो आसताच आनी तांतुतली चडशी बायलां तो आग्रो, हट्ट पुराय जालो ना जाल्यार तशीच जिवितभर त्या संवसारांत खेचत, ओढत रावता. ती सती-सावित्री जातात. तें सती-साध्वीपण तांकाय नाकाच आसता. तांका मनासारको घोव आनी संवसार जाय आसता. तो मेळना जाल्यार ती घुस्मटतात, किरकिर करीत रावतात. आनी लोकलजेखातीर थंयच कुसत पडटात. हांवे तांतुतलें कांयच करूंक ना. एक संवसार मोडून स्वतःचे इत्सेन दुसरो संवसार उबो केलो. घुस्मटत, चिडचिडत, किरकिरत रावूंना. जगाची लज धरली ना. मनासारखें जगप आपणायलें. पूण पयलींचें जगप पुराय विसरलें अशेंय ना. घोव-मांय अशी वयल्या वयलीं नातीं तोडलीं. तरी पोटांत वाडिल्लीं आपल्याचीं नातीं पुराय विसरपाक येना. तुमी तुमचें जगणें जगतात. हांव म्हजें पध्दतीन जगतां. तरी यादी येवपाच्यो रावना. बाकिच्यांचें सोड, आपल्या भुरग्यांचे तरी बरें जांवचे अशें दिसताच. भुरग्यांच्यो यादी कितल्योय पुसपाचो यत्न केलो जाल्यारसूद्धां त्यो पुसनात. त्याखातीर सदांच तुमचेविशीं कितेंतरी कळचें अशें दिसत रावचें.

"महानगर हें पूण एकाच शारांत रावतात आमी.तरीय कांयच कळपाक मार्ग ना. तुमची याद आयली म्हणटकच हांवें रडत रावप. हांणी म्हाका कितलें समजावप. तुमच्या यादींचो हांणी केन्ना तिरस्कार केलो ना. वयल्यान खूबदां तुमकां मेळून यो, तुमकां घेवन यो म्हूण सांगतालो पूण हावेंच मनाक आडायलें. देवान सगळें दिलां, कितेंच उणें ना. पूण तुमच्या दोगांयच्या यादींनी न्हिन्हळटालें हांव. मागीर हट्टान म्हणटा तशें हें धोक्याच्या पिरायेचेर तिसरें भुरगें जल्मांक घालें. स्वतःखातीर आनी घोवाखातीर. तुमची याद उणी जावपाक आनी दादल्याक बायलांचें कितेंतरी देणें लागता म्हूण हांवें रोहनाक जल्माक घालो. ह्या वयांत

ोटांत गर्भ वाडयतनां थोडीशी लज जाली पूण पर्वा केली ना. कारण एका
ळिश्ट मनशाचो सांगात आशिल्लो. तरी तुमच्यो यादी उण्यो जायना जाल्यो.
गलेच पोरणे संस्कार तशे एकार एक पुसपाक येना. कांय अवशेष उरताच.
ुमचो बापूय आजून म्हजो घोव लागता काय? आनी हो मनीस म्हजो कोण
ागता ? तांचेपासून जाल्लें भुरगें नितीचें म्हणपाचें? हो सगळो घुस्पागोंदळ
आसा."

"एक संवसार मोडून दुसरो संवसार उबो केलो खरो पूण मनांतलो घुस्पागोंदळ एका दमांत मिटना. आतांच मन खंयतरी थीर जावपाक लागिल्लें. वय मातशें जाला. तितल्यांत वर्तमानपत्रांत दिल्लो तुमचो फोटो पळयलो. तेन्ना मन आनी काळीज खूब भरून आयलें. चलयेच्या माथ्यार चार अक्षतां उडोवपाचें भाग्य मात लाबलेंना, हाची खंत भोगली. येदेशें म्हजे बाय मनिषा लग्न जावपा इतलें व्हडलें जालें! आपल्या पोराच्या लग्नाची सपनां आसतात. दोळे भरून तुजो फोटो पळयलो. हांणी त्या दिसा धा पेपर विकते घेतले. सगल्या पेपरावेलें तुजें फोटो कापून रूमभर लायल्यात. मागीर मात कशेंच रावपाक जायना जालें. आनी तुकां फोन केलो. मनांत म्हळें, कितें जावपाचें आसा तें जावंदी. तू रागार जातलें तेवूंय खबर आशिल्लें. तुका म्हजेंविशी कितें दिसता तें तरी म्हाका कळपाक जाय आशिल्लें. ल्हानपणापासून तूं समंजस आनी हुशार. खंचेय गजालीचेर बारीक विचार करपी. आपल्याक कितें दिसता तें सांगपी तूं. तुज्यामुखार येवपाकूच. म्हाका भंय दिसतालो. कारण तूं स्पश्ट उलोवपी मनीस."

"याद जाता, एक दीस अशेंच आमोरेचेर हांव तुळशीक निरांजन लायतालें. तूं आनी तुजी इश्टीण पडवेर बशिल्ली. तुज्या इश्टीणीन म्हळें, 'तुजी आवय कितली थंड. इतलें काम करून केन्ना किरकिर ना. तुकां केन्नाच तापयल्लें हावें पळोवंक ना. कितलें संथ गतीन आनी उमेदीन ही संवसाराचो गाडो चलयता.' तुवें एक खेप म्हजेकडेन पळयलें आनी म्हळें, ' म्हजी आवय तुमच्या सगळयांखातीर आदर्श, आवय आसतली, तुजी हीच उतरां परत परत म्हज्या कानांत घुमताली. आनी तुजेकडेन वचपी पावलां फाटल फाटी परततालीं. मनिषा, फोन करपा फाटलो हेतू होच."

"मागीर हांगा कित्याक आपयलें तर?"

आई म्हाका पळयत उल्ली. "आनी कित्याक तुका दोळे भरून पळोवपाक.

आतां सांग, तुका खावपाक हाडूं? कांय एकदम जेवता. सगळें तुजें आवडीचें नुस्तें आसा."

"नाका, म्हाका."

"कितें, तूं आयज हांगा जेवनूय वचचेंना?" आई एकदम कदेलीवेल्यान उठली. "घरांतल्यान कितें खावन आयिल्लें?"

"ना, पूण म्हाका कांयच नाका."

"चल, घर तरी दाखयतां."

"नाका, घर आनी कितें पळोवपाचें? हांगच्यानूच दिसता आनी पैशेवाल्यांचे घर म्हणटकच दोन चार वस्तू चड आनी त्योय म्हारग्यो आसतल्यो. म्हाका बंगल्याविशी वा गिरेस्तकायेविशी केन्नाच आकर्षण ना. मनशाक रावपाक कितली सुवात जाय पडटा? पूण जंय रावता थंय समाधान मात आसूंक जाय. हांव एकेच कुडींत रावतां. पूण म्हज्या घरांत सगळीं सुखां आसात. हांगा तीं सोदची पडटलीं."

"राग वचूंना आजून म्हजेवेलो न्ही?"

"राग काडपाक तुवें म्हाका हांगा आपोवन हाडलां?"

"केन्नाच ना."

"मागीर ? आयुश्याचें सगळें निर्णय पुराय विचाराअंती घेवपी बायल तूं आपलें कांयच चुकूंक शकना ह्या भ्रमांत रावपी बायल आनी सहज तू म्हाका हांगा आपयतली?"

"तुकां कितें दिसता?"

"तेंच तर म्हाका कळना. माये शिवाय मनशां जगूंक शकतात अशें तुजें मत आसा. म्हळयार तुवें मायेखातीर आपोवं ना हेवूय निश्चित. तुकां थोडो हुस्को, चिंता जाल्या हें खरें, पूण तेखातीर तूं म्हाका हांगा आपोवचीना. आनी तसो हुस्को करून कितें उपेग? कारण तशें आमचें नातें कायमचें सोपलां, मागीर तुवें हांगा कित्याक आपयिल्लें?"

म्हज्या प्रस्नान आई ओगीच रावली. हांवें म्हळें "चल हांव वतां."

"आगो, राव मातशें. " ती धांवत म्हज्यामुखार आयली. "बाय आयज

एकूच दीस राव न्ही. जेवून वच. हांचो येवपाचो वेळ जालो. तांका खूब वायट दिसतलें उपाशी गेल्यार.''

''कोण तो म्हजो? तें तुजें तूं पळय. आनी इतली पारथता कित्याक? तुजोच घोव आसा, भुरगो आसा. सगळो घोळ करून दवरलां आयुश्याचो, सगळी नातीं सवाय करून उडयल्यांत. जाय न्ही तुका तुजें पध्दतीचें जगप? खुशाल जग. मनासारकी जगली खंय ! त्याच मनान नातीं मानपाचीं आसता आनी घट्ट करपाचीय आसता.''

'' हें मात तुकां कळ्ळें ना अर्थांत बाबाकूय कळ्ळें ना. तो मनीस फक्त स्वतःपुरतो जगलो असो आरोप तुवें ताचेर केलो पूण तूवूंय फक्त स्वतःपुरतीच जगली. तो सुवार्थी तशीच तूंय सुवार्थी. स्वतःपुरती पळोवपी. वीस वर्सांचो एकामेकांचो संवसार करून दोन चलयांक जल्माक घाल्यो. आनी तांका तश्योच वाऱ्यार सोडून दिल्यो! मन आसता खंय! हुस्को आसता खंय! चलयांच्या मनाचें कितें जातलें. तुमच्या दोगांयच्या जगपांत चलयांच्या जगपाची कितली किंमत आशिल्ली? आवयचें नातें पोटांतसून जल्मांक येता, जाल्यार ताका कितलो पाळो दिलो तुवें ? बेश्टो भाशेचो खेळ म्हळयार आयुश्य अशें दिसता तुका? चलयांक सोडून आयिल्ल्याचे पाप खंयतरी तुकां खाता आनी आतां वय जातकीच चड सलता. बेश्टी गिरेस्तकाय, कर्तबगारी म्हळयार आयुश्य न्हय. कर्तबगार दादलो, आनी ताणें आपल्याक जाय तशें वागलें जाल्यार ती कर्तबगारी? दोन वेळचे गोटे सुद्धां मनशाक जगपाक पुरो जाता पूण कुशीक आपलीं मनशां लागतात. जीं मनानूच आपली आसता. हे पिरायेर लेगीत तुवें तिसरें भुरगें जल्माक घालें. फक्त स्वतःच्या सुवार्थाखातीर. काय त्या दादल्याक आपलें भोंवतणी बांदून दवरपाखातीर? तुजें सगळे निर्णय फसवे आनी सुवार्थी आसात. आनी तें तुका आतां कळपाक लागलां आनी आपल्या चुकांचें समर्थन करपाक तुवें म्हाका हांगा आपयलां.''

''आमचेकडेन तुकां परत संबंद जोडपाचें आसात. जालींच जाल्यार तुकां तुजी तीनूय एकठांय हाडपाची इत्सा आसा. पूण लक्षांत दवर, तूं ज्या मनशाबरोबर रावता, ताका आमी कोण म्हूण मानपाचो? जगांत सख्खें आवय बापूय आसून आमी अनाथ! अनाथूच वाडलीं. तें तुमकां केन्ना कळेंच ना. तुमी सुवार्थी मनशां. नात्यांच्या चौकटेतलें एक जगप आसता, तें मोडून तोडून वडयलें तुवें. सामकें उध्वस्त केलें. भुरगीं जातात म्हूण तांका यांत्रिकपणान जल्मांक घाली आनी

तांका तितल्याच यांत्रिकपणान सोडून दिली. आतां तुका कित्याक जाय नात्यांची गर्दी?" हांवें पायांक जोती चडयली, दार उगडपाक हात घालो, इतल्यान...

"मनिषा, तूं तरी हांगा कित्याक आयलें तें सांग?"

"हांव हांगा कित्याक आयलें जाणा? तुजो हो इतिहास जाणून घेवपाक. दोन चलयांक आनी घर सोडपाइतलो तुका कोण मेळ्ळो तें पळोवपाक. खूब दिसांची म्हजी इत्सा आशिल्ली ती. आवय अशी कित्याक वागली तें समजून घेवपाक हांवूय आतां आवय जावपाचें आसा. तेन्ना हांवे कशें वागपाचें तें म्हाका कळपाक नाका? वतां हांव. परत म्हजेकडेन केन्नाच संपर्क करू नाका."

"बाय, फक्त एकदां अंकिताक घेवन येशी? पोराक खूब पळयन दिसता गो. मरच्या आदीं एकदां तरी..."

" ताचें तूं निखालस नांव घेवूं नाका . तें आयज आशिल्लें जाल्यार किंवाटून तुकां शिरापतलें आशिल्लें. तुका लजेक म्हारग जावपाचें. तेन्ना ताका फोन बीन करपाची गरज ना. तू तुज्या मनाप्रमाण जग आनी आमकां आमच्या मनाप्रमाण जगूं दी ."

हांव घराभायर आयलें. इतल्यात एक आलिशान मोटार गेटींतल्यान भितर सल्ली. तोच मनीस आनी भुरगो, दोगूय म्हाका पळयत रावले. हांवें पर्सीतल्यान गॉगल काडलें आनी दोळ्यांक लायलें.

❑❑❑



# ज्योती कुंकळकार

## साहित्य संपदा

### कोंकणी

| | |
|---|---|
| ❑ चित्रांतलें वादळ | कथा संग्रह |
| ❑ पाशाण कळी | कादंबरी |
| ❑ कर्तुत्वी कन्या | मुलाखती |
| ❑ मुक्ता | पटकथा |
| ❑ वेंचीक पुंडलीक | संपादन सहाय्य |
| ❑ कन्यादान | कथा संग्रह |
| ❑ प्रेमपत्री | कविता संग्रह |
| ❑ आंगणातल्यो काणयो | अमृता प्रितम - अणकारीत कथा |

### मराठी

| | |
|---|---|
| ❑ ओला पदर | कथा संग्रह |
| ❑ सत्यस्पर्श | एकांकिका |
| ❑ रंगतारका | मुलाखती |
| ❑ शिखर कन्या | चरित्र लेख संग्रह |